- कोंबियेक धरल्या उप्रांत पिलाक धरचें खंचें व्हडलें कश्ट?
- शेणयन धनियाच्या बंगल्याची कांपिण वोडनाना भितरथाव्न इंग्लिश मरजेर चिंगुल्यान 'कम इन, कम इन' म्हळळें शणयक 'कांपिण कांपिण' म्हळ्ळेपरीं आयकाना आनी तो म्हणना –कोंकणी भाशेक उल्वार चडय्याय तूं. इंग्लंड खंय आसा म्हण तुज्या तसल्यांलागीं विचारल्यार तुमी चीनांत या रशियांत आसा म्हणचें – कमीन आनी अइ डोंट केर म्हळ्ळ्याफरा तूं इंग्लिशमेन जालोयरे चिंगुल्या, अशें विचारता शेणय
- बेंडां झडार फुलल्ल्या फुलांचें वरणन धनियाच्या प्रेमाळ मनींन अशें गमता – वोमत्यो घाल्ल्यो भांगारच्यो कांपिण्यो
- बिळडाचो तांदुळ आंजेलाक धनियान दाइन दिला म्हळ्ळ्या कांटाळ्यान येकाचाणे तो तांदुळ काळ्या चांळ्ळेपरीं दिस्चा
- धनियाच्या वोंटां मदली सिगेट माक्रिचें कांडियेपरीं रोजवायेक दिस्चो
- वालिच्या निवान धांकाक उदक – एक अलंकार
- महीम ताळ्यान उलंव्चें – सुचाव्न समादान, चिंतप, आटव्णी इत्यादी
- आंज्या सारक्या कुडींत गोंडया सारकें काळिज आस्तलें आस्सल्लें – आंजेलाच्या थिरसाणेचेर शेणयचें चिंतप

*म्हजें फयसल:*

उतळायेन वाचूंक केन्नांयी बरी लागची कथा. क्रिस्तांव morals उक्लीन धरचो एक लांब शेरमांव. माय–मयन्याच्या देवासांवावेळीं नोवेनाच्या बुकांत आसच्या दाक्ल्यांपरीं. हरेका अवस्वराचें सुरवेर पवित्र पुस्तकांतलें श्लोक. कोणाच्या धय्राक? पात्रांच्या या आल्वारिसाच्या? भाश बरेन, विवरण बरेन (विवर चडड लांब जालें). अलंकारां बरेन अव्वल कर्ती. पुण असली कर्ती पसर आय्ल्या? आय्ल्या तर आम्चें तरनें जनांग 'आंजेला'क सोदतील या 'मल्लीका शेरावताक' या 'ऐशाक'?

*आल्वरिसाचे समकालीन बरव्पी आनी तांचें साहित:*

आल्वरिसान, कादंबरियेंच्या मळार केल्ल्या ह्या सुरुवाती उप्रांत कादंबरींचो गाणो वेगान चल्लो. हेणेंतेणे लेकक उटले, कथा पुस्तकां भायर आय्लीं आनी फकत पंच्वीस पानांच तरी पुस्तका रूपार प्रगट करची हुमेद सरवांक उटली. तेच्चपरीं प्रकाशनां चडलीं. पुण साहितांत एक मटट दिलें (standard) कांय थोडयाच लेखकांनी:

(दा।) विजेपी सल्डाना (या खडाप – हाचें 'मोनोग्राफ' हांवें लिक्लेलें तें साहित्य अकादमी–न प्रगट केलां) जाका आमी चारित्रीक कादंबरींचो बापय म्हण वळकानांव; पुण ताच्या साहिताची सुरुवात थोडया थिल्लरां मारिफात जाल्ली म्हळ्ळी संगत खरी. तवळ मुंबयी थाव्न प्रगट जांव्क लागल्ल्या 'पयणारी' हफ्ताळ्याचो स्थापक संपादक तो जालो आनी १९५४ –न ताची पत्तेदारी कथा

'तांब्डी पितुळ' ह्या नेमाळ्याचेर व्हाळ्ळी. अशेंच, ताच्यो कादंबरी 'रुजवात', 'पेट आनी पाळणें', 'मोगा म्हाका शिकय', इत्यादी ताका ऐक कादंबरीकार म्हण थिरांव्क पाव्ल्यो. 'मोगा म्हाका शिकय' कादंबरी, ताणे वाडोन येंवच्या ऐके चलियेची मानसिकता विकृत दिशेन वेच्या कथा वसतुचेर विणलेली ती निजायकी गमनार्ह.

१९६१-त विजेपी-न केनरा क्रिस्तांवांचेर टिप्पुन घाल्ल्या बंदडेचेर होंदोन विबिन्न रितिंच्यो कदंबरी लिक्ल्यो आनी ह्या प्राकारांत ताणे सात कादंबरी लिखल्यात आनी प्रथम जाव्न आसा 'देवाचे कुरपेन'; थोडया चारित्रीक घटनांच्या पाटपोडद्यार काल्पनीक पात्र रचून, साहस, भावार्थ, मोग, तंत्रां-कुतंत्रांचीं सन्निवेशां आसा करुन लिख्लेल्यो ह्यो कादंबरी अलक्क उरलायात आनी कोणे बरव्यान आजून परयांत विजेपी-च्या कादंबरियेंची देक घेव्न तेचपरीं लिक्लेलें ना.

विजेपी विशांत चडित सांग्चें तर, तो ऐक बहुमुख तालेंतांचो वेक्ती: तो ऐक संगीतकार, तो संगीत घडोंक सक्तालो. तो ऐक नाटकिस्त, कोयरमास्टर, संघटक आनी सबार हेर ताळेंतांचो पुंजो.

(दे) ऐ.टी. लोबो (ऐटयेल, श्रीचेन्ना-लिखणे नांवां) म्हळ्ळें नांव कोंकणी नेमाळ्यांनी उटोन आय्लें; मराठी साहिताचो प्रभाव हाचेर खूब आसल्लो म्हण म्हणतात. हाची शय्ली विबिन्न. आपल्या साहितांत लांबाय-रुंदायेक महत्व दिंव्ची हाची खाशेली सवय. हाच्या बरपांनी ऐकाथराची 'विस्कळाय' (elasticity) आसा आनी थोडयांक आवडता, थोडयांक न्हंय. सांगल्लीच संगत परत परत नव्या सब्दांनी सगांची सकत ताका आसल्ली. ताची 'तुं बरो जा' आनी सुमार देड हजार पानांची 'वेळ घडी' कादंबरी कानडी लिपियेंत्ल्या कोंकणी साहितांत सबार दाक्ले हाडून आयली. पुण खंचायी समकालीन लेककान ताची शय्ली आप्णायली ना; तो फलाणो ऐटयेला परींच लिक्ता' म्हण कोणेंच म्हळ्ळें ना. ऐटयेलाच्यो कथावस्तु ग्रामीण आनी पात्र तित्लेंच्च जिबाळे. ताणे रचल्ली 'लुज्यामी' (ऐक पात्र) वाचप्यांचे मतिंत आजूनयी आसा.

ऐटयेलाच्या साहिताची विशेशता कसलिगी म्हळ्यार तो आपल्या पात्रांच्या करतुबांक प्रतिश्टित बरवप्यांच्या उत्रांचो, सांग्ण्यांचो, गादिंचो पाटिंबो दिता. ह्यो गादी-मण्ण्यो सर्व कोंकणिंत्लोच न्हय, अन्य भाशेंत्ल्यो सय्त. आता'तां थोडयांनी ऐटयेलाच्या कादंबरियेंत्लो ह्यो गादी, म्हण्ण्यो, सांग्ण्यो जमो करुन नेमाळ्यांनी अंकणां रुपार प्रगट करुंक सुरु केल्यात.

पुण हें उलव्प तयार करताना म्हाका गम्लेंकी लेककाच्या साहितीक पाटपडद्या विशांत म्हजेच्च श्हरे दीजे म्हण. ऐटयेल, ऐक वेवस्तित बरव्पी न्हय म्हळ्ळें म्हाका दिसून येता. He was a spontaneous writer, not always sure of himself. देकून तो आपल्या बरपांनी सबार गादी, म्हण्ण्यो-सांग्ण्यो हांचो उपेग करतालो. साद्या वाचप्यांक ह्यो रुच्तित पुण शाण्या वाचप्याक कथेचो व्हाळो ह्या

वर्वीं कुस्कना म्हण भोगात. हाच्या कादंबरिंचीं लांबाय, वेवस्तित रितिर मांडून हाडलेल्या कथावस्तुचो परिणाम न्हय. पुण विजेपी-चें साहित बराबर वेवस्थित. ताच्या ऐका पानार, ऐका अवस्वरांत इत्लेच सब्द आस्तेले म्हण तो म्हणात तर, तित्लेच्च सब्द आस्तालेच्च! ताच्या बरपांचें विधान first rough copy and then fair copy म्हळळ्या रितिक लागून आस्चें न्हय. ऐक पावटीं जें लिक्लें, तें लिकून जालें. विजेपी आप्ल्या बरपांची दुस्री करड प्रती आप्णालागीं दवरिनातल्लो. पुण ताच्या अवस्वरांनी ऐकच्चऐक गांच चुकोन गेल्लो ना. सगळी कथावस्त, येदोळ लिक्लेली आनी फुडें लिकूंक आस्चीं आपल्या धिमागांतच तो जमयतालो. हांव विजेपी-क इत्ल्या लागिशल्यान जाणांको, ताणें म्हाका हें हुन्नर शिकयिल्लें.

(ट।) गेब्रियेल डिसोजा (श्रीगब्बु उर्वो) ह्या तेगांचें कोंकणी साहित जिवाळ आस्ताना आनी सास्सांगताच सबार ल्हान ल्हान प्रगटांनांनी उमेदींत लेककांचे novelettes प्रगट करून आस्तानांच सगळ्या वाचप्यांक दिस्पडत्या गाण्याचें पीट आवडलें ना किन्याक हरयेका बरपांत धार्मीक आनी धारमीकांच्या दिरुसांक उस्कळोन आस्चीं लक्शणां चुकानातल्लीं. अस्ल्ये परिगतींत श्रीगब्बुचें रोमान्सी साहित ऐक नवो मिरमिरा हाडून आय्लें. श्रीगब्बु ऐक रोमान्सी बरयो, कादंबरीकार. ताच्या कथावस्तुंनी आर्वेट मोग, पाशांव आनी ऐका रितिचें क्रांतिकारी चिंतप उटोन दिस्तालें. ताचीं बरपां तवळच्या (आनी थोडया मटटाक आतांयी) क्रिस्तीय मोल्लांक (pristine) उस्कळोन आस्च्या लायिकांक तशें क्लेरिकांक गिळूंक जालिनांत आनी श्रीगब्बुच्या बरपांक इत्ल्यान न्हय तरी सांकेतिक रितिर बहिश्कार पडलो. ताच्या कादंबरिंनी स्त्रीयेचो उदिक सोबाय, उमो, पाशांव, वेंग इत्यादी ताणें erotic रितिर न्हय तरी तवळच्या वाचप्यांक ऐका जिवाळ (raw description) रितिर चाकयलें. हाच्यो कृतियो, 'मोगाची मस्ती', 'नास्तिक', 'झडती' 'कध्दी' ताच्या विबिन्न रितींच दाक्ले जाव्नासात.

जोकिम संतान आल्वरिस, विजेपी सल्डाना, ऐ.टी.लोबो आनी गेब्रियेल डिसोजा हांच्या साहिताच्या 'युगा'चें अंत्य तांच्याच सबाविक अंत्यावर्वीं आय्लें पुण तांचें साहित असल्या सिंपोजियमा वेळीं उल्लेकिन जांव्च्या तित्लें अमर उरलें.

## १९६०-थाव्न नव्या बरवपी पिळगेचो उद्बव:

हो उद्बव आपापिंच जाल्लो न्हय. ह्या चळ्वांचें साहित वाच्ताना कांय थोडया वाचप्यां मतें सुप्त आसल्लीं बरपाचीं दोणीं भाग्र येंव्क उरडोंक लाग्लीं पुण हांतूं दोन रितिंचे स्वार्थ मिस्ळोन आसल्ले - पय्लो, हांवेंयी बरवपी जायजे; दुस्रो, म्हजें नांव खूब गाजाजे, हांवें प्रख्यात जायजे. बरें. पूण तांच्या बरपांक ऐक वाट जाय न्हय?

आल्वरिसान चलंव्च्या आनी संपादन करच्या दोन नेमाळ्यां पयकी 'झेलो' म्हळ्ळें पंद्राळ्ळुं उमेदिन बरलेल्या बरवप्यांक ऐक वाट जालें. कित्लेशा बरवप्यांक

ताणे आपल्या पत्राचेर अव्कास दिला, तांचीं बरपां ताणे तिद्दिल्यांत, खुद्द परत लिख्ल्यांत या बरवप्यांक आपव्न तांकां ताणे सम्जय्लां, हाका कांय लेकच्च ना. आज म्हजे तसले आनी हेर सबार आल्वरिसाक आम्चो 'गुरु' मांदतांव.

१९६०-६५-६६ हीं वरसां नव्या नव्या बरव्यांच्या मटटाक भांग्राळीं जाव्नासल्लीं. ह्याच वरसांनी दियेसेजिचें पत्र म्हणनंच वळिकत जाल्ल्या 'राक्णो' हफ्ताळ्यान आप्लो धार्मीक जिनोस थोडया मट्टाक सेकुलर जाव्न बदिललो. मो। अलेक्सांडर सोज हांच्या संपादकपणाखाल 'राक्णो' पत्राचेर वेग्यानीक लेकनां, मटव्यो कथा येंव्क सुरु जाल्यो मात्र न्हय क्रमेण सांकळ कथा येंव्क सुरु जाल्यो. विजेपी-च्यो चारित्रीक कादंबरी ऐक या दोन सोडल्यार, 'राक्णो' पत्राचेरच सांक्ळेक्रमार प्रगट जाल्यो.

ह्या वरसांनी 'राक्णो' पत्रान सबार साहित तरबेतिचीं शिबिरां, कामासाळां चलव्न नव्या बरव्यांची ऐक नवी पिळगी तयार केली. हांतूं नांव वेल्ले समकालीन लेकक हे:

डोल्फि लोबो, ऐडी नेटटो, आय्रिन पिंटो, ऐड्विन जे.ऐफ. डिसोजा, स्टॅन अगेरा, ल्यान्सी पिंटो नायक, विलियम द सिल्व, गेब्रियेल वाज, माय्कल म्याक्सिम डिसोज (हो आय्लेवार देवादीन जालो), हांचो साहितीक वाव्र मतिंत घेंव्चे तसलो.

हांचे पयकी हांव आय्रिन पिंटो हिच्या कादंबरिचो उल्लेक करतां. 'म्हजें अंतस्करण विसरचें ना'. सुमार पांय्शीं पानांक मिक्वाल्ली ही कादंबरी सादार्ण 'मिल्स ऐंड बून' साहिताचे साव्ळेंतच आस्सल्ली आनी ही युवपिळगेक बारिच्च रुच्ली. सिंतिमेंतांनी दाट, मोग, त्याग, साक्रिफीस ह्यां मुळांचेर विणल्ली ही कथा आय्रीन पिंटोक, संक्यान भोव उणीं आसच्या लेखिकांच्या मेळिंत थिर करिलाग्लीं. आय्रीनान फुडेंयी असल्याच जिनोसाच्यो कादंबरी लिक्ल्यो: 'स्त्री.' 'हांव चुकोन पडोंक ना,' आनी हेर.

येदोळ परयांत ३३ कादंबरी लिकल्ल्या ऐडिवनाची प्रथम कादंबरी 'निमाणी शेळी'. १९६७-त चारशीं सांसाट पानांची ही कथा 'झेलो' पत्राचेर सांकळ कथा जाव्न प्रगट जातेच उप्रांत गृंथा रुपार प्रगट जाली. ऐडिवनान कोंकणी साहितांत मेटां दवरताना ऐक खास्की उद्देश पोसून दवरलोलो. विदेशी साहिताचो बरपूर प्रभाव हाचेर आसल्ल्यान ताणे, 'हेर साहितांत आसा तर कोंकणींत कित्याक नजो?' म्हळ्ळें सवाल मतिंत घेतल्ल्यान थरावळ 'प्रथमां कोंकणी साहिताक ताणे दिलीं. देकिक, प्रथम गूडाचारी कादंबरी (पिलातान दिल्लें फरमाण), प्रथम वयग्यानिक (ते आय्ल्यात), प्रथम अस्थित्वादाची कादंबरी 'हांव जियेतां' आनी आय्लेवारच क्लोनिंगाचेर (cloning) 'ब्लोंडी' म्हळ्ळी नवालिका. हाच्या कादंबरिंनी चडावत तीन आवृत्यो देक्ल्यात आनी ताच्या साहिताक येदोळ परयांत नोव साहिनिक प्रशस्त्यो लाबल्यात.

डोल्फी ऐफ. लोबों – डोल्फी काम्मिसया म्हळ्ळ्या नांवान प्रख्यात, ह्या कादंबरीकारान पन्नासां वय्र कादंबरी लिक्ल्यात. आल्वारिस्सान चलयिल्लीं पत्रां, म्हणजे, 'मित्र' आनी 'झेलो' सबार वरसां परयांत हाणेंयी चलयल्यांत. समाजिक मौलांचेर लिक्चो हो कादंबरीकार ऐक उत्तीम नाटक रचपी. हाचें साहित सुगम त्हाळयांचें आनी ह्याच्या लिक्णेंचो वेग असादारण. दोआल्वारिस्साथंय आसल्लीं सुगम शय्लेचीं लक्शणां दोल्फीच्या साहितांत कांय थोडीं दिसून येतात. हाकायी सबार साहितिक प्रशस्त्यो लाबल्यात.

दो। विक्टर रोड्रीगस (वी.रो.), हो आप्ल्या लांबायच्या आनी साहसिक कादंबरींक नांव वेल्लो लेकक. हाची खंचीयी कादंबरी ग्रंथा रुपार प्रगट जांव्क ना, सर्व सांकळ कथा जाव्नंच नेमाळ्यांनी आयल्यात. देक्तिक, 'पाप आनी शिराप', 'मायकाचें भुयार', 'डोन म्याक्स' आनी हेर. हाची रचनात्मक सकत बळ आसा पुण ऐकेक पाव्टीं हाचीं बरपां दिशा चुकोन वेचपरीं दिस्तात.

आन्येक, अपूर्व, वृत्तीपर (दाक्तरगी) साहिताचा प्राकार कोंकणीक दिला म्हळ्यार डॉ। ऐडवरड नज्रेतान. मटव्या कथेंचो ऐक बळवंत रच्णार हो तरी थोडयो विंच्णार कादंबरी ताणें दिल्यात. दक्तिक 'निर्माणें' 'आडवारल्लें फळ.'

हेर थोडया कादंबरीकारांचीं नांवां सांगचीं तर: जेरी कुल्शेकर, ग्ल्याडिस रेगो, शालिनी वालेन्सिया, स्टेन अगेरा (नाल्लिसाय, खुरिस आण्णा आण्णाचो), शान बोंदेल (ऐक पिंजल्ली तस्वीर), वल्ली क्वाड्रस (पाटीं गांवाक), वल्ली वग्गा (कवी, मटव्या कथेंचो विबिन्न लेकक) आनी हेर.

आतां आमी प्रस्तुत काळांत आस्च्या समकालीन लेककांचे मानसिकतेचेर आनी ताणी उब्जेल्ल्या साहिताचेर ऐक सुक्ण्या नदर मारयां:

जशीं–तशीं नेमाळी चडलीं, हरयका फिरगजिचें मासिक पत्र भायर येंव्क लाग्लें. हांच्या पानां खातिर बरपांची गरज पडली. हाचो परिणाम जाव्न साहिताचो बर्ताड जालो व्हय पुण ऐक मटट (standard) आय्लो ना म्हळ्ळो अबिप्राय म्हजी. कांय तरी नवेंसांव लिक्लें 'हें आम्च्या साद्या वाच्प्यांक सम्जाना' म्हण संपादकांनी तें कुशिक मारल्लें आसा. म्हजिच 'क्लोनिंग' कथा 'क्लोडी' हाका ऐक देक!

दुस्रे सुवातिर, मायभाशेचो मोग म्हळ्ळें घोशण, ध्येय उद्देश घेव्न थोडया लेककांनी ऐक अंदळेंपण जोडण घेल्लां. परिणाम जाव्न तांकां अन्य भाशेंत्ल्या साहिताची वळकच्च ना. आसा तर, कन्नड साहिताची (आनी हें बरेंच) मात्र. पुण प्रगतिपर संसारांत किरें घडता तें, भास म्हळ्ळो संपर्क माद्यम वापारन वाचप्यां परयांत पावेल्लो वाव्र जाय जाल्ल्या मापान चलल्लो म्हाका दिसून येना.

तिरूयान, कांय थोडे स्व–घोशित बरवपी (self-declared) उदेल्यात. हांका हांचेच्च म्हळ्ळे वाचपी आसात आनी ह्या वाचप्यांच्या वेवस्तिक हाग्ळिकेंचेर, धुंपव्णेंचेर, प्रशस्तेंचेर हांचें होडें चल्ता. परिणाम जाव्न साहिताची बली सारियेचेर

चडता. 'साहितांत साहित मात्र दिसजे' म्हळ्ळें नेम आतां, 'साहितांत हांव मात्र दिसजे' म्हण परिवरतन जालां म्हणोंक हांव पाटीं सराना.

जशें हें उलवप हांवे आल्वरिसाच्या साहिताथाव्न सुरुकेल्लें त्येच्च शिस्तेन आमी मुकार गेल्यार, आल्वरिसाची सुलालित भास, शय्ली आनी ताणे सन्निवेशां उबारची रीत ताच्या उप्रांत्ल्या कोणा कादंबरीकारान उजार केल्ली दिसून येना. खरें, आल्वरिसाची छाप कोणेंयी आप्ली म्हणाजे म्हण हांव म्हणाना. पुण आल्वरिसाक 'वाचल्ले' म्हण्तात, 'आल्वरिसाक ऐक क्लास आसल्ली, ताच्या बरपांनी आप्लेंच म्हळ्ळें हास्य आनी क्वाळो आसल्लो आनी अवस्वराथाव्न अवस्वराक तांडून धरची सकत आसल्ली.

विजेपी-चें साहित तरी तसलेंच. बरवपाची असली ऐक रीत ऐंडिवन सांबाळ्ता आनी सबार वाचपी, बरवपी असली ऐक शिस्त साद्यगी म्हण विचारतात. जाप जाव्न हांवें म्हण्चें तर बरपाचीं ताळेंतां, देणे आसा तर, तें साणेक धरल्या खेरित येकाचाणे emotinally charged जाव्न आपूण कादंबरिकार जातां म्हण उडकी मारचें न्हय. बरपांत शिस्त जाय, वेवस्तता जाय, बरपूर उग्तड (exposure to literature, exposure to the present day world) जाय, ऐक निघंट कथावस्त कादंबरिक आसूंक जाय आनी विंच्लेल्या विशयाचेर बरवप्यान खूब अद्ययन करिजे आनी कादंबरिंत्लीं सन्निवेशां तांत्रिकतेन आख्ब नातल्लीं जाय्जे, आसल्लें सर्व काल्पनिकतेचेर सोडचें न्हय.

ह्या सर्व नेमांथंय कानडी लिपियेंत्ल्या कोंकणी कादंबरिंनी महत्व दिल्लें प्रस्तुत काळार दिसून येना. वाचपी शाणे जाल्यात खरें आनी ते विचारतात 'कोंकणी कादंबरिंनी कितें आसा?'

आतां ही परिगत चडित मापान बिग्डोन आयल्या कित्याक म्हळ्यार कादंबरिकारच मेळाना जाल्यात. सबार नेमाळीं सांकळ कादंबरी मेळानास्तां आदल्योच कादंबरी परत छाप्तात. कादंबरी लिक्चें सग्राण उणें जालां या ना जालां.

आद्यतायो बदलल्यात. Priorities have changed. बरवप्यांचें गमन आता'तां वेबसाय्टींचेर घुंव्लां म्हळ्ळो जब्बोर दुबाव म्हाका मारता!

साहितांत ऐक बरी कादंबरी, संस्क्रुतिची ऐक दिस्पटी जाव्न आसा म्हळ्ळें चिंतप जरूर उटाजे म्हळ्ळी पातियेणी कित्या बरें साहित आळ्वना पुण बाळ्वता, तें खरें/बरें साहित व्हय तर.



# दुस्रो प्रबंद : एडवीन जे.एफ. डिसोजाच्या 'हांव जियेतां' कादंबरियेचेर मानेस्त डोल्फि एफ. लोबो हाणीं मंडन केल्लो

"हांव जियेतां" – बरवपी: एडवीन जे.एफ.डिसोजा.
प्रथम छापो : जेमिनी प्रकाशन, मंगळूर १९७३
दुस्रो छापो : 'झेलो' महिन्याळें १९८७
तिस्रो छापो: पुनव प्रकाशनाचें ७०-वें पुस्तक १९८८

"हांत्लें चिंतप कल्पन न्हय, हें चिंतप जाव्न आसा आम्चें जियेतेल्यांचें" – नोर्मन तियोदोर

एडवीन जे.एफ.डिसोजा कोंकणेंतलो प्रतिभावंत, प्रबळ, फांकिवंत कादंबरीकार तशेंच साहिती. कोंकणी कादंबरींत नवे नवे विशय मात्र न्हय नवे प्रकार ताणें हाडल्यात. उदाहरणाक १९६१-व्या वर्सांत ताणें कोंकणेंतली प्रप्रथम गुडाचारी कादंबरी 'पिलातान दिल्लें फरमाण' बरयली आनी ती 'मित्र' हप्ताळ्याचेर प्रकट जाताना प्रतियो हुनोनी विकून वेताल्यो. हें हांवें दोळ्यांनी खुद्द पळेलां.

म्हाका कळित आसच्या प्रकार ह्या कादंबरीकारान येदोळ वेरेग ३३ कादंबरी बरयल्यात आनी त्यो सर्व छापून आयल्यात.

'हांव जियेतां' कादंबरी लिखताना लेखकाची पाय कांय चोवीस वर्सां आस्तली. पुण ताणें ह्या कादंबरींत वापरलेली भास आनी चिंतप मात्र विशिश्ट आनी विशेस. त्ये प्रायेक सहज जाल्लें न्हय तरी मटट मात्र उंचलें म्हणच्यांत दुसरें उतर ना. ह्या कादंबरियेंतल्लें हरएक वाक्य तुवें चीत दीव्न वाचल्ले तित्लें तुका गुंडायेक वोड्न वर्ता.

पुस्तका रुपार ही कादंबरी पयिल्लेपाव्टीं 'जेमिनी प्रकाशना'न आपल्या जेमिनी प्रेस्सांत (लेखकाचेंच प्रेस्स हें) छापून काडनेच विक्रापाक घाल्ल्यो तेदना ९०% प्रतियो कापिनास्तां लेखकाच्या घरांतच उरल्यो खंय. पुण तांकां ग्रासिल्ल्या वाळयन पुस्तकाथंय चडित दया दाकयली ना म्हण लेखकानंच हास्यान सांगल्लो उडास म्हाका आसा. पुण विकोन गेल्ल्या प्रतियांनी वाचप्यांचेर बरेंच प्रभाव घाला म्हणच्याक हांवंच एक साक्स जाव्नासां. ही कादंबरी वाच्ताना म्हजी प्राय फकत बावीस वरसांची. ह्या कादंबरिंतल्या उत्रांनी आनी पात्रांनी तसलें प्रभावी आमाल आसल्लें – अस्थित्ववादाचें. ह्या कादंबरिंत लेखकान तीन भागांनी तीन गृंथ रचल्यात. हरएका गृंथांत ६ अवसवर आसात.

पय्लो गृंथ : हांव जल्मालों
दुस्रो गृंथ : हांव जियेलों

तिस्रो गृंथः आनी हांव जियेतां

'आनी थोडयाच वेळान हांव परत्यान जन्मातलों' ह्या वाक्यासवें ही कादंबरी आरंभ जाता.

'म्हजे संगीं जियेतेल्यांक हो संदेश हांव पाठयतां – हांव जियेतां' इतल्यार ही कादंबरी संप्ता.

कादंबरीकाराचें निमाणें फयसल अशें आसाः

'हें अंत्य न्हय, प्रारंभ जाल्नासा.'

म्हळ्यार....

परत आय्काता तेंच प्रारंबिक वाक्रयेंः

'आनी थोडयाच वेळान हांव जन्मातोलों'

कादंबरिंतल्या नायकाचें अंत्य म्हळ्यार परत ताच्या जन्मा सवें आरंभ म्हण आमी चिंतिजे म्हण दिस्ता.

मानेस्त ऐडवीनाच्यो हेर कादंबरी वाचल्यार ताच्या हर कादंबरिंनी वेवेग्ळे विशय वाचुंक मेळटात. पुण घडावळ, तयाराय, विस्तरण तंत्र, पात्रांचो वापारो – ह्या सग्ळयांत ताची म्होर आस्ची दिस्ताच. कादंबरी आखेर जाताना वाचप्याक आप्णों कांय तरी ह्या कादंबरिथावन आप्णायलें म्हळ्ळी सहज तृत्पी भोग्ता.

'हांव म्हज्ये आत्म तृप्तेखातिर बरय्तां शिवाय वाचप्यां खातिर न्हय' आप्ल्ये चवीस वरसांचे प्रायेर, स्पश्ट, तीक्श्ण वाक्मूल दील्न कोंक्णी वाचप्यांक 'खल्ल' केल्ल्या लेखकानंच ही 'हांव जियेतां' कादंबरी लिख्ल्या. हें वाक्मूल ताची घमंडाय, गरवाची थोराय, हंकाराची लय दाखय्ता म्हण थोडयांनी त्या वेळार साद घाल्न ऐडवीनाक तुक्लायिल्लें, चाचायिल्लो आसा. हें हांव जाणां. पुण तो आजून स्थितप्रज्न कसो जाल्न तसोच आसा, तशेंच चिंता आनी त्याच ट्र्याकाचेर बरवन आसा.

कादंबरीकार ऐडवीनान हांव बरोच्च वळकातां. ताचेविशंत म्हाका कळित आस्चें हांव आतां सांगोन गेलों तर भोवशा सांज जातेली. देकुन ताच्ये 'हांव जियेतां' कादंबरी दिशीं म्हजी नदर लाय्तां.

कादंबरींत्लो नायक विक्टर, 'मार्था आनी ह्यूबर्ट' हांच्या लग्ना भेसा पय्लें जन्माल्लें अनयतीक फळ. अवघडांत अंतरलेल्या बापायचें आल्कुंज होग्डाल्न, हटटी, बिजनेसमेन माव्ळो जुलियनाचें आल्कुंज घेल्न 'विक्टर लूक' जाता. विक्टराची आवय आपल्या भावाच्या दावल्यांनी शिरकोन निरवोंग नास्तां ताका खाल जाल्न चल्ता तर आपल्या पुताकयी मावळ्याच्या कंत्री खेळांचो खेळगाडी करचें हर प्रेतन ती करता.

विक्टर अलग चिंत्पाचो आनी विभिन्न कालेतीचो देकुन ताच्या संसारा भायल्यांक तो विशिस्ट करतुबांचो पिसो कसो दिस्ता. हरऐक्लो भुद्दिजीवी ताच्या संसारांतय्लांक मात्र भुध्वंत जाल्नास्ता, हेरांक तो पिसो दिस्ता. क्रित्याक, ताचीं

चिंत्नां, करन्यो आनी उत्रां हेरांक समजानांत.

विक्टर, जीनियस या बुद्दिजीवी – प्रतिभावंत म्हण सांगाना या दाकयना. पुण हेरां ताका समजांक सकानांत. प्राथमीक शाळेंत शिकानांच ताणे जिरयिल्लीं चित्रां आनी उत्रां ताच्ये आवस्क विस्मित करंक पाव्नान मात्र न्हय मात्सीं हळशीक दिसतात. दकून तीं, तीं नास कर्ता. पुण विक्टराचा जिवंत मेंदू तिच्यान न्हय कोणाच्यानयी बदलूंक या शिंदूंक जायना.

जिवंत आसात सेल्ल्यां मधं आपूण जियतां, जियंव्न आसां म्हळ्ळि खरांत्रां आनी कांतव्णी ताका दोस्ना. आपणा नेक्रिद, नसल्ले चिंतप हांकां किल्याक ना म्हळ्ळें सवाल तो करिना. बदलाक, 'हांव जियतां', म्हाका तुम्चो सांगान, सहकार या संसार ताका म्हण सांग्चो विचित्र, विभिन्न मनिस ना जाना.

ताचेर प्रभाव घालून ताका बदलूंच्याक ताचो माव्हो जुलियन आनी अपरोक्श थरान ताची आवय मारथा हर प्रेतन करतात. आप्णाच्या आदारक, जुलियन आपल्यें जिणियेंत्लो महा वेवहारीक दुस्मान जाल्‌आसतल्या जान डेविडा लागीं राजी कर्न घेता फकत विक्टराक बुद शिकंवच्याक. जान डेविडाचो पुत टोनी, कोलेजिचो प्रिनसिपाल प्रा। फिलिप, स्मानिया तियादार, प्रिटर्स, पब्लिशर्स एसोसियेशन, सरकार, कानून आनी पालिसांक सख्यां सांगाता घव्न ता अनव्योक थरान वावुरता.

फकत विक्टराक सल्वंव्क, वाटेक हाडूंक या वाटेथाल्न काडूंक, ताच्या नांवांचें सत्यानास करंक. आपूण किते, कसो, कित्या आसां म्हळ्ळं मात्र चिंतच्या विक्टराचें हरांक उलव्प साद्या वाचप्याक अर्थ करंक भोवच्च कश्ट मारतात, ही खरेखर सत राजाल. कांय थोडा अर्थ जाला तरी विक्टराथंय अपार्थ जांवच्यांत कांय दुबावच्च ना.

'हांवें जिवंत आसचें मुख्य जाल्‌आसा, म्हजो जल्म म्हाका मुख्य जाल्‌आसा. म्हाका जल्म दिल्लीं न्हय.' ह्या उत्रांनी विक्टर सत उलय्ता. उचाग्ना न्हय तरी समाजिच्या एकाग्रान, संभंदान आनी सांगातांत जियतल्या हरांक हें ताचें उलत्रां चिंतप अरघांटी, अनूपकारी, अमानवीय, हंकारी म्हण भोगल्यारी तांची कांय चूक जांवची ना.

'आपूण' जाल्न जियेंव्क लागल्ल्या विक्टरान ताच्या दुस्मानांनी नमून्यावार मोडून ताचेर दंवयल्यारी, शिंत्र्याळी शिरिगुंडी रचल्यारी, घात्की पास मांडल्यारी निमाणे घडिये परयांत सल्वणी आप्णायिल्ली ना. शेवटीं आप्णं कारिनातल्ले खुनियेचो अप्राद स्वीकार कर्न कानून रीत्य जिवाल्दी शिक्शा कोडितन ताका लाय्ताना ताणे आपनाक रक्शण या सांगात दिंवच्याक कोणाकयी अव्कास दिलो ना. ताच्या जिवितांत ताणे खुशेन लागीं घेतल्लें म्हळ्यार फकत दोगांक – हेल्गा आनी नोरमन तियोदोराक.

हेल्गा, ताचें ल्हानपणालें सांगातिण जाल्‌आसल्लें आनी उपरांत ताणे

वेक्टराक आप्णाक्च्च आनी आप्ल्या आस्त-बदकाचें स्वखुशेन अरपण केलें ग्रात्र न्हय, विक्टराच्या सल्वानातल्ल्या झुजांत जयत मेळच्याक ताणे सांगात दिलो. ब्रांद मात्र विक्टरान कोणायचोयी घेत्लो ना. हेल्गाचो मोग, त्याग या साक्रिफिस ज़ांव्क पुरो न्हयगी? ह्या सवालाची जाप कादंबरिकारान मात्र दिव्येत.

नोर्मन तियोदोर ऐक्लो पत्रकर्त. 'मनिस' पत्राचो संपादक. लोकान सांग्चेपरीं थोडो क्रांतिकारी पुण चडित वांटयान बिंग्री संपादक. कित्याक म्हळयार बरें काम, सुख, संतोस, आस्त-बदिक, कुटम ह्या सर्वाक खोटाव्न आप्ल्याच तत्वां खातिर जियेल्लो, राजी-संधान-स्वार्थाक लागोन जिवंत मोडें जाल्ले समाजिक सवाल करुन तिचे विरोध झुज मांडल्लो, वोळानातल्लो, मोलाक मेळानातल्लो ऐक्सुरो शिपाय.

च्यारांयी कुशींथाव्न सल्वणी, धम्कणी आनी पर्तव्णी ताचीं पाव्लां रोक्ताना ताणे गण्णे केलेंच ना. आप्ल्या 'मनिस' पत्रार जिवितविशीं बरव्न प्रकाटांव्क तो कश्टालो, धपटालो आनी नश्टालो. लोकान ताका पिशांत दाखल केलो तरी कोणाकच हर्वोन तो शराणागत जालो ना. केन्सर पिडेन ताचो जीव वोडतानांय तो बदलालो ना. विक्टराक आप्लो फुडलो वारेसदार करुनंच गेलो.

हेल्गा आनी नोर्मन तियोदोरा शिवाय आन्येक्ल्याकी विक्टरान विंचल्लो आप्णाच्या सांगाताक – त्याच टोनी डेविडाक. आपणाचें झुज चलंवच्याक ऐक्लो प्रतिस्पर्धी, वैरी, झुजारी ताका जाय आसल्लो. आप्ल्या हरऐका मेटाचेर अडकळ, अडचण आनी अपाय हाडच्या टोनीक खर्या उद्देशान आप्णायिल्लो. कित्याक, ह्या टोनीक विक्टरा विरोध झुजोंक, कुतंत्री खेळ खेळोंक विक्टराचो माव्ळो जुलियनांनंच तयार केल्लो. हो टोनी कुब्दी, कण्णोजी, घात्की सोजेर.

हरऐक्लो विक्टराची सल्वणी आशेल्लो तर नोर्मन तियोदोराची धूव सोनिया मात्र विक्टराक काळ्जाथाव्न आशेव्न निराशी जाल्लें, घायेल्ली वाघीण जाल्लें. पुण विक्टराचो कटटा विरोधी आनी दुसमान टोनी आथीन तें वावुरतानायी विक्टराक ताणे घात चिंतूंक नातल्लो. आजून तें विक्टरान आप्णाथंय येंवच्याक राकोन रावल्लें, ताणे प्रेतन केल्लें निमाणे विकटराक शिर्काव्न घालच्याक टोनीन आप्णाचेर गुंडां कर्ना बलातकार करव्न माराणांतीक हल्लो करयिल्ल्या वखतायी विक्टराचें रक्शण, पर्तवणे आनी उमो तें आशेलें. विक्टराच्या उस्क्यारच ताणे प्राण कर्चे निमाणे घडिये ताच्ये जिणियेंत्ली निमाणी आशा ताणे भागय्ली, विक्टराचो ऐक नितळ, प्रेमाळ उमो घेव्न. कसलो मोग हो सोनियाचो? कसली अभिलाशा ताची अंत्या पर्यांत? पुण विक्टरान त्या वेळारयी आप्णाचें चिंतप बदिलल्लें ना. सोनिया मात्र तृप्त जाव्न शाश्वित मौन जालें. असलोय मोग आसा आम्च्या संसारांत आजून? ह्याविशीं हांव लेखकाथाव्नंच चडित माहेत घेंव्क आशेतां.

आम्चो नायक, 'हेंडसम' युवक विक्टरान काळ्जाथाव्न मोग केल्लो फकत

हेल्गाचो. ताच्येथाल्न मात्र ताणे 'मनिस' पत्राचो छाप्या-वाव्र चल्ता चल्ताना हेल्गाक आप्ल्ये उबाळ वेंगेंत घेव्न दोगांय्ची लंयगीक तान भागंव्चो अव्कास जोडन घेत्लो. असले अव्कास दोन पाव्टीं सोनियान विक्टराक दिल्ले तरी ताणे ताचें गुमान केल्लेंच ना.

विक्टर नास्तीक्यी व्हय, आस्तिक्यी व्हय. सग्ळ्ये कृतियेंत विक्टर देवाक खंयसरयी दुर्साना, नेगारयी करिना या वेंगियी ना.

स्वार्थ, रूण आनी दावो - ह्या त्रीवेणी सरकसांत माहिर जाव्नासल्ल्या जुलियनान विक्टराथंय सम्जव्णी, पुस्लावणी आनी भेश्टावणी बरपूर वापुरली. तरी ताका मेळ्ळी फकत सल्वणी आनी सल्वणी.

'मनिस' पत्र विक्टराच्या जिवितांत्लें सांकेतीक हातेर आनी संपादक नोर्मन तियोदोर ताची आदर्श साव्ळी.

ल्हान आस्ताना, आप्णाक मेळल्लो, घायेल्लो पाच्वो कीर टोनीन पाटलाम बांदून येव्न विक्टराक भेश्टाव्न आप्णाक दी म्हण विचारल्ल्या वेळार विक्टरान तो कीर आप्णाचो, आप्णाक जाय म्हण हुजिंत कर्चें चडित प्रेतन करिनास्तां त्या कीराचे तीर-तिर्कूट करुन टोनीक निराशेचो घोट पियेंव्चेपरीं केल्लें. त्या वेळार किरान दुखीन आप्लो बोंचिन विक्टराच्या हाताक खंच मार्ताना घाय जाव्न रगत पाजारल्लें आनी हेल्गान तांच्या इस्कोलाच्या धफ्तरांत ताच्या घायाक शुस्रूशा दिल्ली.

असलें घटन निमाणे विक्टराच्या जिवितांत परत उदेतानांयी टोनीक निराशेचो घोट पिवय्लो. विक्टर, कानूनाचे हातीं स्व-खुशेन कैद जाव्न आस्तां 'मनिस' पत्राचो छापखानो, जो हेल्गाच्या बापायचो, ताचेर कोडतीच्ये शिबंधेन म्होर मार्न ताबेन घेंव्कयी शिंत्र्याळी टोनीक विक्टरान अव्कास दिलो ना. हेल्गा द्वारीं ताणे छापखानो भस्म करुन उडयलो. ह्या वेळार टोनीक पळेव्न आत्मतृप्तेचो हासो हास्ताना, टोनी पिशापरीं चाळ्वाल्लो.

उप्रांत आप्णाचेर नितिदारान आपखुशेचें जिवाव्दी शिक्शेचें फरमाण वाचतच त्या वरेग कसलिच पर्वा करिनास्तां मौन आसल्लो विक्टर अप्रादी कटकटेंत रावोन सांग्ता. 'जिणियेच्या भुरजाथाल्न, जय्ताच्या शिखराथाल्न जिवंत आसोन मेल्ल्यांनी म्हजे साम्कार उग्त्यान सल्वणी मांदून घेतल्ल्या ह्या दिसा, म्हजे संगी जियेतेल्यांक हो संदेश हांव पाठयतां - हांव जियेतां'

होच ह्ये कृतियेचो शिखर आनी अंत्य. विक्टराचो शेवोट तो अशें उग्त्यान पाचार्ता.

आत्मस्थग्राच मन्शाक जल्म दिता, जियेंव्क शिकय्ता आनी ताका मरण ना. तें अमर. ताचें अस्थित्व थिर, अचल आनी अमर. देकुनंच 'शोले' पिंतुरांत गब्बर सिंघ जिवितांत्लें सत उचार्ता - *जो डरगया, समजो वो मरगया.*

आय्चे मत्लबी, कुक्लाडी, घात्की समाजेंत विक्टराक जय्तेवंत जाय्नाशें

पळेंन्चे सबार आसात, पुण ताका सांगात दिंन्चें बोटांनी मेंजचे नित्लयी मेळचेनांत. देकुन ताका जियेंव्क कश्ट आसात पुण असाद्य न्हय. विक्टर आनी क्रिस्ताथंय थोडी साम्यता म्हाका दिस्ता. तवळ क्रिस्ताक घात केल्लो ताच्याच पोस्ण्यांत हात घाल्न जेवल्ल्या शिसान, जुदासान. हांगासर विक्टराक घात केलो ताच्या खाशा माळ्ळ्यान, जुलियनान. जुदास आनी जुलियनाच्या नडत्यांत, कालतिंत, आब्लेसांत तांचें व्येक्तित्व थोडें तरी ताळ पडटा. विक्टर आप्लो वाद मांडताना जुलियन ताका तुं क्रिस्त न्हय म्हण सांग्तानांयी तो कसलीच प्रतीक्रीया दाकयना. हें सग्ळें साक्र्या थरान आटापुंक, आटंव्क आनी मेक्ळांव्क थोडया तरी वेळाची गर्ज आसा. पुण आतां आज हें साद्य जांव्चें ना. तुमी सर्वांनी उण्यार उणे चार, पांच पाव्टीं तरी चीत दीव्न ही कादंबरी वाचुंक जाय. त्या उप्रांत जाल्यार प्रेतन करयेत म्हण म्हाका भोग्ता.

तर विक्टराचेर मरणाचें फरमाण कोणे वाच्लें? पिलात कोण? जुलियन? टोनी या खुद्द विक्टर?

हें सवाल तुम्कां दितां आनी जाप सोदुन काडचें प्रेतन तुमिंच करा. साद्य जालें ना तर मंग्ळुरांतच कादंबरीकार मानेस्त ऐडवीन जे.ऐफ.डिसोजाक भेटा. तुम्कां तो शांत करतोलो म्हण हांव चिंतां.

ह्या कृतियेंत्ले प्रमुख पात्र: विक्टर, ताची आवय मार्था, माळ्ळो जुलियन लूक, टोनी डेविड, हेल्गा मार्टीन, नोर्मन तियोदोर, सोनिया तियोदोर, प्रोफेसर फिलिप आनिई ह्या सर्वांक जायजाल्ल्या स्थळार गुंतून, आम्क्या वेळार खेळव्न हाताक मेळानातल्ले उंचायेर लेखकान बसयलां 'मनिस' पत्रांत. अनीत, स्वार्थ आनी कुयुक्त्यांनी 'मनिस' म्हळ्ळें सत बुडता जांव्क पुरो, पुण ताचें अंत्य जायना. कित्याक ताचें अंत्यच ताच्या फुडल्या जल्माचो प्रारंब.

'हांव जियेतां' कादंबरीक सारांश ना. कित्याक तिका पिळुंक गाळुंक म्हज्यान जालें ना. फकत हांवें नद्रे नक्शा सोडयल्या तुम्चेय समार आयच्या दिसा. कादंबरींत्लें हरऐक वाक्य पाटल्या आनी फुडल्या वाक्याक संभदित जाव्नासा. सब्दान सब्द ऐकामेका पूरक. भोवच चत्रायेन विंचून, गुंतून पात्रांक खेळयल्यात. पोस्याथाव्न भरुन हाडल्ल्यांत्लें पोंवोन, शिंपून या वोनोन वेच्याक अव्कास करुन दिंवच्या तसलें ऐकयी घडीत नगण्य दिसाना. कादंबरीकारान गरीश्ट चत्राय घेव्न विंचणार रितीन कृतियेची मांडावळ, घडावळ, वाडावळ करुन हाडल्या. खंयसरी ताचें चिंतप संयम चुकल्लें म्हाका झळ्कालें ना. थोडेकडेन चिंत्पाचो उच्चार आनी उजार पुनरावर्तीत जाल्ल्यापरीं भोग्ता तरी ही कृतिकाराची दिश्टी भाय्ली चूक न्हय बगार कृतियेक ती क्रिया गर्ज आसल्ली म्हण हांव चिंतां. विक्टराच्या पात्राक तसली गंभीरता आसल्ल्यान असली चूक कांय प्रमाद म्हण भोगाना.

पुण कृतीकार आपुणंच विक्टराच्ये कुडिंत प्रवेश घेव्न, आप्णाचे अनुभव, समस्से, चिंतप, राग, हर्गे, प्रतीकाराची नदर घोळांव्क पळेना कशें म्हाका स्पश्ट

दिस्ता. खंच्यायी हेर पात्राक उत्रांनी, करन्यांनी या दृश्यांनी विक्टराचें उंचायेक येंवच्याक एकूच्च एक अल्कास लेगून कादंबरीकारान दीव्क ना. हो ताचो स्वार्थ या ध्येय जाल्लासूंक पुरो.

हेर पात्रांक विक्टराचीं प्रखर किर्णां प्रतिफलित जांवच्याक मात्र वापुल्यांत कशें दिस्ता. खुंयसर्यो कतिकारान कथा नायकाक सकस्ल देवांक अल्कास दिल्लोंच ना. ताका अतिमानव करसो करन अलग मनिस जाल्ल रूपित करच्यांत जयेवंत जाला म्हण्येत.

अनुभवाचें एक उत्तर आसा. 'कविता फट उलयता, कवी न्हय.' तशें म्हाका भोग्ता. 'कृती सत दाकय्ता, पूण कृतीकार तसो न्हय.' हें म्हजें चिंतप शंबर ठक्के सत म्हण हांव वाद मांडिना.

आण्णाथंय कितें शिज्ता, तळमळता, मानसिक तुमुल धरिस्ता तवळ कृतीकार तितेग द्वारीं तें चित्रण, भगप, घर्शण वाचप्यां हुज्रीं नाजूकायेन मंडुन करता आनी कृतियें पाटल्यान आडोसाक रावान आपल्येस्तकीं आत्मतृप्ती भोगुन, व्यंग्य हास्सो घोटून धन्य जाता.

कतिकार एडवीन ज.स्फ. डिसाजाक हांव पाटल्या ३८ वर्सांनी मात्सें लागिल्ल्यान वळकातां जाल्ल्यान कथानायक विक्टरा सर्गीं १९७३-व्या वर्सांत ताका हांवें पळेयिल्लो. आतांयी तो, ताच्च जाल्लासा कशें म्हाका भोग्ता. पूण आण्णाच्यें वेंगेंत घेल्लल्यांक वेळ करची मानसिक तांक, भग्णांची तोंड आतां ताका तशेंच आस्सूंक साडीना देकून, विक्टराक 'हांव जियतां' म्हळ्ळ्या कृती चव्कटा थाल्ल भाग्र हाडूंक ता हरगयुस आनी बिल्कुल तयार ना म्हण हांव चिंतां. कित्याक विक्टर व्यभिचारी न्हय!

कतिकाराच्या जिवितांत तब्दीलाय आयल्या जाव्येत. पूण कृती रचनांत आतांयी तो बदलूंक ना. आजूनयी तो, तोच विक्टर म्हणज जयेवंत जाल्लासा म्हळ्ळें म्हाका आजूनयी दिसोन येता.

म्हजें तसल्या सबार वाचप्यांनी सोनिया नियोदोरापरीं एडवीनान कन्वेंडुतर जाल्लें पळेंव्क आशेल्यार तें तवाल जाल्लें ना. पूण हेल्या तसली ल्हानपणाली निस्वार्थी सांगातिण दोदोन पाल्टीं 'धांव विक्टर, धांव' म्हण बचावेंचो उलो मारी परयांत ऐडवीनाच्या असल्या धड आनी अचल चिंतपाची दाव टेंक्लो. निंक्लो या पाल्वतेली म्हळ्ळयाविशीं दावो करूंक हांव खंडित जाल्ल आज सकाना, कित्याक, हांव आजून ऐडवीनाचो जबरदस्त अभिमानी आनी ताच्या अमोलिक कृतियांचो भोगी.

*(तीन छापे पळेयिड्ल्या हो कृतियेक तीन साहितीक पुरस्कार लाबल्यात आनी ऐका तेंपार कातोलिक समाजेंन बहिश्कार घाल्ली हि, कोंकणी कानडी लिपियेंत आस्ची ' कादंबरी आज ऐक 'क्लासिक' जाल्ल जिवो आसा-संपादक)*



# तिस्रो प्रबंद दे। वि.जे.पी. सल्दांजाच्या 'मोगा म्हाका शिकोइ' कादंबरियेचेर बाप फ्रान्सिस रोड्रिगस (संपादक "राक्णो") हाणीं मंडन केल्लो.

मुळान ओम्जूरगार, विन्सेंट जुजे पेद्र सल्डान्ह (विजेपी), आपस्नल पेद्रचे पाट भुंयचेर कोंकणेंत्लो नांवाडिदक 'खडाप' जालो. 'चारित्रिक कादंबरियेंचो बापय' जाव्न ताणे केनरा कोंकणी क्रिस्तांवांच्या बंदडेचेर आनी गोंयांत चालू आसल्लें मारेकार धर्मीक खर्ग इंक्विजिसांवाचेर भरपूर उज्वाड फांकंवच्यो जाय्त्यो चारित्रिक कादंबरी रच्ल्यो. चरित्रा आनी साहित सांगाता मेळोव्न कोंक्णी ग्रेस्त केली मात्र न्हय आम्च्या पुरवजांचेर एक विंचणार संसोदच आम्चे समोर सोडव्न दवरलो.

बंदडेचेर सोद चलव्न केनरा कोंकणी क्रिस्तावांचेर आयिल्ले निब्बोर कश्ट, बंदड, भावडताची परीक्शा, हजारों क्रिस्तांवांच्यो करुणाभरीत भावाडताच्यो कथा आम्चे समोर दवरच्याक 'देवाचे कुरपेन' कादंबरी सुरवातुन उप्रांत 'सरदारांची सिनोल', 'इंफेरनाचीं दारां', , 'सरदारांचें सन्निदान,' 'बेळ्तांगडीचो बाल्ताज़ार' 'बंदडेंत बलिदान' 'मोगाची महिमा' तसल्या कादंबरिंची शिंकळच वोळ्ळी. तांतुं सरदार सिमांव आनी सरदार अंतोन ताचे 'हीरो' जाले. ओम्जूरांतलें ताचें सल्डाना कुटम कस्रिक फामाद आनी हांणी टिप्पुच्या सोजेरांक कसर दिल्लेविशींयी वाचुंक मेळ्ता.

आम्च्या पुरवजां पय्की सबार जण, आप्लें पेट आनी भिचाणें घेव्न आप्लें मूळपीठ गोंय सांडुन तेनकाक देंव्ले. थाडयालागीं पेट बिचाणेंयी नातल्लें खंय. तांत्ले चडशें मंग्ळुरा भंत्तिल्या केनरांत ठिक्ले म्हणच्याक चारित्रिक पुरावे आसात. तांच्या येवपाक दुकोळ, खेस्त पिडा तसलीं काराणां आसल्लीं तरी भोव मुकेल कारण किरिसतांव संस्थ्याचें ख्यास्तेचें इंक्विजिसांव. हें, विजेपी–च्या फामाद 'सायबा भोगोस' शिंक्ळेंत्ल्या ५ कादंबरींक पुरतो ग्रास जालें. तेन्ना उबजाल्ल्यो हस्ती गात्राच्यो कादंबरी – साय्बा भोगोस (१९८०), पुरवज परदेशांत (१९८१), वांजेलाचे वाटेर (१९८२), जिवो वा मेल्लो (१९८४) आनी 'या तरी मंगळापुरी' (१९९०). हांचे सांगाताच ताणें सामाजिक आनी पत्तेदारी कादंबरी रचल्यात. आतां सवाल येता, पय्लें तो चारित्रीक कादंबरी कर्त वा पत्तेदारी/ सामाजिक कादंबरी कर्त म्हळ्ळें. हें सवाल, तांतीं पय्लें वा कोंबी पय्ली म्हण विचारल्लेपरीं. तो एक हुशार जाणतो देकून एकाच वेळार वेवेग्ळ्या विशयांचेर साहित्य घडूंक सकतालो.

एका लेका परमाणे ताणे ४५ नाटक, ७ रेडियो नाटक, २२ कादंबरी, ५ लंग्गीक शिक्पाचे बूक, ५ अण्कारित बरपांचीं पुस्तकां, दोन कविता जमे, ७००० वयर कवितां, पदां, कंतारां, श्लोकां, चुटुकां, चुटकुलां रचल्यांत. गूड

चिंतपाचो, विशेस वावराचो, बहुमुखी वेकतित्वाचो सल्डांज उत्तीम बरवपी आनी उलवपी, कलाकार आनी कादंबरीकार, चिंत्पी आनी कवी, नाटकिस्त आनी कंतारिस्त, कला पारिक आनी निर्देशक. फामाद चरित्रेंगार गोंयकार एच.ओ.मस्करेनसाची ताका विशेस मळावळ आसोन ताचो प्रभाव ताचेर पडल्लो खंय. फामाद घराण्यांल्या कारागारांक ताची भलायकीच एक सोभाय म्हण लेकताले. कोंकणी भास आनी संस्कृतेविशीं तो अधिकारान उलंवक सकालो.

तो मुंबय गेल्लें कारणांच जि.एम.बी.-च्या 'सरबी कोण' पिंतुरांत नटन करच्याक. तेंच एक घुंवडेचें घटन जालें, आसकतवंताचें संघटन जालें; थंयसर १९५०-त 'पयणारी'-चें जनन जालें. ८ वरसां विजेपी-च्या बळवंत हातीं स्नापक संपादक जाल्न सुंकाण उरलें.

त्या सवें 'कन्नडवाणी' आनी 'नवभारत' कन्नड पत्रांनी वावर, पडा आनी सां.लुवीस कोंकणी संस्थ्यांत शिक्शक, करनाटक कोंकणी साहित्य अकादेमीचो स्थापक अध्यक्श, १४-व्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो अध्यक्श, ११-व्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो जेरल कार्यादर्शी, कोंकणी भाशा मंडळेचो अध्यक्श इत्यादी. पद्युत्तर शिक्षप आनी होमियोपती जाणवाय आपणायिल्लो तो बरे न्याचरोपती ओळखागार, संगीत निर्देशक, दहधर्डय तरबेल्दार; मराठी, कन्नड, इंगलीश आनी पोर्चुगीस पुस्तकां/बरपां वाचचेसवें वाचुनच भास शिकालो खंय.

इल्लो जीनियसकी खंचायी विशय वाचुन, जिरन्न, भोव उणे आव्देंत नवेसांवाची बरपां रचुंक सकालो. देकुन याजकांनी, धर्म भय्णींनी ताचेकरना खूब गीतां-कंतारां बरवंक लाय्ल्यांत. हाचेसवें एक संगत सांगची पडटा. ताका थोडें शेकची सवय एके कुशीन तर तो थोडो आळशी आनारके कुशिन म्हणतात. देकुन पत्रांचे संपादक ताका भेटोन, पयलेंच थोडें पर्तीलाभन दील्न ताचे कर्ना कामां करयाले, कादंबरी बरंवक लायाले अशें आय्कालां. ताच्यो ? कादंबरी 'राक्णो प्रकाशनान' फायस केल्यात.

सरी सुमार ४५ वरसांचो जाताना ताचीं दोन स्वपणां आस्लीं. बज्जोडिंत ताच्याच म्हालकपणाचें एक घर (येदोळ भाडयाक आसल्लो) आनी ब्रग्लेक एक मोगाची बॉर. पुण पयशेनांत. ह्या वेळार आदारा आय्लें ताचेंच्च बरपा-देणें आनी तांतल्यान फुल्ली एक सोबित सामाजिक कादंबरी 'मोगा म्हाका शिकोय'. हे प्रक्रियेंत २७-२-१९६९-त ताचे बगलेक सोभ्ली कामरगोडची शिक्शकी लिल्ली सल्डान्हा आनी तांणी एकामेकाचे वेंगेंत पुसपुस्लें - मोगा म्हाका शिकोय!

## "मोगा म्हाका शिकोय"

कादंबरी ऐक लांब्शी नवाल काणी. जश्न बांदाप आसल्लेंपरी, थंयसर बांदपा भितर बांदपां, कुडा भितर कुडां, काणिये भितर काणियो, फात्रां वयर फातर, बरपां भितर बरापां, मांडपां भितर मांडपां आनी घडपां वयर घडपां आस्सात. चडशान

पत्तेदारी आनी चारित्रिक फात्रांचीं बांदपां (नवालिका) भांदल्लो खडाप तर्नाटपणाच्या ऐका पांव्डयार मोगान फुमारता आनी 'मोगा म्हाका शिकोय' म्हण्ची वेग्ळ्याच कतावस्तुची सामाजिक कादंबरी रच्ना. वरस १९७१ (ताची प्राय सरिसुमार ४५). आतांचेपरीं जटपट मोगार पडचो काळयी न्हय; मोगार पडल्यारयी – 'आसों, आतां मोगार पडानास्ताना आनी केदळा' म्हण सांग्चो वेळयी न्हय.

## म्हाताळो

स्त्री, भुरग्यांक जल्म दिंव्चें मेशिन आनी दादलो, मनिस न्हय बदलाक मोन्जात म्हण्ची मनोस्थिती आप्णायिल्ली चली, फेलसिता. हाका लागोन ती दादल्या–द्वेशी जाताना घडितां वग्र घडितां विणतात. पुण नीज कुटमा वरतुलांत 'घरकार म्हळ्यार देव' म्हण्चें लिसांव काळ्जागुंडायेक रिगताना तें घोवाच्या नीज मोगार पडटा. आप्णाक नेण्तेपणाथावन जाण्तेपणाक पावयिल्ल्या नोवर्याक तें काळ्जांतून म्हणता 'मोगा म्हाका शिकोय' ह्याच मोगाचो भांद जाव्न तें जोवळ्या भुरग्यांची आवय जाता.

## पादरीकरण

कादंबरी, दादलो–स्त्री मोगाचे उबेन सुरवातुन संपता तरी पादरीकरण, क्रीस्तीकरण, पवित्रीकरण, उपदेशीकरण, वांजेलीकरण चुकल्लें ना. देकुन मोगाची ऊब आसल्यारी खंयसरी मोगाची बोब आनी उचांबळाय घडाना. हर घुंव्डेंर कोंत, माग्णें, बेसांव, सां बोस्त्यांव (बेंदुर), तेर्स, इगर्ज, पात्की स्त्री, वांजेल, देवाची खुशी, रजार, भोग्साणे, दयविक प्रेरण, मागणें–आंगव्ण, पात्काथाव्न पर्तवणे, आंज, राकण भडवे, शिक्शा आनी इनाम, अर्गां, देवाचीं महिमां चुकल्ली ना. क्यालिकट गेल्लेवेळीं लुविचें पिशें निवरांव्क खंचोयी उपाव मेळनातल्लेवेळीं डो।मारगरेट ऐका मातार्या याजकाद्वारीं आयुरवेदिक ओकत दिता. वांजेलाची वोल पांगुरल्ल्यान कोण खंयसरी लंग्यिकपणी उद्रेकित जायनांत वा 'सेक्सी' दिसनांत. सग्ळे पात्र आनी संदर्ब पुरुत्यान क्रीस्तांवच.

## पात्रीकरण

पात्रांची खातड ना. विंचुन बसयिल्ले थोडेच पात्र. देकुन, नाटक जाव्न रुपांतर करुंक सुलभ. मुकेल पात्र चली/स्त्रीयेचो – फेल्सिताचो. ताचे बग्लेक नव्रो लुविस शेणय (ऐलोशियस). नोव वास्रां उपरांत ऐक मेल्यारी परत आन्येकाक तयार आस्ची भुर्ग्यांक जल्म दिंव्ची फ्याक्टरी ऐलिजामी. मागवोल्पी आनी कोणा कोणाच्या व्हडपणांत आप्लिच शाबास्की भोग्चो पिंवडो, लोर्साम. डो। मारगरेट, तिचो बापय स्मिथ साय्ब, नर्स पाव्ला क्रिश्चियन आनी लिंगफील्डाचो पुत ऐड्गर सकारात्मक आनी बळ्वंतकायेचे पात्र जाव्न भोंव्तात. मोनिकाबाय, गांव्चो दात्तेर, रांदिपण कोंसेसामी, क्लार्क मोण्णा, आपलें सादेंपण दाकव्न वेतात. भर्ती अर्दे काणिये उप्रांत (१९ अवस्वर) ऐकाचाणे खळनायकांचो फुंडुच उडकी मार्ता. तांतुं ब्यांक मेनेजर लिंगफील्ड, ताचो बोटलेर, डो। लांबी आनी ताचो सहायक जुगारी, घुटमळ, कुतंत्रां, आब्लेसपण घेव्न लुविक 'ततकालिक'

पिसो कर्नात. पिसो जाल्ली आवदिच उडासांत उगनाशें करून नवी दिशा लावना. अपरूपायेन फेल्सितार्ची भाव-भर्णी आनी घटावयल्ले कार्मेल्ली झळकानात. लुवी-फेल्सिताचो माल्घडो चेर्को भोव थोडेच आल्देक जिवंत आसल्यारी एक विशेस संकेत जाल्न उर्ता. ताचें नांव सय्स येना तरी आप्ल आवश्यक सुमार्शी लिसांवां तो शिकय्ता. एका संदर्भांत तो इल्ल्या एकारार्ची बुन्याद जातार्को तीन दिक्कांनी गेल्लीं लुवी, फेल्सिता आनी डोमारगरेट एकेच्च सांजेर ताच्या फोंडालागीं पावतात आनी जिणिय लिसांवां शिकतात.

## क्रांती आनी स्त्री शक्तीकरण

रोम्यांटिक न्हय तरी त्या वेळार मोगा आदारीत संपूर्ण कादंबरिच एक हळटाची क्रांती - नेंयी पतेदारी/चारित्रिक संप्रादायथाल्न विंगड वचोन. त्या तांनूं पुरूश प्रधान समाजिंत स्त्री शक्त आनी क्रांती एकाच वेळार घडता. आवयपणाच्या जेगल वर्तुलांत फेल्सिताची दीश्ट 'बालिश' दिस्ता. तरी इजना वयर भुग्यांच्या आवयपणांक विशेस मान आसल्ल्या काळार काजारच नाका, जाल्यारयी भुर्गीच नाका, गुरवातार म्हळ्यार दादल्यांची खरिमस्न आनी स्त्रीयची खुरसावाट म्हण चिन्त्चें; एक थराचें क्रांती सवें 'आंक्वार वोकल' जाल्न गेल्यें विशेस. काजार म्हळ्यार चाकरी, जेव्नराचें हार्ती बायल खैदी, भुरगें म्हळ्यार दादल्याची गुलामगिरी म्हण चिंताना भुरगें जाताना 'म्हाका नाका आसल्लें घडलें' म्हण धयरान सांगचेंयी क्रांतिच्च. हे क्रांतींत स्त्री, दादलपणाची खरिमस्न कांटाळता आनी आप्ल्या गर्भाक थालें मार्ता. पुरूश, कुतंत्री आनी आक्नेशी जाताना डोमारगरेट आनी पाव्ला क्रिश्चियन मन्शापणाचो गांच आनी राकण भडते जातात.

## काणी आनी शिखर

तोंटागार ग्रेस्त लुवि दुबळ्या फेल्सिताचेर मोगार पडटा तरी तिच्या नेणारपणाच्या दिश्टाव्याक लागोनंच ३५ अवस्थ्यांची आनी १८३ पानांची कादंबरी घडटा म्हणाजे. घुंव्डयां वय्र घुंव्डयो येव्न बेंदूरथाल्न चिकमगळूर घटाक चडोन आक्रेक केरळा - क्यालिकट वचोन येव्न काणी घटावयल्ले कोडिनंत संपता. आक्रेच्या दृशांनी नाटकाचे वेदिपरीं सगळे मुकेल पात्र येव्न जमतात. शिखरांत, नेणारपणान अनाहुत घडलें म्हण धुवेक कळटाना आवय-धुवां (एलिजामी-फेल्सिता) मदलें पय्सापण (psychological distance) निवार्न राजी जातात; अनितिची जोड तोंडांत घाल्ल्या गोब्रापरीं जाताना सत आनी धर्म जिक्ता. बर्या-वायटा मध्ल्या झुजांत पाल्काक शिक्शा मेळटाना रूण फारिक जाता. गरिश्ट उजो आसल्लें फेल्सिता नव्या कळेन, नव्या रंगान आनी नवे उडिचे चालिन भरोन येताना 'भरल्लें चंद्र' वर्तता.

## द्वंद्व आनी विपरयास

स्त्री, काळजाची भास जाताना दारूणायेची खरसयी दाकय्ता. काजारी-ब्रह्माचारी, मन्शाकूड-रुका कुडको, मोग-बूद शिकंव्ची+राग, इश्टागत-दुसमन्काय,

दुब्ळ्याचें आंग्लें-ग्रेस्ताचो बोंग्लो ऐक जाता. भुरगीं देवाचें आशीर्वाद - दादल्याची खरिमस्त.....

## भास, शैली, निरूपण, भांदावळ

. बोव सरळ आनी व्हाळत्या भाशेंत्ल्या कतेंत घुंण्डयांची रासच, खातडच. मुकेल घुंण्डयो - राग, मोग, १०-वो बांळ्टेर, नाभलायकी, पतिणेचे कायदे, निराशेन उब्जाल्लो बाटले सांगात, लुवी बोंग्ल्या भाग्र, सग्ळें चलियेच्या हातांत, वोरोड-बांळ्टेर, भुरग्याचो हुस्को - दूद ना, चेरक्याचें मरण, लुविस नपंय्च, खळनायक, जाहीरात, क्यालिकट, उजो, लिंगफील्डाचें मरण, लुविस मुस्लिमाच्या वेसार, कोड्त, तन्की, जोवळीं भुर्गीं....काणी धांव्ता आनी वाचपियी धांव्ता. सुरुवातेर १०-व्या बांळ्टेराक वचुन वांचोन उरल्ली ऐलिजामी काणी संपताना ११-व्या बांळ्टेराक रेडी. ऐकाच वेळार आवय आनी धुवेचो बांळ्टेर जाता. लांब उलवप आनी भाशणां नांत. भाशेची सोभाय थंय थंय उजळ्ळ्या, देकिक : अंत्रळार मोडांचो माटव, काळ्या मोडां भंव्तीं रुप्याळी देग, घर उज्वाडांच्ची चिम्णी, कांटाळ्याचें किटाळ, काजार म्हळ्यार कांटयांचें बिचाणे आनी आनंदाचे गुलोब...इत्यादी.

## कतांत्लो संदेश, आदेश, उपदेस आनी उब्देस

ऐलिजामी नेणारपणान पतिणेचो काय्दो पाळ्ता तर फेल्सिता नेणारपणान अनाहुतां घडय्ता. मन्शा संबंद सुमारशा संदर्भांनी विप्रीत भावनात्मक (सिंतिमेंताळ) जाव्न दुकांच्यो न्हयोंच व्हाळ्ताना कांय केन्ना सन्निवेश नाटकीय, फिल्मीय आनी अवास्तवीक गम्तात. फेल्सिताच्या काजाराक दिल्ल्या साव्काराचे भलायकेंत नव्या जोडयाक माल्घडयांप्रास व्हड कुटम, अंत्रळावय्ल्या नेकेत्रांबरी आनी दर्यावेळेरल्या रेंवेबरी भुरगीं-बाळां माग्ताना 'पर्नो खरार' उघडता. काजराचो साक्रामेंत ऐकामेकाक पूरक जाताना ऐडगरा तसले अनितिचे कातकुरलेक लागोन बापयथाव्नंच पय्स रावोंक तयार. काजार म्हळ्यार दादलो-स्त्री पूरक जाव्न जियेंवची प्रक्रिया अशें वर्तव्ताना स्त्रीसांव वा स्त्रीवादाची ऐक सुरुवात हांगासर घडटा म्हळ्यारी चूक जाय्शें ना. ऐक दोन सवालां आजून उर्तात. फेल्सिताचो राग दादल्यांचेर? घोवाचेर, दाक्तेराचेर? ताचेरच अक्खी काणी ऐक नासम्जणी (नेणारपण) वा दिश्टाव वा राग वा क्रांती?

## संपदकाचो सुचाव

कानडी लिपियेची वळक-झळक नास्लेल्या वाच्प्यांक हो प्रबंद ख्होलायेन सम्जोंचो ना कित्याक ही कादंबरी कानडी लिपियेंत आसा. परिसंवादा खातिर उलव्यान तयार केल्लो संक्शिप्त हो जाल्ल्यान चडितायेन हो विस्कळांव्क आम्च्यान साद्य जालें ना.



# कादंबरी आनी कादंबरी कर्त तेग बरव्पी, तीन बर्पा/कादंबरी २९ आगस्ट २०१०-वेर चलल्ल्या सिंपोसियमाची एक समीक्षा

रेगाम नाकोंडें
(दो। रिचर्ड रेगो, जे.स., निर्देशक
'सारंग' कम्यूनिटी रेडियो, सां. लुवीस कोलेज)

सां । लुवीस कोलेजिचो कोंकणी संस्थो आनी साहित्य अकादमी, न्यु डेल्ली, हाणीं मांडून हाडलेल्या ह्या सिंपोसियमांत तेगां कोंकणी चिंन्पियानीं कानडी लिपियेंत्ल्या कोंकणी साहितांल्यो तीन उंचल्यो नवाल काणियो आम्कां अर्थ करून, तिळून, वग्ळ पळेव्न सांग्ल्यात: जो.सा.आल्वारिसाची 'आंजेल', विजेपी सल्डान्हाची 'मोगा म्हाका शिकय' आनी मानेस्न रड्रीग जे.एफ. डिसोजाची 'हांव जियेनां. ह्या तेगांनी ह्यो तीन कादंबरियेंची काण्येस्न, बर्पा रीत/शैली, बर्पा संदर्ब, उत्रांवळ आनी दीग विमर्सो दिला. ह्यो वेवेग्ळ्यो सग्ती ह्या तेगां काणियागारांचेर नवोच्च उज्वाड फांकात.

काणी वाच्ताना आमी विविद थरांची प्रतिक्रिया दिव्येत. इंग्लेज विमर्श्यांत थोडयो स्थापित रिती आसात. म्हळ्यार वाचप्यान आप्लें गमान काणी बरवप्याचेर खंचव्येत: वा ताणे किर्ते सांगोंक आशेल्लें, ताच्ये मनिंत किर्ते आसलेलें जाव्येत इत्यादी; वा काण्येचो विन्यास मनीं धरून आटव कर्येत.

- वा काण्येंत किर्ते सांग्लां, किर्ते विषय आसा, सांग्लेल्याची रीत, सुरूप कसलें, अशें 'फोर्मल' रीत.
- वा, चडित वाज्वी म्हण्चें तर, वाच्पी–वाच्पा संबंद. इंग्लेजांत हाका रीडर-रेस्पोन्स क्रिटिसिसम म्हणतांव. आर्विलो वाच्पी–वाच्पा संबंदित विमर्सो सुमार १९६०–७०–व्या धाकडयाथाव्न सुरू जालो. नोर्मन होल्लंड, स्टान्ली फिश, वुल्फग्यांग ऐसर, ह्यान्स रोबर्ट जोस्स, रोलां बार्थ असल्यांनी आनी चड करून ऐ.ए.रिचडर्स (१९२९)–न ह्या विशीं बरेंच काम केलां.
- हेरांनी 'जोक्ती प्रतिक्रिया' दींव्क वा शिकंव्क पेचाडचें सार्कें न्हय. जें एक्ल्याक 'जोक्तें' म्हण भग्ता तें खर्यांनंच 'जोक्तें' जाय्जय म्हण ना. बदलाक एका वाच्पान आप्ल्या आप्ल्या वाचप्यालागीं कसलो संबंद रच्ला, कसलो संवाद चलय्ला, कसलो बांद बांदला तें गर्जेचें म्हळ्यार आमी बरवप्याथाव्न ताचें बरप सुटव्न पय्स वरून ताका नवो जीव दितांव. त्या वाच्पाच्या मट्टाक त्या बर्व्पाचो मूळ बरव्पी आनी ना! किन्याक, आनी फुडां,

त्या वाचप्यवर्वी ती कृती उबी जाता.

• वाच्पी-वाच्पा संबंदांत मेल्ली कृती जिवंत जाता – आनी आपल्या व्याक्यानाद्वारीं तो अर्थ संपूर्ण कर्ता. वाच्पी त्ये काण्येलागीं संबंद दवरचे द्वारीं आपल्या पुस्तकाक नवो जीव दिता. हें अनूक, पाठ-थळित करप. आय्चे चडावत विमर्शे ह्ये वाटेनंच मुकार सरल्यात.

<u>मानेस्त एडवीन जे.एफ. डिसोजा</u> – जो.सा. आल्वरिसाच्ये 'आंजेल' कादंबरींत कितें देक्ता (काणी), कशें ती काणी दुस्रें म्हाझुज आम्च्या दोळ्यां मुकार हाडता तें आम्कांच विवरिता. १९३५-४० नंतर जल्माल्ल्यांक म्हाझुज एक नवो अनभोग – आमच्या पय्कीं चडावत कोणेंच हें झुज पळेंव्क/भगूंक ना. पुण जो.सा. त्या वेळार जियेल्लो; दुसऱ्या म्हाझुजावेळार मुंबयंत टेलेफोन कंप्णेखातीर काम केल्लो मनिस तो. त्या झुजावर्वी ताका एक डीसेंट काम, बोल्सांबर आनी चिंत्लेल्याच्याकी चड सांबाळ आनी फुडाराची खात्री मेळ्ळली. झुजान ताका एक जियेव्पाची भिरांत उदेशी केली तरी बरो आनी प्रतिष्टेचो फुडार रचून दिलो तें मतिंत दवरुंक जाय; तें काणियेंतयी आसा. जाय पुर्तो विवर दिंव्चेतित्लो झुजा विवर हांगा ना; तसली चारित्रीक काणिंयी ती न्हय.. 'बरें कोंक्णी वाचप लाबंवच्याक आनी आप्लो 'आशेल्ल्याक निशेल्लें' नाटक तिरस्कार केलल्या 'कोंक्णी नाटक सभा' हाचेर जिद्दान, आप्ली बर्पाशाथी उजार करुंक बरय्लली काणी ही.

झुज संप्ल्या उप्रांत आप्णाक काम आस्चें ना; झुजापय्लें मटव्ये आव्देचीं कामां मेळ्ळीं तरी पांच पाव्टीं बेकार जाव्न, आतां स-व्ये पाव्टीं आपूण बेकार जातोलों म्हळ्ळी भिरांत आस्ली. पुण झुजावर्वी आनी आपल्ये थिरासाणेवरवीं जोसाचें काम आनिकी घट जालें! पुण हेर सर्व कडेन झुजाची म्हार्गाय, कठिणाय ताका रुपूब पळेंव्क मेळ्ळली. ही झुजाची धग आंजेलाकी लाब्ल्या. झुजाच्ये म्हार्गायेन आंजेल (रोफी)-चें कुटम विशेस कष्टांक वळग जाता. पुण निमाण्या हंताचेर, त्याच झुजावर्वी आनी रोफीच्ये पाटीं पर्तव्णेवर्वी आंजेलाच्या कुटमाकी जाल्लें बरेंपण वाचप्याक वाचूंक मेळ्ता. एक्ये रितिन ही जोसाची आप-काणी म्हण्येत. जोसान आपल्या कुटमासंगी भग्लेल्या कष्टांची कथा. ताणे बरय्लेली (आनी कानडी कोंक्णेंत वाच्लली) पय्ली नवाल काणी – ताच्या आप-अन्भोगाथाव्न मेक्ळोंक साद्य आस्चें ना. जोसाचे मयपासी पुण कठीण आवय्क आनी रोफीच्ये आवय्क (पुण तिची कठिणाय आंजेलाथंय चडित दिसोन येता कित्याक तीं दोगां चडावत सांगाता पळेंव्क मेळ्तात) हांगा पळेंव्क मेळ्ता. रोफी थोडोच वेळ काणियेंत दिष्टीक पडता. अशें ताची आम्कां चडित वळक ना. जो.सा.यी तशेंच. विशेस जाव्न रोफी-आवयचो संबंद एक्ये वाटेन तर जोसा-आवयचो संबंद आन्येक वाटेन. हें साद्या वाच्प्याक (चड करुन ताची आप-कथा वाचून नात्लेल्याक) जांव, एडवीना तस्सल्या माल्घडया साहितिक जांव

दिष्टीक पडोंक ना म्हणताना हो एक लिप्नो विशयच म्हणोंक जाय.

आप्ली भास आनी अलंकाराच्ये दिष्टीन 'आंजेल' कादंबरी 'अव्वल' म्हण एड्वीनाचो वाद. हांतुं दोन उत्रांनांत. वालिच्ये निबान धांकाक उदक तसल्यो अबिवेक्ती फकत अलंकारिक मात न्हय, मान्येच्ये मुरीन दोळळल्यो. एक्ये संगेक बरेपण करूंक जाय; पुण त्ये वर्वीं दुस्रेकयी मस्तु बरेपण जाना; पयल्ये शिवाय दुसेंक जातेंना! बरोच कष्टांनी आनी मार्ती मुड्डन जियेल्ल्या जोसा-क ह्या भाशेचेर बरोच ताबो आस्ललो म्हणोन सांग्ची हेर गर्ज ना. नवळचे मंगळुरी संस्कृतेक, जिणिये रितींक आनी भाशेक 'आंजेल' काणी एक आर्सो.

<u>*फा। फ्रान्सिस रोड्रिगेसान*</u> वेवस्थित थरान 'खडापा'च्ये काणये आटवाक बुन्याद घाल्या: 'मोगा म्हाका शिकय' - १९७१ इस्वेंत खडापान बरयल्ली मोगाची काणी. कादंबरिकार आनी कादंबरी विषयाचेर आप्ले विचार मांडून, पयले खडाप म्हळ्ळ्या विजेपी मल्डानाक बुन्याद घाल्या. तो कोण, ताची चारित्रीक वळक आनी स्थिथी किनें, 'मोगा म्हाका शिकय' काणी बरयल्याचें पाटथळ किनें असलें उस्तून आम्चे समोर पाल्डाय्लां.

'मोगा म्हाका शिकय'-चो मानाळो, पात्र, चारित्रीक गरजो (धर्मीक, कुटमा मोलां, बाय्लेचें स्थान-मान तसल्यो नेमेम्स्टिम) काण्येंचो रच्पीक (फोर्मल) विमर्सो, तशेंच काण्येंत्लो खडाप आनी ताचे विवर फा। फ्रान्सिसान सोबित रितिन विवरिल्यात. जोसाक आस्लेल्ये परीं, खडापाकयी भाशेचेर बरोच्च ताबो आसा; ताची भास मोगाची, पुण खंच्ये घडये कसल्ये परिगतींत कसली भास वापारूंक जाय (आनी त्ये भाशेची मीत खंय आकेर जाता) तें खडाप बरेंच जाणां तें कळोन येता. देकुनंच फा। फ्रान्सिस विवरिता: मोगाची ऊब आसा तरी बोंब आनी उचांबळाय ना! तेंवी सार्कें.

<u>*मानेस्त डोल्फी कास्सियान*</u> एड्वीन जे.एफ.डिसोजाची काणी '*हांव जियेनां*'-चेर उज्वाड फांकय्ला. साद्या वाचप्याक वाचूंक थोडया कष्टांची म्हण्येत तसली काणी ही. १९७३ इस्वेंत पयले पाव्टीं ही काणि पर्गट जाताना, चडावत प्रतियो घराच उल्यों म्हण एड्वीनान सांग्लां तर, ही काणी वाचूंक कोंकणी वाच्पी त्या वेळार तयार आस्ललोगी म्हळ्ळें सवाल उदेना. तसल्ये काण्येचेर डोल्फी कास्सीयान उज्वाड घाल्चें प्रेतन केलां. विशेस जाल्न एड्वीनाच्ये नीक आनी अनूक शैलेचेर चडित गुमान वाटय्लां. विक्टराचें वेक्तित्व चिंन्पाचें तें दाकव्न दिलां

<u>*स्त्रीवाद वा फेमिनिसम:*</u>

फा। फ्रान्सिसान दाकव्न दिलली पुण चडित लांबंव्क नात्लली आन्येक कूस जाल्नासा - स्त्रीसक्तीकरण वा फेमिनिसमाची वोळ. कोंकणेंत गंबीर थरांची कसलिंच 'इसमां' येंव्क नांत म्हळ्ळो म्हजो वाद. तरयी कोंकणी साहित्याच्या बाळपणारच्च खडापान एक बळाधिक, मनांत उरचे तसलो बाय्ले पात्र रच्ललो मेच्वणेचो. तो मात न्हय, आस्लल्या ल्हान एका नांव नात्लेल्या पात्रामुकांत्र

फेल्सिता-लुविचो सर्ललो भुर्गो) काण्येक एक विशेस घुंव्डी दिल्या: हो भुर्गो, फेल्सिता, डो। मारगरेट असले पारंपरीक उण्यापणाचे पात्र आमच्या मनांत खंचोन उरतात; पुण फेल्सिताचो, गर्व उलव्वी पियेंडो बापय आमच्या मनांत उराना.

१९६० आनी १९७०-वो धाक्डो जर आमच्ये मतिंनी उबो जालो तर त्या काळार एक्ये बाय्लेन आप्णाक भुर्गी नाकात म्हण दादल्यालागीं झगडचें विचित्र दिस्ता. आम्ची समाज आजून भुर्ग्यां-केंद्रीत; कुटमाक गुमान कर्ची. पुण सुमार चाळीस-पन्नास वर्सां आदल्ये एक्ये स्त्रीयेन दादलो एक लंय्गीक मन्जात, आप्णाच्ये खुशेपासून स्त्रीयेक वापर्चो स्वार्थी आनी एक बाय्ल दादल्याच्ये आप-खुशेक खाल जांव्चे, भुर्गी कर्चें 'मशीन' न्हय; देकून आपूण काजर जाय्ना, दबावाक लागून काजार जाल्यारी आवय जांव्चीं ना म्हण हटान रांव्चें एक उटोन दिस्चें सत.

दिगायेन सांग्चें तर, ह्ये काणियेंतल्या स्त्री पात्रा तसलो घट पात्र खंचोच ना! फेल्सिताचो नोव्रो लुवी भोव बरो मनिस. पुण काणी वाचून जाताना आम्चे मतिंनी खंचून रांव्चो पात्र फेल्सिताचो आनी डो। मारगरेटाचो. फेल्सिताच्या पात्राक घटाय आनी बळ आसा. कसल्याच अड्कळी विरोदयी तें आप-सक्तेन झुजोंक तयार.

जो.सा.आल्वरिसाच्ये आंजेल काणियेंत स्त्रीवादाचो बरोच वोसो आसा म्हण्येत. एक्ये दिश्टिन पळेंव्चें तर, आंजेल काणियेंत दादल्याचो पात्रच ना म्हण्येत! दादलो रोफी दिष्टीक पडता - पुण ताचो पात्र, पात्र जाव्न उराना. जांव चिंगु वा शेणय वा हेर कोणंच्य उग्डासांत उरचे तसलो दादलो न्हय. चिंगु, आंजेलाचे मार सय्तयी खाता!

कष्ट येताना रोफी आपल्ये नेण्त्ये बाय्लेक आनी आवय्क सांडून पय्शे करच्या निबान वेता; तशें गेल्लो तो गरज आस्तासर पाटीं येंच ना! ह्या वेळार आंजेल सर्व ताळ्णेंक फुड करुन, आपल्या नाफावो घोवाक विश्वासी जाव्न, पुरपुरया देंव्चारा तसल्ये सासुक सोसून-पोसून जियेता. एकच्च एक घडी लेगून तिका घोवाचेर वा सासुचेर दुबाव ना; आपल्या फुटकर नशीबाचेर शिण ना. कष्टां मधें संतोसाचें आनी स्त्री प्रतिष्टेची जिणी जियेता तर, तिची अस्मिताय सग्ळ्ये कादंबरियेंत भरोन येता. देकूनंच म्हणचें 'आंजेल' एक अस्मितायेची काणी.

*एडवीन जे.एफ. डिसोजाची 'हांव जियेतां' काणी हांवें हैस्कूलांत आस्ताना पय्लेपाव्टीं वाच्लली. तवळ, सम्जली म्हण चिंत्ले; पुण वीस वरसां उप्रांत फिलोसोफी शिक्ताना म्हाका सम्जलेंकी तवळ ती सम्जोंक नातली म्हण! जां पल सात्र (Jean Paul Sartre) आनी हेर अस्मितवादी फिलोसोफरांच्या बोंदेराखाल (विशेस जाव्न 'बीयींग एंड नतिंग्नेस' - फिलोसोफी पुस्तक तशेंच 'नॉसिया - कादंबरी) ती परत वाच्ताना ह्यो काणियेचो थोडो अर्थ जालो. फुडच्या थोडया वरसांनी इंग्लेज काण्येगार्न आय्न रॅंड (Ayn Rand) हिच्यो 'फंवटनहेड'*

आनी 'एटलास श्रग्ड' कादंबरी वाच्ताना 'हांव जियेतां' काणियेचेर थोडो चडित उज्वाड फांक्लो.

'हांव जियेतां' अस्मितिसांव (existentialism) आनी वस्तुविसांव (objectivism) ह्या चिंत्पा रितिंनी प्रभावित जाल्या. ह्या दोनयी रितिंचो फुगो वा फोकस (तीब) एकुच्च: वेक्तिचें स्वतंत्र. स्वतंत्राद्वारीं मनिस अस्मिताय चाक्ता म्हणतात अस्मितवादी. स्वतंत्र न्हय तर, मनिस, मनिस जायना! मनिस जियेना! Man is condemned to be free म्हणता जां पल सात्र.

आयन रॅयांडाची फिलोसोफी अस्मितीसांवाची. हातुं मतिच्ये जिणियेंकच मुक्त वांटो. बुदीक पिरमेडेंच्या तक्लेर आसचो मनिस, आपल्या सकयल आस्च्या सर्वांचे गर्जेक दरबस्त देण्गी दिता; पुण पिरमेडेच्या मुळांत आस्चो मनिस ह्या तक्लेच्या मन्श्याच्ये कुडीक गरजेंचो शिवाय बुदीक गर्जेक कितें बरपण दीना. बुद्वंत आनी उण्या बुदिंच्या मदें असलो स्पर्दोयी आस्ना – फक्त थळांत्लो मनिस मात उप्कार जोडता, शिखरावयल्या मन्श्याचो वापर करता! आयन रॅयांडाच्ये फिलोसोफिची आन्येक धार–की मन्श्या अस्मितायेंत मन्श्या मतिचो पात्र.

देकून, 'हांव जियेतां'–तल्या विक्टराक, 'टोनी' बिल्कूल एक प्रतिस्पर्दी न्हय; तो बुदिक देळ्याच्या मुळांत आस्चो किरकोळ (insignificant) मनिस – मनिस म्हणोंक फावो न्हय. पुण मतिजिणोयेंचो 'हेल्गा', विक्टराचे मती जिणियेंत रिगोन एक जांव्क सक्ता. हांगा कुडीक मतीक तशेंच मासाळ आनी स्पिरिताच्यो वोडण्यो वेवेग्ळ्यो न्हय; तांतुं एक्पण आसा. हाका म्हणचें आप–खरिकायेंचो, एक मट्राच्या मन्शांचो संबंद, बांद. वाचप्याक एकेंणे हातुं कितेंच समाजिक मोलां/नप्तिकाय नांच म्हण भोगुंक पुगो. पुण 'हांव जियेतां'–त्लो नप्तिकाय हांव काराची नप्तिकाय! ती मतिचो नप्तोकाय – बळवंतांच्या राजाक ओप्वोंची नप्तिकाय न्हय. असल्या आप–नप्तिकायेंत विक्टर जियेता – हर घडी नाचो जल्म जाता. मन्श्याचें मन्श्यापण आप/स्वार्थी नप्तिकायेंत फळसाना शिवाय, हेरांनी मन्श्याक बांदच्या मोलान न्हय!

आंजेल, मोगा म्हाका शिकय आनी हांव जियेतां – ह्यो तीन काणियो विभिन्न. एकामेका सामान्य म्हणचे तसलें हातुं विंचूक कश्ट. कांय उटोन दिस्चीं गजाल आसा तर तो जाल्लआसा फरक! पुण ह्यो तीन, कोंक्णेच्या माल्घडयां बरवप्यांनी बरयिल्ल्यो काणियो. ताणीं बरयिल्लो परिस्थिती, बरयणाराची मनास्थिती आनी आज आमच्येलागीं संबंद जोडची रीत – जर आमी आमच्ये तसल्या वाचप्यां पासून पाल्हाल्न दवरूं, वाच्पाक चडीत रूच मेळ्ळली.



# कोंकणी रंगमंच - फुडली दिशा

ाहित्य अकादमी, न्यू ढेल्ली आनी गोवा कला अकादमीन आसा केल्लें कारयाशाळ
गोंय २४ आनी २५ ऑक्टूबर २००८

# पयलो प्रबंद - कोंकणी रंगमंच्याची आधुनिक स्थिती स्वतंत्र संहिताच्या संदर्भांत

डो। प्रकाश रमाकांत वज्रीकर, गोंय

गोंय मुक्ततताये उपरांत किसान कामत, अशोक कामत, विनय मुर्लकार, रामकृष्ण ुवारकार आदी लेखकांनी नाट्य प्रकार हाताळटाना कोंकणी रंगमाचयेची गरज ागोवपापासत यत्न केल्लो दिसता. खासा करून रामकृष्ण जुवारकार, विनय मुर्लकार ांचें कार्य उर्बा दिवपी आसा. 'बंदखणीचीं देवळा जालीं' हें नाटक घेवन येवपी अशोक ामत हाणीं ह्या प्रकाराकडे मुखार कित्याक आडनदर केली हाची निश्चीत जाप नाट्य ायोगशीलतायेंतलें वा स्पर्धेंतलें अपेस ही जरी आसली तरीय ताणीं साधनेन हो प्रकार ाुखार व्हरूं येतालो.

गोंय मुक्तताये उपरांतचे राज्य सरकाराचे सास्कृतीक उपक्रमूय कोंकणी नाटकाक ोशक थरल्यात. तातूंत गोवा कला अकादेमीचो व्हड वांटो आमाच पूण तेच वांगडा ाहित्य अकादेमीचे मान्यतायेक लागून अकादेमीच्या नाट्य शिबिरावखीं उदेंत्या नाटककारांक राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या नाट्यमळावेल्या लोकावांगडा 'नाट्यानुभव' घेवपाची संद मेळ्ळी। कृतीसत्रांच्या माध्यमांतल्यान लेखकांक उर्बा मेळ्ळी आनी तातुंतल्यान कांय नाट्यकृती जल्मल्यो हेंवूय मतींत दवरपासारकें आसा. कोंकणी नाटक हें स्वाभिमानी, कलावंतांनी घडयल्लें व्यक्तिमत्व विकासाचें व्यासपिठ म्हण पळयताना कांय हेर गजलींचोय उल्लेख करप गरजेचें दिसता. गोवा कला महाविद्यालय, कला अकादेमीची नाट्यशाळा, अखील भारतीय पावंड्यावेली कोंकणी साहित्य संमेलनां, परिषदो अश्या भास, साहित्य, समाज आनी संस्कृतायेचें भान दवरुन दिका दाखोवपी मंथनांतल्यान कोंकणी नाटकूय वता हें हे चळवळीचें खाशेलेंपण. म्हत्वाचें म्हळयार गोंय मुक्तताये उपरांत गोंयचे उत्सवी मराठी रंगभूमीक जबरदस्त पर्याय म्हण कोंकणी नाटक आयलें। ताचें आनी एक कारण म्हळयार कोंकणी चळवळीचें जावपी बहुजनीकरण, आत्म साक्षात्कार, स्वाभिमान, प्रादेशीक अस्मितायेची राखण करुनूय विश्वात्मक पावंड्यार वचपाची कोंकणी मनशाची मोख. ही मोख सादताना कोंकणी नाट्य लेखक पयलीं फायटर आनी मागीर रायटर हे अवस्थेंतल्यान

गेल्लो दिश्टी पडटा.

रंगभुमीची जाणविकाय जाल्लो कोंकणी लेखक कोंकणी नाटकाच्या मळार आयलो ताका माथ दिवपी कलात्मक भान आशिल्ले रंगकर्मी मेळ्ळे बदलपी आधुर्नीक विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाचो स्विकार ह्या घटकांनी केलो आनी ताका लागून प्रेक्षकवर्गाक वेळाकाळाक जाय तें प्रादेशीक भाशेंतल्यान लोकांमेरेन कलात्मक रितीन पावयलें. जाची नोंद राश्ट्रीय तशेंच अंतरराश्ट्रीय पावंड्यार घेतिल्ली दिश्टी पडटा। बाप्पा आनी ह्रनिवाय आनी बांगडे हांच्या भायरूय कोंकणींत विशय आसात ते बांगड्यांचे कडयें परसूय अर्दाक लोकांकडे पावतात हाचें भान दवरून कोंकणी लेखकांनी स्वतंत्र नाट्य निर्मणी केली. हें करताना तार्णी प्रेक्षक जो म्हत्वाचो घटक आसा ताका गृहीत धरूंक ना. प्रायोगीक नाटकां वरेवपाची प्रवृत्ती लेखकांनी आपणायली. कथा बीजाचो एकांकीत विस्तार, मुखार नाटकांत विस्तार ही प्रक्रिया कोंकणी नाट्य लेखकांनी जैतिवंत रितीन आपणायल्ली दिश्टी पडटा. उत्सवी रंगमाचयेची सुवात घेताना कोंकणी नाटक हे फकत देवाच्या पायांकडेन हे श्रध्देनूच न्हय तर 'नाटक कशें आसता' हे प्रेरणेन आयले ताका लागून नाट्यकर्मीची पत वाडलीच पूण नाट्य लेखकांचीय जापसालदारकी वाडली. बाप्पा ह्रनीवायच्या शापांतल्यान कोंकणी नाटक मुक्त करपाचें काम 70-80 च्या दसकांल्यान नाट्य लेखकांनी केलें.

कोंकणी नाटक निर्मिती आनी वेव्हार ह्यो दोन गजाली आसल्यो तरी कला अकादेमीच्या 1976 सावन जावपी राज्य-नाटक सर्तीचो अभ्यास करप गरजेचें दिसता. 1976 सावन ही सर्त सुरूजाली - पुंडलीक नायकाच्या 'खण खण माती' ह्या नाटकांत कोंकणी नाटकाक सातयेचो वास कसो आसता तें दाखयलें. तोमाजीन्यू कार्दोज हांचें 'अपराधी', एन. शिवदास हांचें 'पिसांट', अनिरूध्द वीर हांचें 'केदी' ह्या चार मूळ स्वरूपाच्या नाटकांनी सर्तीखातीरच्या नाट्य लिखाणाची बुनयाद घातिल्ली दिश्टी पडटा. 1976 सावन आयज मेरेन नेमान नाट्यलेखन करून कोंकणी रंगमाचयेक सेवा दिवपी पुंडलीक नायक हे एकटेच नाटककार. हें जरी खरें आसलें तरीय हेर नाट्य लेखकंनीय प्रयोगक्षम नाट्य संहिता कोंकणी रंगमाचयेक दिल्या हें आडनदर करूं नज. एन. शिवदास हांची 'पिसांट', 'फॉरिन जांवय', 'बंड', 'कारस्थान' हीं नाटकां मूळ सर्तीचे उर्बेतल्यान आयलीं. दिलीप बोरकार हांची 'एका मिन्टापयलीं', 'भरतेभार', 'आण्टीची गादी', 'वर्गशत्रु', अनिरूध्द वीर हांची "केदी', 'वीष मंथन', 'वीथ द वींड', 'वीखासपन', 'ससंड कमिटी' ह्या नाटकांची निर्मणी हेच उर्बे तल्यान जाल्या.

मनोहर भोंसले हांचें पुनर मिलन' गुरुदास बांबोळकारांचें 'मुक्ताई', पंढरीनाथ दामोदर लोटलीकार हांचें 'आशेचो फांस', 'हांगा खून जाला' हें उल्हास बुयांव हांचें

ाटक, तशेंच सुश्रुत मार्टीन्स हांचें 'जळमट', जे.एल. गोयश हांचें 'राखण देव', रवींद्र मशीकार हांचें 'आंकवार काजारी' अशीं नाटकां मर्तीच्या पावंड्यार मादर करपापामत अशा कांय लेखकांनी प्रयोग केल्यात. लोकवेदाचो बाज घेवन विनायक विष्णू खेडेकार हाणीं 'काणी काणी कोतवा', 'जाची पटी ताची नटी' आशीं नाटकां बरयलीं. तर डॉ. अरुण हेबळेकार हाणीं 'ज्यॉनी म्हज्या' हें नाटक बरयलां. कोंकणी सरस्वतीच्या मळार ह्या मारखिल्ल्या नाटकांची संख्यात्मक आनी गुणात्मक भर पडिल्ली आसली तरीय नाटककार म्हण ह्या लेखकांनी आपली वळख घडयली ना. सर्त जाली काय जात्रा उलगले भशेन ह्या आनी अशा कांय लेखकांनी नाट्य लिखाणाक फाट केल्ली दिमता ताचें आनीक एक कारण अशें आसूं येता, ते महळ्यार तांची साहित्य साधना आनी अणभवाचें प्रकटीकरण मुखावेल्या काळांत नाट्य लिखाणाच्या मळार वेवस्थीत जालें ना.

कोंकणी नाट्य लेखकांची सुची काडूंक गेल्यार आयचे घडकेक शंबरेक तरी नांवा गोयांत मेळटलीं. कलात्मक आविश्कार घडोवपी कांय नांवांमदीं पुंडलीक नायक, दिलीप बोरकार, अनिरुध्द बीर, श्रीधर कामत, देविदास बावय, दत्ताराम बांबोळकार, विष्णूवाघ, भरत नायक, उदय भेंब्रो, प्रसाद लोलयेंकार, प्रकाश वजरीकार, जयेश रामा नायक, अविनाश च्यारी, राजय पवार अशीं कांय नांवां येतात. विशय आशय आनी प्रकटीकरणाचे नदरेतल्यान पुंडलीकनायक हांचें नाटक (रासमान) कोंकणी रंगमाचयेक एक देणें थारलां. पुंडलीक नायक स्कूल ऑफ ड्रामा आशी तांच्या नाटकाची मोलावणी डॉ. नंदकुमार कामत हाणीं केल्या. 'श्री विचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठना', 'परिक्रमा', 'शबय शबय भौजन समाज' अशा नाटकांनी सामुहीक पुरूशार्थ जागो करपाचें काम केलां. शबै शबै नाटक लोकवेदाचो रूपकार घडयताना कोंकणी नाट्य चळवळीचें वास्तवांत बहुजनीकरण करपाक खूप मोलाचें थारलां. आपलें नाट्य लेखन आनी तत्सम चळवळींतल्यान पुंडलीक नायक हाणीं रंगवेद निर्माण केला. फाटलीं 30-35 वर्सांची साधना ताका जापसालदार आसा. कथानक, पात्रां, घडणूक, संवाद आदींतल्यान तांचें नाटक ग्राफ घेता. संघर्श आनी संवाद हे तांच्या नाटकांचे प्रभावी घटक.

सर्गेस्त देविदास बाबय हांणी 'घुघूम रडटा', 'वादळाक सुवात जाय', 'पैस घर देवालें' ह्या नाटकांतल्यान आपली नाटककार म्हण वळख घडयल्या. तांचे उपरांत नाटकाच्या मळार दत्ताराम बांबोळकार हाणीं 'शेणिल्लो गांव', 'सं. महिरावण' 'रथोत्सव', 'वेदना घर', 'सत्य माडिडता. . . डॅडी', 'जीवन मोख', 'गे माये', 'रंगयात्रीक' अशा तरेच्या आशय संपन्न नाटकांचें लिखाण केलां. भौसंस्कृतायेचो दिश्टावो ताणीं घडयताना अस्मितायेचो राखणेचो उलो ताणीं घातला. 'गे माये' ह्या नाटकांत वयले वयर जरी कोंकणी-मराठी

अस्मितायेचो वाद जरी दिसलो तरी तांतूंतलो समन्वययवादूय म्हत्वाचो आसा. पुंडलीक नायका उपरांत दत्ताराम बांबोळकाराचें नाट्य लेखनाच्या मळांवेलें योगदान म्हत्वाचें आशिल्लयान तें आडनदर करूं नजो.

श्री. विष्णू सुर्या वाघ हाणीं हो अस्मितायेचो आत्मस्वर आपल्या 'सुंवारी', 'धरण राज', 'दोंगर माथ्यार पेटला उजो', 'फांतोड फुल' ह्या नाटकांनी जागयताना तळागाळांतल्या घुस्मटपी मनशाचें जीवीत चित्रण 'पद्म पडलो बांयत' ह्या नाटकांत केलां. गोंय मुक्ततायेपयलींच्या 5-6 वर्सांचो काळखंड घेवन आंजेल मोंतेरोच्या पात्रांतल्यान गोंयच्या सिर्स्तीस समाजांतलो अंतस्वर ताणीं दाखयताना हे थरार-नाट्य उबें केलां. कल्पीत प्रादेशीकतायेचें उत्कृश्ट चित्रण ताणीं उबें केलां. कोंकणी अस्मितायेकडेन संबंदीत विशय कोंकणींतल्यान प्रभावीपणान मांडूंक शकता हें ह्या मारग्विल्लया नाटकांनी परत एकदां स्पश्ट केलां. समाज पर्यावरण, सांस्कृतीक पर्यावरण हांचें भान दवरून ह्यो नाट्य कृती आयिल्लयान तांकां अधिश्टान प्राप्त जालां.

जयेश रामा नायक हांची 'धरणा दोंगर', 'ना थेया तक थेया', 'षडयंत्र' हीं नाटकां कोंकणी रंगमाचयेर आयल्यांत. तांच्या 'धरणा दोंगर' ह्या नाटकाची बरी नूस्त नोंदणाय जाली. ज्येशान आपली प्रतिभा ह्या प्रकाराक प्रामाणिकपणान ओंपपाची गरज आशिल्ली पूण ताणीं विसव घेतिल्लो दिसता.

उत्कृश्ट नाट्य कलाकार आनी समर्थ नाट्य लेखक म्हण भारत नायकाची 'युगांत', 'राम राम भाऊ' अशीं नाटकां सादर करून उजवाडाक आयिल्लीं आसात. भारत नायकाचीं नाटका प्रायोगीक मुल्यांचीं आसतात. विशयांची विविधताय हो तांच्या नाटकांचो गूण. नाट्य कलाकार, दिग्दर्शक, लेखक ह्या घटकांची जाण आशिल्लयान भरत नायक 'भान दवरून' नाट्य लिखाण करताना दिसतात.

प्रसाद लोलयेंकार हांची 'दिश्टांत', 'अंतर्याम', 'कृष्णायन' ह्या कांय नाटकांनी मिथकांचो वापर केलो. अंतर्मांनांतलो कृष्ण वेगळो तर कृष्णायनांतलो कृष्ण समकालीन राजकी परिस्थितींतले घटक पात्र म्हण येता.

महाभारताचेर आधरीत 'कर्णपर्व' ह्या नाटकांत म्हाकाव्यातल्या पात्रांचो कोंकणी भास-संवाद नाट्यातल्यान सोद घेवपाचो यत्न उदय भेंब्रे हाणीं केला. मिथकांचो उपेग करून नाट्य बीज फुलोवपाची कळाशी पुंडलीक नायक हांकां बरी जमल्या.

लोकवेदाचो वापर करून नाट्य रचना करप्यांमदीं भोवतेक लेखकाचो आसपाव जाता. पुंडलीक नायक, विनायक खेडेकार, कमलाकर म्हाळशी, प्रसाद लोलयेंकार, प्रकाश वजरीकार, अविनाश च्यारी, विष्णू वाघ, जयंती नायक अशीं कितलींशींच नांवां घेवं येता.

गोकवेदांतलें लोकधन अस्तीताना जाणीं ह्या प्रकाराचो अभ्यास केलो ताणीं तो वेवस्थीत मंडलो. 'शबै शबै भौवजन समाज' हें पुंडलीक नायक हांचें नाटक, 'काणी तशी जुनीच पूण...' हें प्रकाश वजरीकार हांचें नाटक, जयंती नायक हांचें 'कुकुमादेवीची दिपमाळ' अशीं नाटकांची वळेरी दिवं येता. लोकवेदाचो उपेग करताना खामा करून मांडावळ आनी सादरीकरणाचे बाबतींत मूळ कथानकाक धरून त्या लोकवेदाकडेन पळयतलो नशेंच लोकनाट्य शैलीचें भान दवरप गरजेचें आसा.

प्रकाश वजरीकार हांच्या 'आनी एक बुटो फुल्लो', 'घट्टाण कोणाचें', 'काणी तशी जुनीच पूण..', 'साद अंतर्मनाचो' आदी नाटकांतल्यान समकालीन समाजमनाचें पडबींब प्रखरतायेन येता. 'आनी एक प्रश्न पर्व' ह्या नाटकांत गोंयच्या इतिहासीक ओपिनियन पोलाचें नाट्य उबें जालां. अविनाश च्यारी ह्या नाटकाचें शास्त्रीय अध्ययन केल्ल्या लेखकान 'एका नव्या विचाराची सुरूवात', 'वधस्थंभ', 'शवेचो बावलो तारीकडेन पावलो', 'काणी एके काणयेची' आशा नाटकांतल्यान लोकवेद' explore केल्लो दिश्टी पडटा.

उल्हास यशवंत नायक हांच्या कांय नाटकांनी मानसशास्त्रीय दृश्टीकोन दिसता. श्रीधर कामत हाणीं 'आय विटनेस?' 'गजाली जिणोच्यो मर्णाच्यो' ह्या सारकिल्लीं नाटकां दिलीं.

बायल नाटककार ही संज्ञा कोंकणींत तितली रूजूंक पावली ना. हेमा नायक हाणीं 'निर्बळा' हे नवलिकेचें केल्लें नाट्य रूपांतर, जयंती नायक हांची 'कुकुमादेवीची दिपमाळ' आनी 'काळमाया' हीं नवींताल्ल नाटकां स्पर्धेचे गरजेंतल्यान आयल्यांत. पूण नोंद घेय सारखी नाट्य निर्मिती बायल बरोवप्यांकडल्यान कित्याक जावंक पावना हो चर्चेचो मुद्दो.

गोंय मुक्तताये उपरांतच्या कोंकणी नाटकाचेर नदर मारताना फाटल्या तीस-चाळीस वर्सांचो हो प्रवास पळयताना कोंकणी नाटकाक प्रवृत्त करपी घटकांचोय विचार म्हत्वाचो. मुक्त अभिव्यक्तीक मोळिल्लो वाव, स्वत्वाची जाल्ली जाणविकाय, कोंकणी चळवळीचें जाल्लें बहुजनीकरण, संवसारीक मळार घडिल्ले विज्ञान-तंत्रगिन्यान मळावेले बदल, राजकी सामाजीक परिस्थिती, कलांकडेन पळोवपाची सौंदर्य शास्त्रीय नदर आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार नाटका सारकिल्लया प्रभावी माध्यमाचो लोकभाशेचे अस्मितायेचे चळवळीखातीर केल्लो वापर. प्रतिभावंत लेखकांनीय वेळा-काळार पोटाक चिमटे काडून हे कलेची केल्ली साधना अशे कितलेशेच घटक जापसालदार आसले तरी कोंकणी नाटक हेंच फकत चळवळ मुखार व्हरपाचें व्यासपीठ न्हय तर तो 'अंतर्मनाचो साद' आसा हें लेखकांनी दाखेवन दिलां. बंगालात जशे बंगाली नाटक, महाराष्ट्रांत जशों मराठी नाटक

तशें गोयांत कोंकणी हें समिकारण नाट्य लेखकांनी मांडलें आनी जपलें.

फाटल्या कांय वर्सांनी निम्न वेवसायीक रंगमाचयेक ओतो आयिल्लो आसा. हांशी मराठी रंगमाचयेची सुवात हें नाटक घेवपाक लागला तें करताना विनोदी, कॉमेडी ह्या साच्यान तें येवपाक लागलां. पुंडलीक नायकान ती गरज वळखून 'अंता घरा भगवंता', 'कांमुलो' आदी नाटकांची निर्मणी केल्ली जीं नाटकां रंगमाचयेर बरीच गाजलीं. (सर्गेस्त) दिलीपकुमार नायक, राजय पवार, बाबा प्रसाद, सम्राट बोरकार आदी लेखकांनी हो प्रकार हाताळलो. राजय पवार हांकां तो जमलो आनी भोवतेक बाकीचे चडशे जमले रे जलमें करीत प्रेक्षकांक गृहीत धरपाक लागल्या काय कितें असो हुस्को दिसता. हांसोवपाखातीरूच नाटक को हेतू नदरेमुखार दवरून जर आमी ओडून ताणून नाटकां पाडपाक लागले जाल्यार कोंकणी रंगमाचयेक ही धोक्याची गजाल आसा. तर मागीर फाल्यां सकाळीं कोण तरी उठ्ठलो आनी प्रेक्षकांक दळा दळा रडोवंक लावपी नाटक बरयतलो. ताणे मनशाचो सोद घेवंक जाय. कोंकणी नाटकांत बायल मनशेचें प्रतिमेकृय सर्नीस ही संज्ञा लावनूच तिचें चित्रण अभिप्रेत आसा. आजून तरी कोंकणी नाटक बायलेच्यो वकच्छायो करताना दिश्टी पडना. दादलो-बायलेचें परस्पर संबंद दाखयताना मुल्यभाव आनी काळभान दवरप गरजेचें आसा.

As and where it is चो दिश्टावप जातकच Why it is so चो सोद नाटककारांनी घेवपाची गरज आसा. मोक्ष संकल्पनेक लागून कोंकणींतूय ट्रॅजडी हो प्रकार चड दिश्टी पडना.

आयचें कोंकणी नाटक विशयतंत्रांनी घुस्पून गेल्लां काय कितें? एकीकडेन सर्तीतल्लीं गंभीर सामाजीक विशयावेल्लीं नाटकां तर दुसरेकडेन विनोदी, फार्सीकल नाटकां अश्या दाल्यांनी कोंकणी नाटक जोखताना तें फकत डायलोग ओरियेंटेड जावपाक लागलां काय कितें? लेखकांनी नव्या फॉर्मांत येवपाची गरज आसा. विनोद निर्मिती खातीर वा हांशी प्रेक्षकांच्यो ताळयो मेळोवपाखातीर प्रत्यक्ष नाटक खुर्शीकूच दवरून तरेतरेचीं संवगां करपी कलाकारांकडल्यानूय रंगमाचयेक भंय निर्माण जाला. गोयांत सेन्सार बोर्ड ना हें जरी खरें आसलें तरी संविधानीक मुल्यांपरस नाटककार आनी कलाकारूय श्रेश्ठ न्हय.

आशय विशयांचें वेगळेंपण हें कोंकणी नाटकांचें खाशेलेंपण. कांय आडवाद सोडले जाल्यार विशयांचें तेंच तेंपण रंगमाचयेक बाधिकारक थारता. लमाणी, वानरमारे वा भटक्या विमुक्त लोकांचें चित्रण, लोकमहाकाव्यांचें चित्रण, भ्रश्टाचाराक बळी पडिल्ल्या समाजाचें चित्रण, भ्रश्टाचार करपी बायलेचें चित्रण, सुशिक्षीत लाचारी, मुल्यहीन वृत्ती अशे कितलेशेच विशय दोळ्यांमुखार आसात.

सार्वजनीक गणेशोत्सव, नवरात्रां, गांवचे उत्सव, काल्या जात्रांनी, सणा-परब्रांनी उत्सवी मराठी रंगमाचयेची पर्यायी वेवस्था म्हण निम्न वेवमार्यीक विनोदी नाटकांक मद्याक मागणी आसा हें पळोवन कांय धंदेवाईक लोक निर्मातो, दिग्दर्शक, मुखेल कलाकार आनी लेखकूय जावपाक लगल्या. कोंकणींत नाट्य लेखक नांवाचो एक स्वतंत्र घटक आसा हाचें भान दवरप गरजेचें. खासा करून भाशेचे नदरेंतल्यान हें म्हत्वाचें आसा. हाची दखल शास्त्रीय गिन्यान आशिल्ले आनी संहितेचे नदरेंतल्यान परंपरेची जाणविकाय आशिल्ल्या रंगकर्मीनी नाट्य चळवळींतल्यान मुखावेली दिशा थारावपाक जाय. तोमाजीन कार्दोज, जे.एल. गोयश, मायकल ग्रासीसय, सुश्रुत मार्टीन्स ह्या लेखकांनी हो नाट्यप्रकार हाताळला. कोंकणी समाजाक एकठांय करपी नाटक आनी तियात्र हांचे मदलो 'तियाटक' हो ममतावादी दत्ता नायकाचे कल्पनेंतलो प्रकार वास्तवांत हाडपाक कोंकणी लेखकांनी यत्न करपाक जाय - ही आयची काळाची गरज!



# दुस्रो प्रभंद - कोंकणी रंगबूमिचो विकास आनी आधूनिक स्थिती

डो । चंद्रशेखर शेणय, मुंबई

आम्मि कोंकणीरंगभूमिचो आनंद घेत अस्ताना आम्हा सर्वांक मनांत येत आम्का की आमोल्य कोंकणी रंगभूमिचो उगम केदना अनि खय जाल्लो? आज थाय मेळ्ळेल्या माहिती अनि संदर्भाप्रकार कोंकणी रंगभुमीचो उगम जाल्लो तो कर्नाटकाच्या दक्षिण कन्नडा जिल्ह्याच्या बंटवाल ह्या गांवांतु. श्री बोळंथुर कृष्ण प्रभु ह्या नाटककारान "चंद्रहास" हे नाटक बोरोन त्या नाटकाचो प्रथम प्रयोग १० फेब्रुवारी १९१२ ह्या दिसु वेंकटरमण देवस्थान सेकंडरी स्कुलांतु केल्लो अनि ह्योच कोंकणी रंगभूमीचो उगम. नंतर १९३१ थाई कोंकणी नाटकाचे प्रस्तृतीकरणाचो संदर्भ खंयी मेळणा. १९३१ ते १९५० थायचो मुंबई शहराच्या नाळमक्कीवाडी व त्या नागच्या परिसरंतुल्लो प्रवास श्री अविनाश त्रासी हांनी दुसरे सत्रांतु सविस्तर रुपान सांगला. त्याची समयाचेरी मुंबईच्या मध्य रेल्वे दिकान वडाला, दादर, कींग सर्कल ह्या जागेरी कोंकणी रंगभूमी सत्रीय आशील्ली. साधारण १९६० १९५० ह्या दरम्यान होस्साड बाब्बुटी नायक या नाटकारान बरीच नाटकां त्या पैकी गाजल्ली नाटकं - १) तापत्रय २) हुन उनका घांटु ३) आडकात्रे फोण्यळ ४) ऋणानुबंध ५) लग्ना पत्तल - अशी सामाजीक अनि हास्यप्रधान नाटक दिल्ली. ह्या नाटककारान्ली ख्याती म्हळ्यारी संभाशाणांतुले प्रास अलंकाराचो स्वैर वापरु. होस्साड बाब्बुटी नायक हो नाटकं बरयतालो मात्र न्हय, दिगदर्शन अनि अभिनय सुद्धा करतालो. तशींची शारावती न्हंयच्या अनियेक तीरारी आशिल्ल्या कासरगोड गावांतु बाळकृष्ण पुराणीक ह्या नाटककारान "लग्ना पिश्शे" हे संगीत नाटक सादर केल्ले. ह्या नाटकांतु ३६ पद आश्शील्लींची. ती पद अति लोकप्रिय आश्शील्लीची. हे नाटक आनीकयी रंगमंचारी सादर करतानी अनि आजिकय प्रयोग प्रशंसनीय जातानाति. कोंकणी रंगमंचावयले सदाहरित नाटक आशी म्होणेत. तेच समयी मंगळुर दिकान रामानंद चुरीया ह्यो सुप्रसिद्ध नाटककार आप्पण बरयेल्ली नाटक करतालो. अश्शी म्हणतानी की तो उत्तम नट जावन आश्शील्लो अनि शारिरीक अभिनय कोर्नु नाट्य रसिकालें मनोरंजन करतालो. तागेलें प्रसिद्ध नाटक "एग घडी हास्सुन काडी" साधारण २० - २५ वरस चलताले. तशींची कुंदापुर ह्या गावांतु कुंदापुर कुळ्ळा म्हळ्यारी बाळकृष्ण पै हो नाटककार अजुनी सक्त्रीय आस्स. तागेली नाटकं हास्य प्रधान अनि "slapstick" पध्दतीची आस्सानी. ताग्गेली सुप्रसिद्ध नाटकं - "तिन रत्न" अनि "पापा पांडु"

मुंबईतु वडाला किंग सर्कल ह्या भागांतु श्री गोपीनाथ कामत ह्या नाटककारान खूप नाटकं प्रस्तुत केल्ली . १) विलायती क्वेरंतु २) गृहीणी गृहम् उच्यते ३) देवान साक्षी दिल्ली ही संगीत नाटक आश्शिलींची. श्री गोपीनाथ कामत स्वतः उत्तम गायक अनि संगीतकार आश्शिलींमिती तागेल नाटकाक तागेली पद अनि संगीत आसताले. तश्शिंची ४) सोयरे येत्तीत जाग्रते ५) सन्मान ६) अवल-सबल अशी समाजीक बोधप्रधान नाटक प्रस्तुत केल्लयाति. तशींची ७) वांचु की मोरु हे प्रायोगिक अनि मानसशास्त्राच्या "न्युनगंड" ह्या विषयाचेरी बर्यील्ले नाटक. ही सर्व नाटक अजुनी लोकप्रिय आसाती.

ह्याच वेळारी कोंकणी साहित्य समिती ही संस्था सक्रीय आश्शिंली ह्यो तुमका अविनाश त्रासी हांनी सांगला. प्रतिवरस्स ५-६ नाटकाचो महोत्सव आयोजित जात्तालो. या महोत्सवांत गोवा, मंगळुरथानुई नाटक येत्तालीची. त्याची महोत्सवांतु उल्लेख कोरच तश्शी "मुक्ती" अनि "पान्ना आडचे फुल" ही दोनी रुपांतरीत नाटक जाल्लींती. "मुक्ती" हे बादल सरकार ह्या प्रख्यात बंगाली लेखकाल्या "वल्लभपुरेर रुपकथा" या नाटकाचे रुपांतर. ह्या नाटकांतु प्रमुख भुमिका अनंत नागरकट्टी हाणे केल्लेली. कन्नड आनि हिन्दी चित्रपट सृष्टीतुलो प्रख्यात अनि लोकप्रिय अनंत नाग म्हळ्यारी व्होची कोंकणी कलाकार. त्याच वेळारी शंकरनाग व्हो तागेलो धाकलो भाउ कोंकणी रंगभुमीरी सक्रीय आश्शीलो. मुखारी कन्नड चित्रपट सृष्टींतु, अनि हिन्दी धारावाही "मालगुडी डेज" तान्नि दिग्दर्शीत केल्ली. "पान्ना आडचे फुल" हे विजय तेंडुलकराले "अशी पाखरे येती" ह्या नाटकाचो श्री कृष्णा कारवारान केल्लेलो कोंकणी अनुवाद. श्री कृष्णा कारवार हांगेले कोंकणी भाषेवयलें प्रभुत्व तांगेल्या नाटकांतु दिस्सुन येत्ता. अनंत अनि शंकर हे आमगेल्या कोंकणी नाट्यसृष्टीन हिन्दी आनि कन्नड सिनेसृष्टीक दिल्लेले योगदान म्होण्का.

१९५० साकुन आज थाय श्री ए. जी. कामत म्हळ्यारी अनंत कामत व्हो एक प्रतिभावंत नाटककार नाटक बरीयता, दिग्दर्शीत करता अनि अभिनय करता. 'कोंकणी त्रिवेणी कला संगम' ही संस्था १९८० तु स्थापन कोर्नु या संस्थेतर्फे तानी बरीच नाटकं केल्ली त्या पैकी: १) सर्वे जना कांचनम् आश्रयंते - ४३ प्रयोग २) स्वार्थ देवो भव ३) साक्षात्कार ४) ब्रह्मगांठी ५) वासुदेव नायकाली गुंडागुंडी ६) व्होडपणा सुख ७) भक्ती श्रद्धा विश्वास ८) उठा चल्यानो जागृत जाय्या ९) हास्पीटल दर्शन १०) ताळ तक्क मेळु ११) सुस्कयांतुलो मारू.

श्री मंजुनाथ प्रभु हांनि मुंबईतु व्यावसाईक कोंकणी नाटकं कोर्चो प्रयत्न केल्लो. श्री प्रसाद सावकार, श्री अशोक सराफ ह्या मराठी रंगभूमि आनि चित्रपट सृष्टीच्या प्रसिद्ध

कलाकरांक घेवन् "स्वर थांबले मैफिलीचें" ह्या कोंकणी संगीत नाटकाचे प्रयोग मुंबई आनि कर्णाटकांत केले.

१९८० न्तु स्थापन जाल्ली कोंकणी त्रिवेणी कला संगम ही संस्था आज अठ्ठावीस वर्स सक्रीय आस्सा. दिल्ली, बडोदा, हैदराबाद गांवा तशिंची महाराष्ट्राच्या आनि कर्नाटकाच्या व्होड आनि सान गावांनु वचून कोंकणी भाशेची वृद्धी नाटकाच्या माध्यमांतृल्यान, सातत्यान करीत आसाति. आतांची ह्या संस्थेन "नंदादीप" हे नाटक म्हळयारी "दिवा जळू दे सारी रात" या मराठी नाटकाचे कोंकणी रूपांतर प्रस्तुत केले आनि ह्या नाटकाचे विक्रमी म्हणयेत अश्शी पन्नास प्रयोग सर्व भारतभर केले.

ह्या दरम्यान अति प्रशंसनीय "कांचनमृग" हे वसंत नाइकणी हांनी बरयलले नाटक केनरा सारस्वत असोसियेशन कला विभाग या संस्थेन सादर केले हे नाटक पौराणिक पार्श्वभूमीचेर आसून विषय आधुनिक आस्सा. ह्या नाटकाचो भास संस्कृतमय आनि अलंकारीक आस्स आनि ह्या प्रकारच्या कोंकणी भाशेन साहित्य -दुर्मिळ आस्स. ह्या नाटकाचो मुख्य वैशिष्ट्य म्हळयारी अलंकारीक संस्कृतमय कोंकणी भास, आधुनिक विषय आनि अप्रतीम संगीत. हे नाटक कोंकणी रंगमंचावयले अत्युच्च शिखर म्हणयेत.

कोंकणी त्रिवेणी कला संगम तर्फेन प्रति वरस, नियमीत रुपान नाट्याविष्कार सादर जात्ताति. त्यापैकी काही म्हळयारी १) स्वो सळयाल - श्री कल्याणपुर मधुसूदन भट हांनी वसंत सबनीस हांगेल्या मराठी एकांकीका "वायकात पुरुष लावोड" हाजो कोंकणी अनुवाद. २) म्हांनु जाय म्हांनु - मराठी नाटक - "काका कीशाचा" चेरी आधारीत. ३) एदल घरचो किर्णी - श्री विजय तेण्डुलकर लिखीत 'ससोरचा नाइकणी' ह्या एकांकीचो अनुवाद ४) सुन्राय मास्माला जावई, ५) कोणाकय्री सांगू नकाती, आनि ६) गजालिचें नाटक हे अ. ना. म्हाम्ब्रो या लेखकाले लघुनाटक

मुंबईन्तु सध्या सक्रीय आस्सोन्या मुख्य नाट्य संस्था पैकी १) केनरा सारस्वत असोसिएशन - ९८ वरस २) कोंकणी त्रिवेणी कला संगम - २८ वरस ३) माटुंगा मित्र मंडळ - २… वरस तशींची, मुंबईच्या विस्तारीत सबर्ब म्हळयारि विरार, भाइंदर, मिरा रोड हांगा आमगेले बांधव तियात्र, जागोर ह्या धर्तीची नाटक करून आस्सती तशिंची सुमार वरस खंडीत जाल्ललो नाट्य महोत्सव आत्तं वापास श्री अविनाश रावी हांगेल्या नेतृत्वांनु सुरु जाल्ला, हे सांगच्याक आमका आनंद जात्ता.



# तिस्रो प्रबंद - निरोपाचें उलवप

ऐडवीन जे. ऐफ. डिसोजा, मंग्ळूर

मोगाचें वंदन आनी नमसकार,

चिक्केसें कंपन जाता म्हाका उडास करुन मंग्ळरचो. - ऐकावेळीं असल्या कार्याशाळेच्या निरोपाचें उलवप करुंक हांव मंग्ळुर्चे वेदिचेर उबो जाल्लों तर कांय थोडे पिसापिसते - हो ऐड्वीन रंगमंचाविशीं, नाटकांविशीं आनी चड करुन तियात्रांविशीं कितें आनी कित्लें जाणां? ताणे आज पऱ्यांत ऐकच ऐक नाटक बरयिल्लो ना, खेळयिल्लो ना, नटन केल्लो कशेंयी ना. हें खरोखर सत. सुमार तीस-पांच्तीस वर्सां आदीं ऐक नाटक बरयिल्लो आसा हांवें, नांव ताचें "तेरावो घंटो" पुण अकलास, तो तेरावो घंटो उदेनास्तांच तो नाटक बुडलो. सोडयां ति संगत.

पुण आतांच हांवें उचारल्ली कावजेणी हांवें पुंडलीक नाय्क बाबालागीं उचारताना तो म्हणालो—हर ऐकाक ऐक सुरुवात आसता. कितें समजाताय तुं? नाटक-तियात्र पळेंवचे सर्व नाटकिस्त, सर्व तियत्रिस्त, सिनेमा पळेंव्चे सर्व नट, निर्देशक? ह्या कार्याशाळेंत तुंवें नाटकिस्त न्हय, तियात्रीस्त न्हय पुण ऐक सादो प्रेकशक जाव्न भाग घेजे. कित्याक म्हळ्यार कोंक्णी रंगमांचियेची फुढली दिशा थिरायजे जाल्यार प्रेकशकांनी शिवाय हेरांनी न्हय. तुं यो, दोन दीसभर उलवपां आयक, शरे बरवन घे आनी तुजें निरूपाचें उलवप आपापींच तयार जातलें.

आतां म्हाका भोग्ता, पुंडलीक बाबाचीं उत्रां खरीं म्हण. कांय तरी माहेत, शिकप हांवें जोडलां ह्या फाटल्या दोन दिसांनी आनी परिणाम जावन क्रांय तरी ऊब म्हजेथंय आसा जाल्या, म्हाका दिल्ल्या नेम्णुकेक पूरक उलवप दितोलों म्हळ्ळी.

पुण हें ऐक तांत्रिक उलवप न्हय, हें तुमी मनांत घेंवचें.

नाटक-तियात्र हांवें लिकुंक नांत तरी प्रेक्शक जावन हांवे कांय खूब नाटक पळेल्यात आनी चड न्हय तर तीन-चार तियात्र पळेवन तांचो स्वाद सेवला. ह्या अणभवाचेर हांव म्हजें उलवप आदारितां. सुरुवात करिजे तर हांवें मंग्ळुराक वचाजे पडटा कित्याक ऐका तेंपार मंग्ळुरांत नाटकांची कृशी असली आनी इत्ली आसल्लीकी, हरयेका इगर्जिच्या वठारांत आयतारा फांत्याचें मीस जाल्या उपरांत "....आज सांजेर स वोरार डोन बोस्को होलांत...." म्हळ्ळें फलाण्या फलाण्या नाटकाचें ऐलान जातालें. हें ऐलान, काराक बसयिल्ल्या फुनेला आकाराच्या लावड स्पीकरांत्ल्यान भाग्र सरताना, म्हजे तसल्यांच्या मट्टाक नो नाटक थंयच सुरु जातालो. त्या नाटकांचें हात-पत्र घेताना नाटक आनिकी फुडें वेतालो आनी आमीं पळेंवचें आस्लें, पदां-संगीत कोणाचें, कोमेडी करुंक कोण आसात म्हण. ऐका वाक्यान सांगचें तर, मनोरंजन कित्ल्या मट्टाचें आसात म्हळ्ळें सवाल. दुसऱ्या उत्रांनी सांगचें तर, नाटकाची यशस्वी या ना यशस्वी थंयचेथंयंच निशचीत जाताली. आम्कां जाय आसल्लें पोटबरून हासोंक, स्त्रीयांक जाय

आसली काळीज कडंवची एक कथा आनी जांटयांक, दोनयी जाय - मटल्यान – टायम पास!

नातल्लीं तवळ हेर मनोरंजनां. काथालिकांनी नाटक पळेवंक गेल्यार आवडताले व्हडिलांक पुण सिनेमाक गेल्यार तीं बोंट वाळायताली. इंग्लिश सिनेमांनी किते-रे तें विचारतालो म्हजो आजो – तीं तोंडां तोंडां खातात! म्हजो मावळो फकत 'सत्या हरिश्चंद्रा', 'भक्त कबीर', 'सत्यवान सावित्री', असल्लीं फिल्मां मात्र पळेतालो. ह्या विशयाचेर आसताना तुम्कां एक दाकलो हांव दितां, जो तुम्का सांगतालो मंगळगंत किल्लें मानसीक अशीरपण आसल्लें म्हण. हांव सुमार बरा वर्सांचो आसताना आमच्या इगर्जेच्या वटारांत एक नाटक सादर केल्लें आमच्या तर्नाटयांनी. नाटका पयलें थोडीं गीतां-गायनां-कंतारां. हीं चालू आसताना कोणे बावड्या एकल्यान येवन गांयकार भाव अंतान मेंडोस आनी ताची कोमिक पार्टी हाणीं गायलेलें 'लवींग' म्हळ्ळें पोद गांवक सुरु केलें. ह्या कंतारांत एक फांगत अशी आस्लीकी "किनें सांगचें भावा चिडान चिवान चेड्वान म्हजो वोंट सुजयलो."

उपरांत किनें जालें म्हण सांगचें? आम्चो बिगार पादीगार जो प्रेक्षकां मधें बसुन आसल्लो उटलो. मांचियेक वचून ताणें त्या तरनाटयांक दोन मार व्हाजयले आनी म्हळें – किनें-रे दळदिन्या, देवाच्या परिसरांत पाल्डीं कंतारां गायतात रे? सांगाजे म्हण ना, नाटक रद्द आनी आमी सर्व घरा फार्टी.

वयलें हें घडीत एक पाटपडदो जावन घेतल्यार आमी समजून घेवंचागी किल्ली आनी कसली बंदड कोंकणी नाटकांचेर आसल्ली म्हण. 1943-त स्थापीत जाल्ली 'कोंकणी नाटक सभा' हांच्या इान वोस्का साल्यांत कोंकणी नाटक खेळयजे तर, नाटकाच्या करड प्रतियेची एक प्रत धर्मीक सन्मार्गशीपक लागून भिस्पाच्या दफ्तरांत दाखल करिजे पडटाली. सांगची गरजशी दिसनां – कथालिकांनी खेळंवच्या नाटकांनी स्त्री पात्र करंक कोणयी चल्लीया/स्त्रीया फुडें सरनातल्ल्यो. चडावत स्त्री पात्र आस्मानाशेंच पळताले या शिरपुट कल्लनिच्या दादल्यांक विंचताले. तवळ तवळ तांचें 'मेकप' हात दिताले आनी हास्य उट्टाला. पुण हांवें पळेलां पोय पऱ्यांत ल्हान-ल्हान हिंदू नाटक पंगडांनी खेळंवच्या नाटकांनी स्त्री पात्र करच्या दादल्यांचो उल्लेक वेगळोच आसताला.

कितेंयी तरी आमी मानून घेजेच आस्ची एक संगत आसा – नाटक खेळल्ल दाकंव्ची हुमेद हरयेकल्याच्या रगतांतच्च आसा. ल्हानपणार खंचें तें भुरगें रायकुंवरीपरी नेसून आशेना, खंचो तो चेरको रायकुंवर जांवक आशेना आनी हीं दोगां मेळोन राया-राणीयेचें लगीन करून दाकंवक फुडें सरनांत? आतां तां कांय 'ब्याटम्यान, सुपरमेन, स्पायडरमेन' प्रवेस जाल्यान आनी टी-शर्टां रुपार आमच्या भुरग्यांच्या मतिंतच्च न्हय, कानिंतयी रिगल्यात. हाकाच लागून न्हय आज आमी नाटक-तियात्रांची फुडली दिश कसली म्हळ्ळ्या सवालाचेर उलवप करतांव? जाप मेळातगी म्हण फुडें पळोव्यां.

कर्नाटकांतल्या आनी मुंबयच्या सारस्वतां मधें नाटक कलेचो उद्भव पयलो

जाला म्हण चरीत्रा सांगता. ह्या नाटकांनी आसल्लीं कांय अरथाभरीत पदां आनी कांय रस-भरीत संवाद लिक्ल्ले बरोवपी सारस्वतच जाल्ल्यान हीं पदां-गितां कसल्यायी रितीन करकस जायनाशें सांबाळोंक सारस्वत भाव तांच्याच कोंक्णी उलवप्यांक नट-गावपी जावन विंचताले. कोंक्णी भाशेच्या सुरकशितायेक खातिर ते विशेस चत्राय घेताले म्हण्येत.

पुण नाटक कलेंत कथोलिकांचो उकल्लोलो हात जालो सुमार 1910 इस्वेथाव्न म्हण्येत. हाका काराण, कथोलिकांनी चलंवचीं इस्कोलां, जांतून इंग्लिश माद्यमच्च चलतालो. इंग्लिश शिक्पाच्या पाठपुस्तकांनी आसच्यो कथेंक नाटका रुपांक उत्राव्न त्यो अभिनयन करुन दाकयताना कोंक्णी उलंवच्यां मधें ह्या तरण्या विद्यार्थितींच नाटकांची वोड लायली म्हण्येत. ह्योच्च कथा नाटकां रुपारच्च कोंकणीक कित्याक रूपांतर/भाशांतर करुंक नजो? कित्याक नजो? आनी त्यो भाशांतर जाल्योच्च हांचे नाटक खेळवन दाकंवचो हवयास सुरु जालो. नातल्लीं तवळ नाटक सालां; हे नाटक चल्तले शेतां-भाटांनी, गुडयां-बयलांचे देगेंनी. नातल्ले फोकस लायट, सामान्य पेट्रोमेक्सच्च सल्वसांव दितालो. नातल्ले रंगरंगाळ पडदे - साडियो, वोली, बेडशीटींनंच्च आम्चे नाटकिस्त काम चलय्ताले.. थोडया नाटक पंग्डांचीं नांवां सांगची तर - जेप्पु लूर्ड्स युनियन, (हें मालघडें म्हण्येता) कोडियालबयल ड्राम्याटिक सोसायिटी, सां.फिलोमेना युनियन, होली नेम युनियन, होली क्रोस युनियन आनी हेर.

डोन बोस्को नाटक साल आनी कोंक्णी नाटक सभा हीं नांवां मंग्ळुरांत घरदाराचिंच्च तरी हांचे विशांत थोडें उलंवचें बरें म्हण हांव चिंता. सं.फिलोमेन युनियनान खेळवन दाकयिल्ल्या "दी मरचेंट ऑफ वेनिस" नाटकांत 'शयलोका'चो पात्र खेळाल्ल्या (दे।) सयमन रास्कींजाचें नटन, अनयेका महान नाटकिस्त आनी नट (दे।) ऐम.पी.डेसा हाणें देक्ताना तो पिसवालो आनी क्रमेण आप्णेंच्च लिकल्ल्या, 'कम्युनिसं,' 'लियोपोल्डाचीं पातकां' आनी 'सपणांत मरण' ह्या नाटकांनी ताणे सायमनाक अभिनयन करुंक अवकास दिले आनी अशें घडताना, नाटक सादर जाताना, मंग्ळुरी महंतनी कुटमांचे दोळे उगते जाले आनी तांकां कोंक्णी रंग्मांच सवायेचो न्हय म्हळ्ळें सत गमलें. पाटाफाट जेज्वीत बाप जोर्ज आल्बुकर्क पय हाणी ह्या कलाकारांक आरावन 1943 इस्वेंत कोंक्णी नाटक सभा घडली आनी 1951 इस्वेंत कपुचीन फ्रादींच्या सहकारान डोन बोस्को नाटक साल उघडलें.

ह्या उपरांत सबार नाटक पंगडांनी - देकिक - बेनार, कलासंपत, युनायटेड यंगस्टरस, रूपराग - हाणी फकत्त डोन बोस्को मांचीयेर मात्र न्हय, हेर सबार जाग्यांनी, फिरगजिंच्या होलांनी नाटक खेळोवन दाकयल्यात आनी आतांयी कांय विरगळायेन तरी वर्सावार ऐक या दोन नाटक सादर जातेच्च आसात. ह्या असकतपणांचीं काराणां आमीं जाणां आसचींच जाल्ल्यान हांव त्याविशीं उलवंक वचाना.

हांव समजातां तियात्र म्हळ्यार रंगमांचियेचो ऐक विभिन्न आनी वेग्ळोच

प्राकार म्हण. हांवं पळेयिल्ले तियात्र फकत दोन: प्रिन्स जेकब हाचो 'गम्ना' आनी गेज फर्नांडिस हाचो 'अशें आमचें गांय' जो अंतूनांत सां. मायकल इगर्जिच्या वठारांत सादर जाल्ला. ह दोन म्हाका नवेच्च अणभव. हांव टाटाम्लो – सबार कारणांक लागान. हीं कारणांच हांव तुमच्या सामकार दवरतां म्हजेंक जाप आयच्या निरोपाच्या सवलाची – फुडें किते? फुडली दिशा कसली?

तियात्राक वेतनच हांव फुडल्या फाँयितली टिकेट घेवन बसलों – किल्या म्हाका पळेवंक जाय आसल्लें – तियात्र म्हळ्यार किते, किल्याक आनी कसो? वटार भायर चिडकायिल्ल्या पोसटराचेर तियात्रांत कामेडी पात्र करतल्यांचीं नांवां हायलायट करून छापल्लीं आसलीं. तर, कामेडीच्च महतवाची जाली न्हय? पुण अनिकी थोडें हयलायट हांवें पळेलें – तियात्राक आयिल्लें प्रेक्षक एका कुटमा–फेस्ताक आयिल्ले भाशेन खुशालभरीत दिसताले. भुरग्यांच्या हातांनी बेलून, गिरगिटां, चाकलेटां. तियात्र वेळार सुरू जावंक ना तरी कांय नजा. वातावरणांत कसलेंच दुस्मतणे आयकालें ना. तितल्यार संगीतकार आयले. वातावरण बदलालें, आनिकी मुडाळ जालें; काळजांत्रा खळीक लागलीं... आनिकी एक घंटो पाशार जालो.

त्या उपरांत तियात्र सुरू. नवळ थोड्या वायल्यानीं सद्दीचिचम विक्रयाक हाडल्यां. त्या कांय ताणीं तांच्याच्च घरानी केल्यान आसतल्यो म्हळ्ळो अदाज जालो म्हाका. काणे साफ्ट ड्रिंक्स हाडल्लीं बरें. तियात्र चालू. एक गेड सीन जाल्यार एक हावज सीन. असल्या सीक्वेनसान तियात्र चल्लानां एक मिनिमितालो चिंतप म्हजथंय उस्कालें – गेड सीनांत एकच कामेडी व कंतार. हाका आनी तियात्राचें कथक संबंद ना (थोड्या पावटीं असता म्हण हांव आयकाला) तरी पर्वा ना. प्रेक्षक खुश. हांसो, ताळियो खूब. तरक भागलें म्हाका, न्हय आमचीं जिणी एका तियात्रापरीं, नाटकापरीं? एक गेड सीन तर एक हावज सीन? गेड सीनांत खेळ–खुशाल, गितां–कंतारां तर हावज सीनांत कसलो गंभीरपण एकान आसा? कांय रडणे, कांय विलाप, कांय गंभीर कथावस्त आनी तितलेंच गंभीर नटन?

आम्चिच्च जिणी उगती जाता एका नाटकांत, एका तियात्रांत. जाय आम्कां हावज सीन जिणियचीं सतां आनी त्या सताचो आड्काय जाणां जांवक आनी जाय आम्कां गेड सीन काळिज हाळू करूंक. उडास आयला म्हाका the eternal joker राज कपुराचो. 'मेरा नाम जोकर' हांतूं भुरगो राजू खुरसार उस्कळच्या जेजुक पळेल म्हणता – हांव तुका हासयतालों. संसाराच प्रसनूत परिस्तीत हेर किते आम्कां जाय? तरी तियात्राची कला, नाटकांची कला आनी त्या मट्टाक सगळ्या रंगमांचियेचें पवित्रपण आमी सम्सारयेन घेल्चें न्हय. तियात्र, नाटक पोर्जेपणाचे अड्डे करचे न्हय. किल्याक, ही कला जावन आसा एक जिवी–जिवंत कला, एक परिणामकारी कला. हांतूं म्हांव आसा तर तें आम्कां जिवाळ करता, वीक आसा तर तें अम्कां विकारता.

जिवि कला म्हण हांवें म्हळें किल्याक डॉ। झिनेयदा गईक (१८१४–

१९३९) हिचे प्रकार नाटक या तियात्र, जिणियंत्ल्या ल्हा-ल्हान संग्तींक, ज्यों आम्कां गरजेच्यो म्हण दिसानांत जाव्येत, महत्व दिता. ह्या कलेंत 'टेक-रिटेक' ना देकून चुकींक आवकास ना. देकून ही ऐक जिवी कला. जिणियेंत चुकोन पडल्यार तें सन्निवेश पाटीं काडूंक जायना पुण तिदवणी करूंक जाता कोण्णा. अशेंच नाटक/तियात्र कलेंत दुस्र्या-तिस्र्या प्रदरशनानीं सुद्राप करयेत कोण्णा पुण पयलें पडल्लो छाप तो निमाणोंच जांवक पुरो.

१७ ऐप्रिल १८९२ थाव्न ज्या दिसा 'इतालियन बुरगो' म्हळ्ळो तियात्र अस्सागंवच्या कोन्सथानशियो लुकासिनो कारिदाद रिबेरू हाणें मुंबयंत सादर केल्लो, तियात्राचें पय्ण कित्लें जालां आनी अण्भवाचे कित्ले किलोमीटर ह्या कलेन आप्णायिल्यात म्हळ्ळें हांव बराबर नेणां. हरऐका वरसाच्या ऐप्रिल सत्रावेर 'तियात्राचो दीस' मानायतात म्हळ्ळें हांव जाणां जालां. बरेंच. हालींच हांवें वाचल्ल्या ऐका लेखनांत मानेस्त डेनियल ऐफ. डिसोजा, प्रिन्स जेकब हाणे मराठी थाव्न भाशांतर करुन खेळयिल्ल्या 'रुपणें' तियात्राविशीं (मराठी मूळ: सही रे सही म्हण हांव सम्जातां) तो फामाद तियत्रीस्तांच्यो अभिप्रायो आरयल्यात. रोज फर्न्स म्हण्ता-भाशांतरावरवीं संसारार रंग मांचियेर कितें चल्लां आनी कितें चलता म्हळ्ळें कळोन येत. पुण तियात्र कलेन, 'खेळ या जागोरा' थाव्न जलम घेतलो म्हळ्ळें जांवचें न्हय. भाशांतर, मूळ क्रतीयेचो ऐक echo मात्र.'

मारीयो मिनेजस म्हण्ता, 'Translations defeat originality.' पुण जोन डिसिल्वा म्हण्ता, 'प्रिन्स जेकबाक आमी परबीं दींवक जाय ताच्या ह्या वावराक.' बरें, हांव कितेंच म्हणोंक सकाना कित्याक म्हजी माहेत ऐका नोविसाची आनि ऐका निरदिश्ट परिधे भितर्ली.

आतांय, करनाटकाच्या मळार नाटकांनी कांय खूब बदलवण जाल्या, सांप्रादायीक नाटक (रोड सीन-हावज सीन) रुपांतर जाल्यात. ऐकाच्च सेटटींगांत सग्ळो नाटक आटापता. सेटटींग म्हणताना धा-बारा करोडांचें सेटटींग न्हय, चडावत सेटटींगाचे धिगे (props) फकत symbolic. संभाशणाचें महत्व प्रथम स्थानार आसा आनी प्रेकशक फकत संभाशणां खातीर आइल्ले आसतात. अशें (दे।) चा.फ्रा., ऐ.टी.लोबो, जो.सा.आल्वरीस, गबबु, डोल्फी कास्सिया, (दे) मिकम्याक्स आनी हेरांनी कुरकुरीत संभाशणांक महत्व दिलां आनी बऱ्या कथावस्तुंचे सोटनेर कांय थोडया नाटकिस्तांनी इंग्लिश, रशियन, कन्नड, तुळु, मराठी, उरदू आनी हिंदी भाशेंत्ले नाटक भाशांतर या रूपांतर केल्यात.

मंग्ळुरांत्ले कलाकार/नाटक सादर करचे पंगड/संघ बहुतेक जाल्नासात/ आसल्ले हव्यासी पुण हांव पळेतां, गोयांत्ले तियात्रीस्त आनी तियात्र खेळंवचे पंगड जाव्न आसात वृत्तीपर (professionals). मंग्ळुरच्या नाटकांनी दुडवाची मोड जाता, जोडिचो प्रस्ताप आसाना देकून आम्कां ही कला फकत काळजाची जल्या! जेदना ऐक कला ऐक व्याप्त जाव्नास्ता, तेदना थंयसर स्परदो, तांत्रीक प्रगती आनी नटना कावशल मूळ द्रवीयो (basic ingredients) जातात.

मंग्ळुर क्रिस्तांव या हिंदू नाटक पंगडांनी सादर करच्या नाटकांनी लिसांव

(moral) प्रथम उद्देश जाव्न आस्ना. मनोरंजन एक side dish कशें. पूण नियात्राचो मुद्दो, हांव पळेनां, व्रत्तीपर गिर्नीनी, मनोरंजना संगीं थोडीं जिणियेचीं ततवां आनी सतां उगडापी करचो.

जशें गांयेंचो तियात्र म्हाका आवडलो, तशेंच "नीनासम" नांवाच्या कन्नड नाटक हव्यासिंचीं प्रदर्शनांयी म्हाका आवडतात. हांच संवडूर ते मंगळुराक आयिल्ल्या वेळार हांवें तांचें कांय बरें नाटक पळेल्यात आनी तांणी सादर केल्लें one-act नाटक "तुमहारी अमिता" हांव विसरचपरी ना. हांणी, सबार रशियन नाटक कन्नडांत भाशांतर करून प्रदर्शील्यात.

करनाटकांतल्या कोंकणी रंगमाचीयविशीं सांगचें तर कांय खूब आस्सा पूण म्हाका दिल्ल्या वेळाची आव्दी जाव्न येता जाल्ल्यान हांवें म्हजो one-act-play संपंवचो बरें. पूण उरलां सवाल - कोंकणी तियात्र, रंगमंच.... फुडली दिशा कसली?

हांव एक सादो प्रेकशक. म्हाका अधुनिकतेथंय, जांव साहितांत, कवितेंत या नाटक/तियात्रा कलेंत कसलाच्च निरस्कार ना. पूण हांव म्हणतां इतलेंच - की, दीसभर, हफ्ताभर, जिणीभर थकलालो एकलो आम मनीस, गंभीर आनी चिंतप आटंवच्या एका खेळावरीं कितल्या मापान सडाळाय, कितल्या मापान मनोरंजन जोडूंक सकात? गूंडायचीं संभाशणां आयकात ना तांतलो गूंडाव मेजूंक बस्तालो या तियात्र/नाटक पळेल्न खुश जाव्न आपल्या बिडागाक ना वेतालो? कांय खूब कॉमेडी आस्सा तर चितून, चितून हास्तालो?

हांव, ही दुसरी विंचवण करतां.

हांव एक गंभीर चिंतपाचो साहितो म्हण म्हज्या वाचप्यांनी मांदला पूण भितरलें भितर हांव आतांयी सोवच्च आस्सां. म्हाका आतांयी slap-stick comedy, archie-comics रूचतात. हांव बरेंच्च हास्तां, हासात, हासात रडनांयी रडलालों आसां. देकून हांव म्हणतां तियात्र/नाटक जिव दवरा. प्रेकशकांक हासया/रडया; कोंकणी भास ह्या बरीं वागया, वाडया, फुलया.

भोगूंदी प्रेकशकांक, गेड सीन जाल्या उपरांत, एक कामिक कंतार जाल्या उपरांत येंवचो तो हावज सीन - आम्चिच्च जिणी जिच्च थंय आसा तियात्र संपल्या उपरांत पार्टी वेतल्यांत - सदांच आनी हरायेक पावटीं धुस्रावरेंत जायजे म्हण ना. अशें करचें आमचरच्च होंदान आस्सा. जिणी एक तियात्र जांव, तांची फुडली दिशा, स्पशट जांव. तियात्रच्च जिणी जांव.

धनयावाद!



# कुडमी जानपद रामायण

यम. गोपाल गौडा
कोंकणी संस्थो, सां। लुवीस कोलेज, मंग्ळूर

प्रस्तावन:

अखील भारतीय कोंकणी परिषद आनी कोंकणी भास आनी संसकृती प्रतिष्ठान, मंग्ळूर – हांणीं मंग्ळुरांत्ल्या विश्वकोंकणी भवनांत ३-१०-२०१० दिसा चलयिल्ल्या कोंकणी रामायणां परिसंवादांत 'कुडमी जानपद रामायण' विशीं मंडन केल्लो हो प्रबंद. एक कुडमी कलाकार जाव्न म्हज्या सीमित गिन्यानाच्या परिधे भितर ह्या पुराणांत्ले प्रसंग विवरांव्चे प्रेयतन केलां. कुडमी रामायणांत्ली कथा शिष्ट या शास्त्रीय शय्लेर ना. ती जानपद शय्लेर आसा. गीतां रूपार आसल्ली कुडमी जानपद रामायणाची कथा गद्य रूपार विवराय्ल्या. ह्या प्रबंधाक पूरक माहेत आरांवक विविध संशोधकांचीं लेखनां, गृंथांचो आधार घेत्ला. हेर रामायणांक आनी कुडमी रामायणाक आस्चे प्रमुख व्यत्यास त्या त्या घडितांच्या विवरणांत दिल्या.

रामायणाची कथा थोडया लोकान इतिहास म्हण स्वीकार केल्यार आनी थोडया लोकान एक कथा समूह, काल्पनिक घडपां म्हण परिगणित केल्या. थोडया जणांक तें एक महाकाव्य. रामायण एक इतिहास म्हण पातियेल्ले जाल्ल्यान देशभर खंयिंच्च वचों, थंय मेळ्चो एक गुडो, रान, पर्वत, शिखर, फातर, धोली – हांच्या सांगाता रामायणाचो संबंद आस्ची एक काणी प्रचलित आसल्ली आय्कोंक मेळ्ता. भारतांत मात्र न्हय, मुस्लिम बहुसंख्यान आस्च्या पयशील्या इंडोनेशियांत सय्त लोक, इस्लाम आम्चो धर्म, रामायण आम्ची संस्कृती म्हणता म्हळ्ळी संगत कळोन येता. इंडोनेशीयांत आनी थैल्यांडांत, रामायण उब्जाल्लेंच तांच्या धेशांत म्हळ्ळ्या तित्लो अभिमान आसा. थैल्यांड आनी क्यांबोडियांत बौधा धर्म आस्ल्यारी थंय्च्या राय-महारायांचें नांव एकनें राम, द्वितीय राम म्हळ्ळे रितिर आसोन रामायणाची कथा जनजनित आसल्ली. जगत्तांत खंय्चेंच एक महाकाव्य विभिन्न देशाचें, विभिन्न धर्म या समुदायेचें, विभिन्न पात्येणेचें जनांग आप्लेंच जीवनाचो एक भाग म्हण स्वीकार केल्ले दृष्टांत ना म्हण्येत. हें रामायणाचें विशेस. ईजिप्त, पश्चीम एशीया, थैल्यांड, कांपूचीया, मारिशष, ब्रिटन, ट्रिनिदाद, अमेरिका, केनडा, होल्लेंड, बर्मा, होंगकंग, सिंगापुर, चीना, फिजी, सुरिनामा, गयाना –आदी देशांनी रामायण लोकख्यात आसा.

शतकोटी रामायणं आसात म्हण तोंडाउत्रान सांग्ता. एका अंदाजे प्रकार विश्वाद्यांत एक लाख रामायणां आसात म्हळ्ळी पातियेणी. बौधा धर्माच्या प्रभावान जपानाचें सांबो-ए-कोर्शोबा, थाय्लेंडाचें रामकेर, चीनाचें खोटान रामायण,

सूरयानारायणाचो पूत वैवस्वत मनु. तशें जाल्न हो सुर्यावंश. वैवस्वत मनुचो पूत इक्षवाकु. ताच्या मागिरच्या ६२ रायांक अयोध्या राजधानी. ६३-वो राय दशरथा आनी दशरथाचो पूत मर्यादा पुरुशोत्तम श्रीराम.

## रामायणाविशीं पातियेण्यो:

अयोध्या, किष्किंधा, चित्रकूटा ह्या जाग्यांनी रामायणाक संबंध जाल्ले सबार कुरुह मेळतात. चित्रकूटाच्या माल्यांत सीता उप्योग कर्नाली म्हळ्ळो एक उदकाकोंड आसा. आतां 'सीताकोंडा' म्हण आपंन्च्या ह्या कोंडांत व्हाळोन येंन्चें गोदावरी नंय्चें उदक उप्रांत खंय वेता म्हण कळाना. हांगाथाल्न शेंबरां वय्र मेटां चडोन गेल्यार 'हनुमान धारा' म्हळ्ळी झर आसा. लंका लासून आयिल्ल्या हनुमंताल्या आंगाची हुन्साण निवंन्च्याक रामान बाण प्रयोग करुन आसा केल्लें कोंड म्हण प्रसिध जाल्ल्या ह्या कोंडांत्लें उदकयी उप्रांत खंय व्हाळ्ना म्हणयी कळित ना.

रामेश्वरांत श्रीरामान पूजा केल्लो शिवलिंग, भारत आनी श्रीलंका मधें सम्दिरांत रामान वानरांसेने सहायान बांदल्लो सेतु, श्रीलंकांत अशोकवन - आतांयी आसा म्हळ्ळी पातियेणी. अशोकवनांत एका खडापावय्र व्हड एका पाव्लाचो घुर्त आसा. हनुमंतु बृहदाकार घेताना जाल्लो पाव्ला घुर्त हो म्हळ्ळी पातियेणी. थंययी सीता उप्योग करताली म्हळ्ळी एक झर आसा. सीताझरी म्हळ्ळया ह्या झरिंतयी वरसभर उदक आसोन तें खंयथाल्न येता, खंय वेता म्हळ्ळी संगत निगूड म्हण वाचुंक मेळ्ता.

आशोकवनाच्या भोंवारिंत गुडयारानांत्ली माती तांब्डी. पुण, हनुमंतान ल्हासल्ली म्हण्च्या जाग्याची माती काळी. थंयच्या फात्रां खडापांनी आजिकी ल्हासोन गेल्ल्याचो घुर्त उर्ला. हांगा रावणाचें राव्ळेर, रामा-रावणा मधें युद्द चलल्लें म्हळ्ळो जागो - अशें रामायणाचो संबंद आस्चे कुरुह आतांयी पळेंव्क मेळ्ता. सुत्तूरांत रान वाडल्यारी राम-रावणा मधें युद्द जाल्ल्या तप्काट जाग्यार आतांयी रूक-झड किरलाना - म्हळ्ळयो संग्तीयी कळोन येतात.

आतां श्रीलंकांत बौधा धर्माचो लोक चड आस्ल्यारी, तांणी रामायणाक संबंद जाल्ले कुरुहु श्रद्देन रक्शण करुन आय्ल्यात. आतां बौधा भिक्शुंच्या मुखेलपणार, भारतीय एका स्वामीजिच्या समक्शम सीताक अग्नी परिक्शा केल्ल्या जाग्यार सीता देविलें बृहत दिळ्ळुं बांदचें योजन घाल्लां म्हण पत्रिका माद्यमांत आयिल्लें वाचूंक मेळ्ता.

ह्यो सग्ळो दंतकाणियो, काल्पनिक घडपां म्हण्चो लोक आसा जाल्यारयी हजारांनी वर्सां आदीं एके रुषीन भारताच्या कोन्शां कोन्शांनी आनी श्रीलंकाच्या प्रदेशांनी विशेस जागे घुर्त करुन, तसले जागे जोडण कर्ची कथा विण्ल्या. रामायणाक तसली विशेषताय आसल्ल्यान विश्वाद्यंत जाय्त्या जनांगांच्या लोकजिणियेंत रामायणा भर्सुन गेलां. जात-मत-देस-भास मिक्वाल्ली व्याप्त लाभल्लें रामायण एक महाकाव्य - चडशांक ती एक संस्कृती.

## जैनरामायण:

पंडितां प्रमाणें क्री.पू. ११०५-त आस्सल्लो म्हळ्ळया नागचंद्र कविन 'अभिनव पंपा' बिरुदान रामचंद्राचरिता पुराण म्हळ्ळें रामायण बरयलां. सर्वसामान्य जाल्ल सगळ्यांकी कळिल्ल आस्सचें वाल्मीकी रामायण. वैदिक परंपरेन्त्लीं आनंद रामायण, अध्यात्म रामायणयी आस्सा. हीं रामायणां वाल्मीकी रामायणां थाव्न चिकेंसें भिन्न. अभिनव पंपाचें रामायण जैन परंपरेचें. ह्या रामायणाक आनी हेर रामायणाक रात-दिसांचे फरक/व्यत्यास आस्सा. दशरथाचो पूत राम, जनका रायाली धूव सीता, हीं दोगांय, लक्शमण सयत वनवासाक गेलीं. रावणान सीताक चोरून व्हेली. सुग्रीव-हनुमंताल्यागीं रामाक सख्य जाल्लें, तांच्या सहकारान सेतू बांधून लंकेर गेले, रावणाक वधेवन सीतेक फाटीं हाडल्लें. लोकापवादाक रामान सीताक परित्याग केल्लो. लव-कुशांकडेन राम-लक्ष्मणांक युद्ध जाल्लें-इत्यादी कथांचें मूळ सूत्र दोनयी रामायणांनी एकूच्च जाल्यारी संदर्भांचे कार्यकारण वेगवेगळें. राम, वाली, सुग्रीव, हनुमंत, सीता, सीतेचो भाव प्रभामंडल - ह्या पात्रांक पउमरामायणांत भिन्न स्वरूपांन पळोवयेता. थोडे प्रमुख व्यत्यास अशे आस्सात:

दशरथाक कौसल्ये (अपराजिते), कैकेयी, सुमित्रे आनीयेक सुप्रभे म्हळ्ळी चव्वी बायल आस्सा. चोवगांकयी एकेकलो पूत. शत्रुघ्ना सुप्रभेलो पूत. सीता अयोनिजे न्हय, विदेहिन तिका जल्म दिल्लो. रावणान कैलास पर्वत उकल्लाना आंगुष्ठान तो दाबल्लो, शिवान न्हय, वाली भट्टारकान. मर्यादा पुरुषोत्तम श्रीराम एकपत्नी व्रतस्थ न्हय, ताका चोव्वी पट्ट महिषी आनी आट हजार अंतःपुर स्त्रीयो आस्सात. सीतेच्या जननाक कारण रावल्लो लक्शमण न्हय, राम. वाली सुग्रीव काळग ना. बदलेक साहसगती म्हणचो मायावी सुग्रीवालें रूप धारण करून राजेर सेवोन सुग्रीवाली बायल तारेक आनी राज्य वश करूंक योजन घाल्ता. त्या कपट सुग्रीवाक राम सल्वयता. सेतू बंध ना. इंद्रजित (इदरो), कुंभकर्णा युद्धांत मरना. बंधन जाल्ल आखेरिक दीक्षा घेवन वेता. सीताली पतीनिष्ठा पळोवन रावणाक पश्चात्ताप जाल्ल वैराग्य येता. रावणाक मारचें रामान न्हय, लक्शमणान. कथानायक राम जाल्यारी लक्शमणाक प्राधान्य चड. लोकापवादाक राम, सीता परित्याग करतांना सीता रनाक वचाना. वज्रजंघाल्या राज्येरांत लवांकुश वाडटा. आनी वाडीकयी जाता. राम अश्वमेध याग करिना. नारदा मुखांतर रामाली कथा आयकोन राग आयिल्ले लवांकुश आप्पाल्या आवयक अन्याय केल्ल्या रामाक 'एक हात पळेयां' म्हण युद्ध करून राम लक्शमणाक सल्वयता. सीता अग्नी प्रवेश करून येवन संसार त्याग करून दीक्षा घेवन वेता. रामाक, भाव लक्शमणावयर चड मोग. ताका लक्ष्मणावयर वैराग्यच येना. देवते सगळे मेळोन लक्ष्मण मच्यांविशीं करतां. लक्शमणाल्या मरणा उपरांत राम दीक्षा घेता. अशें, हेर रामायणांक आनी जैन रामायणाक प्रमुख व्यत्यास आसा.

बौधांच्या पाली जातकांल्या दशरथ जातकांत राम, सीता आनी लक्ष्मण

भावभय्णी म्हळ्ळो विवर दिला. मुखार, वनवास मुग्दोन पाटीं येल्न राम आप्णाली भय्ण सीताकडेनंच वार्डीक जाना. त्या काळांत शाग्ख्य पंथांत भाव भय्यां मधें वार्डीक जांन्ची पद्दत आसल्ली.

## कुडमी रामायण:

अशें विविध रामायणांनी कथा विविध रिर्निनी विण्ल्या. कुडमी समाज अंतरमुखी स्वभावाचो. तें संकोचशील जनांग. नागरीक बदलावणेक आनी सुधारणांक सुलभायेन उग्तें करुन घेना. कुडम्याल्या जीवनावर्तन आचरणांनी हेर समाजेचो लोक भाग घेनासल्ले आनी कुडमी हेर समाजा मधें परकीय जावनंच्च उरच्याक अपेक्षिता जाल्ल्यान कुडम्यालें सांस्कृतिक मूलांश उज्वाडाकच येंक्क ना.

'चतुरर निजदीं कुरितोंददेयुं काव्या प्रयोग परिणत मतिगळ' म्हळ्ळेल्या कवी नपतुंगाल्या उत्राव्हिरी, बरप, वाचप, अक्षर ज्ञान नासल्यारी कुडमी साहित तयार कर्च्यातित्ले भुध्वंत आसल्ले. अनादी काळार घोडोवन, व्हडलें व्यत्यासनास्तां तोंडा उत्रार उरोन हाडलेलें रामायण हाका दष्टांत. हें गीता रूपाचें रामायण घडल्ले कुडमी पंडित न्हय, नावाग्गेल्ले कवियी न्हय. रानांत्ल्या फुलाव्हिरी कोणाच्यायी गोचराक येनातल्ले अविद्यावंत. ते कोंकणिचे मूळ मनिस जाल्न आसल्ले म्हणतात. आतां संसारांत आधुनीकरण मीत मिरवाल्यारी कुडम्यांनी रामायण काव्य शिगम्याच्या आचरणा द्वारीं उरल्न हाडलां. कुडम्यांनी हें काव्य तांच्याच शय्लेन घडलेलें कोणाच्यायी वशीली या शिफारसाक न्हय. सग्ळो दीस घोळोन जाल्ल्या तांगेल्या पुरासाणाच्या परिहाराक, दुरबळपणांतल्या बेजारायेच्या निवारणाक आनी आत्मसंतोसाक म्हण्च्याकी चड करुन आपल्या धर्मांतल्या धार्मीक रिती रिवाजिंच्या आचरणांक.

कुडम्याल्या रामायणांत वाल्मीकी रामायण, आनंद रामायण, जैन रामायण...अशें विविध रामायणांत्ल्यो संग्ती मिस्ळाल्ल्याव्हिरीं दिस्ता. हांगा जानपद रामायणांचो प्रभाव शिषट रामायणां वय्र पडलागी म्हळ्ळेलें सवाल उदेना. कित्याक म्हळ्यार रामायणाची कथायी चारण कविंच्या तोंडांत आसल्ली शिष्ट क्रमाक बदलोन लिखित रूप घेत्लें म्हळ्ळी सांग्णी आसा. (होमरालीं काव्यांयी मौखीक संप्रादायां थाल्न अक्षर संप्रादायाक आयिल्लीं म्हळ्ळी अभिप्राय आसा)

रामराज्य म्हणल्यार सग्ळ्या रितिर एक्र समधिचें, तृप्तेचें, सुव्यवस्थीत नागरिक जीवन म्हण कल्पन केल्यार, हाका विरोध जाल्न अनीत, अधर्मान, कामुकतेन सीतादेविक चोरुन व्हरलेल्या रावणालें राज्य अनागरिक जीवन. ह्या रावणालें राज्य लासून, नाश करुन, दुष्ट शिक्शा, शिष्ट रक्शण मुखांतर धर्म स्थापन केल्लें - होळियेक एक व्हडलें निदर्शन. रावणान, सीताक कामाभिलाशेन चोरुन वेल्ल्यान राक्शसा कुळियेचें निर्नाम जाता. रावणा वधेक आनी कामदहनाक अर्थपूर्ण संबंद आसा. कुडमी गाय्चेल्या पदांत 'रामुरे लक्ष्मण आनंद कुळी, लंका लासून तांणी केल्या होळी' म्हण एक पद आसा.

सीतेक अपर्क्षिल्लें रावणाल्या दुर्गताक कारण. व्यवहारीक दृश्टीन पळयल्यार इंद्रिय निग्रहाच्या हतोटिची संगत रामायण समर्थन करता. कुडम्यांल्या हालीं खेळांत रुमटांर या तोणियांर रामायणाचें क्रम, गावन आनी नाचून प्रदर्शीत जाता. आरंभीक सतू बांदून त्या सतातयल्यान सीता देविक फाटीं हाडचेलें क्रम करुन खेळमेळाचें आचरण आरवेर करता. अशें, रामायणाचें आचरण आपल्या धार्मीक रितिरिवाजांत संमिळित करुन, फाटल्या दिसांचे कश्ट अन्याय वाइट आशा आकांक्षा व्हांवसून, मुकल्या नव्या जीवनाच्या, बरेपणाच्या उल्लासान भरता. रामायणाचें क्रम एक संप्रदाय जावन कुडम्यांल्या शिमग्या उत्सवांत धार्मीक रितिरिवाजि मुखांतर आचरण करचें खडड़ाय जाल्ल्यान तांचो जानपद कला आजिकी जिवी उरल्या.

"पूर्वं यत्र तपोवनानी गमनं हत्वा मृग कांचनं
वैदेही हरणं जटायु मरणं सुग्रीव संभाषणं
वाली निग्रहणं, समुद्र तरणं लंकापुरी दाहनं
पश्चाद रावण कुंभकर्ण मथनं एतद्धी रामायण"

हें संस्कृतांत चारच चरणांनी रामायणाचीं प्रमुख घडिता विवरल्लें एक श्लोक. कुडम्यांक रामायणाच्यो सकळ सर्गां कळित ना. तांका बालकांड, अयोध्यकांड, अरण्यकांड, किष्किंदकांड, सुंदरकांड, युद्धकांड, उत्तरकांड - हांचो विवर जमंसरयी कळित ना. आपल्या सीमीत गिन्यानाच्या आदारान रामायणांतल्यों प्रमुख घडितां, गीता रुपार विणून, गायन करुन, रुम्टा तोणियांर खेळतांना रामायणाचें रुपक दोळ्यां सकार येता. जैनरामायण, आनंदरामायण, वाल्मीकी रामायण आनी हेर रामायणांतल्यों बहुप्रचलित घडीता सामान्य जावन चडश्यांक कळित आसा. कुडमी रामायणाकयी विशेशता आसा. तांचिच जाल्लीं सौल्यां त्या गीतांनी कुडम्यांनी साक्षात्कार केल्यां. हें कुडमी रामायण विमर्शात्मक नदरेन पळेयल्यार कळता. जैनरामायणाक मानतांना, असल्या जानपद रामायणांकयी पारखुंक दिल्लें गर्जेचें.

गोंय कोंकणी अकादमिची संशोधकी जयंती नायक - हिच्या 'नतिय उखल्ली खेळयानी' (आमोणेचीं शिमग्याचीं गितां) म्हळ्ळ्या पुस्तकांत, चौरंगी गीतांत-श्रवणाच्या कथाचें २७ वोळींचें गीत आसा. श्रवण मरता म्हणासच्यो हांतल्या कथांत, श्रवण मरतांना 'राम राम' म्हण मरता. हा कथाक आनी कुडमी रामायणांतल्या श्रवणाल्या कथाक कांय सम्यास ना. सीतापहरणाच्या १४ वोळींच्या आनियेका गीतांत रावण कपट जोगी जावन येता. सीता ताका भिक्षा दिता म्हणासची कथा आसा. हाका आनी कुडमी रामायणाक ताळ पडना.

कोंकण टायम्स दिवाळी अंको १९८३ हाचेर श्याम वेरेंकारांचें 'रामसीता' म्हळ्ळें ३९ वोळींचें गीत पकटलां. रामलक्ष्मण सीता वनवासा वेच्या संदर्भाथावन रावणान सीतापहरण केलाथंय म्हणासची कथा हांतूं आसा. हा गीताक आनी

कुडमी रामायणांतल्या कथाक कांय व्यत्यास दिसाना.

कोच्चिच्या एन.पुरुशोत्तम मल्ल्या - हांच्या १९७६ वरसा प्रगट जाल्ल्या 'कोंकणी लोकगीत' म्हळ्ळया पुस्तकांत 'घोडे वोरांव्चें' गीत आसा. हांतूं इक्रावें नोमोन म्हणासर नोमोन आनी मुकार श्रवणाची कथा आसा. १३२ वोळींच्या ह्या गीतांत दशरथान पुत्रकामेष्ठी याग करून चवा पुत्र जल्माता म्हणासर्ची कथा आसा. हांत्ल्या कथाक आनी कुडमी रामयणांत्ल्या कथाक इल्लो व्यत्यास आसा.

ह्या गीता प्रकार श्रवण दशरथालो बाण लाग्ताना 'राम राम' म्हण्ता. ताचीं आवय बापय (जाचेंद) मर्तानांयी दशरथाक शाप दीव्न 'राम राम' म्हण मर्ता. तांचें दहन करुन, दशरथ फाटीं आयोध्येक येव्न रुशीं कडेन समालोचन चलय्ता. अंधकांच्या शापाक परिहार जाव्न याग करच्याक रुशी दशरथाक उपादेस दिता. याग केल्यार पुत्र जल्मता म्हण ते दशरथाक सांग्ता. दशरथ याग मांडता. ताटकी निमत्तीं याग शुद्धी नास्ता. तेन्ना रुशी शृंग मुनीक आपव्न याग कर्च्याक सांग्ता. तशें शृंग मुनी येव्न याग संपूर्ण कर्ता. ह्या कथा प्रकार कौसल्याक राम, कैकेक भरत आनी सुमित्रेक लक्शमण-शत्रुघ्न जल्माता. तांचो भारसो कर्ता म्हणासर्ची कथा हांतूं आसा.

तांच्याच 'होनुमोतु गेलो सीना सुद्दी' ह्या गीता प्रकार मुदी घेव्न होनुमंतु सीता सोधेक वेता. सीताक मुदी दिता. लंका लास्ता. सीतेन दिल्ली चूडामणी हाडता. कपीवीर सेतु बांदता. राम - रावणालें वध कर्ता. सीनेक फाटीं हाडता. रामाक पटटाभिशेक कर्ता. ह्या गीतांत तीस वोळी आसा.

## श्रवणाची कथा:

कुडमी रामायण श्रवणाल्या कथाथाव्न प्रारंभ जाता. अयोद्यांत दशरथ महाराय राज्वट चलय्तेच आसा. ताका तीगिजाणीं राणियो. कौसल्या माल्घडी, दुस्त्री सुमित्रा . निमाणी कैके. पुण सर्तीप्रकार सांग्ताना कौसल्ये, कैके, सुमित्रे म्हणचें क्रम. ह्या तीगिजाणीं राणियांनी दशरथाक भुर्गेबाळ सौभाग्य आसाना. अशें आस्तां एकपाव्टीं थोडे जण रुषी दशरताल्या आस्तानाक येता. दशरथ त्या रूषींक यथोचित सन्मान गौरव करून तांकां दान दिव्च्याक मुकार सर्ता. पुण ते रुषी दशरथान दिल्लो दान घेना - तिरस्कार कर्ता आनी म्हणता 'राया दशरथा, तुका पुत्र बाळ ना, पुत्र बाळ नास्लेल्यांकडचो दानधर्म आमी घेव्च्याक जाय्ना'. दशरत् - पुत्र बाळ जांव्क हांवें कितें करका म्हण त्या रुषींकडेनंच विचार्ता. तोवळ ते रूषी 'वना मधें पानोळे राकोका, 'राम' म्हळ्ळो सब्द तुंवें आय्कोका. आयकाल्यार मात्र तुका पुत्र भाग्य मेळ्ता' म्हण सांग्ता.

दशरथु धोनुसो बाण घेव्न वनांत पानोळी राकच्याक गेलो. वनांत मुगांच्यो पावुटी धरुन सोधीत्त गेलो. मुकार एक तळय मेळ्ळी. त्या तळये बग्लेक दोरिक दाळ्ळें आनी मुरुगा खातिर राकोन बस्लो. (दोरिक = बोंटेखातीर राकोन बस्चें कुटीर. पानोळी=मुरुगा खातीर राकून बस्ची प्रक्रिया) हांगा कुडम्यांची स्वाभावीक

प्रवृत्ती उज्वाडाक येना. कुडमी एक वृडकटटू जनांग. ते वांट करून मृगां मारतां. मृगांचीं पाल्नां पळेल्लंच मृगु खंय वेता, खंच्या जातीचें मृग म्हण अंदाज कर्च्यांतिल्ले भृंदंत आसल्ल्या कुडम्यांनी तांणी रचलेल्ल्या रामायणांतयी त्याच थरान संगती विणल्या. अशें दशरथु मृगांखातीर बाण वर्सां पर्यांत राखून वसल्लो.

जातुकां म्हळ्ळीं आंदोडें तपस्वी जोडें आसा. तांचो एकल्लोच पूत श्रवण बाळ. प्रायेंत तपस्वी जोडें सगळ्या तीर्थ क्षेत्रांकी गेल्यां पूण काशीक्षेत्र मात्र उर्लां. तांची निमाणी आशा काशी क्षेत्राक तीर्थयात्रेक वेची. तीं तांगेल्ली आशा पूर्ण करूंक पूत्र श्रवणाकडेन मागता. श्रवण पितृवाक्य पाळनाक तयार जाता. एक कावोड घडून ताच्या एका पोंतार आवयक आन्यका पोंतार बापायक बसवून, कावोड खांदार दवरून घेवन काशी तीर्थ यात्रेक भायर सर्लो. एका रानांत पावताना जातुकांक भारी तान लाग्ली. पूताकडेन खंयचेंयी पूण इल्लें उदाक हाडून दिल्याक मागों लाग्लीं. श्रवण, कावोड चंदनारूकाक बांदून, कमंडळ घेवन उदक हाडच्याक गेला. रानांत उदका खातीर भंवताना मृगाच्यो पावृटयो पळेंवक मेळ्ळ्यो. त्यो पावटयो धरून मुकार वेताना पयस एककडेन उदकाची तळय मेळ्ळी. तळयेंत देंवून उदकांत कमंडळ बुडयताना श्रवणाल्लो पांय निसरलो आनी कमंडल उदकांत पडलें. कमंडळांत उदक रिगचो सब्द जालो. त्या तळये लागींच पानोळी राकून बसल्लो दशरथु हो सब्द आयकोन, खंयचेंरी एक मृगु म्हण चिंतून शब्धभेदी बाण सोडलो. तो बाण श्रवणाल्या हृदयाक लाग्लो. त्या वेळार श्रवण 'राम राम' म्हण पोडलो आनी हें 'राम राम' वचन दशरथु आयकालो. ऋषिंनी सांगल्ल्या प्रकार 'राम' वचन आयकोन आनंद भोगल्यारि आपाणाल्लो बाण कोंनरी एका तपस्वीक लाग्लो म्हण आतंकान धांवून येवन पळेताना बाण लागल्लो श्रवण वळवळता. श्रवण, आपूण आवयबापायक खातिर उदक वच्याक आयिल्लो संगत दशरथाक विवरून, उदक तांकां पावंवच्याक सांगून प्राण सोडता.

दशरथान, उदकाची कमंडोळी आनी श्रवणाक घेवन जातुकांलागीं वचोन तांकां उदक दिलें. जातुकां, दशरथाक पोशेवन पळेय्ना आनी उदक हाडल्लो आप्णाल्लो पूत न्हय म्हण कळ्ळा. दशरथु, आप्णाल्ली वळक सांगता. आपूण पानोळी राकाना मृगु म्हणून सोडल्ल्या बाणान श्रवणाल्लो प्राण गेल्लो विवर दिता आनी पश्चाताप पावता. हें आयकाल्ल्या जातुकांक मस्त दुःख भोगता. तीं आंदोडीं – 'कशें आम्च्या आर्कच्या काळार पुताल्ली सेवा मेळानाशें जालेंरी, तुज्या आर्कच्या दिसांनीयी तुजे पूत तुज्या सेवाक मेळानाशें वचों' म्हण दशरथाक सिराप दिता आनी पुत्रशोकानंच प्राण सोडता. दशरथु तेगांकी एका सरनार दहन करून अयोध्याक फाटीं वेता. हांगा, एक – ऋषीवचना प्रकार दशरथु 'राम' म्हळ्ळो सब्द आयकाल्लो. दुसें – येदोळ पुत्रभाग्य नासल्ल्या दशरथाक अंदोडयां तपस्वींलो शिराप – ह्या दोनयी घडितांनी दशरथाक पुत्र जल्माता म्हळ्ळें दृड जाता. वाल्मीकी रामायणा प्रकार श्रवण कुमार प्रसंग दशरथाक

व्हार्डिक जावच्याद्दीं जाता. पुण कुडमी रामायणांत दशरथाक व्हार्डिक जाल्या मागीर हें घडित कथांत स्वारस्यभरित रितिन विण्लां तें विशेस.

## पुत्रकामेष्टीयाग:

अयोध्याक भारी दु:खान पावल्ल्या दशरथाक रुषी सग्ळे मेळून पुत्रकामेष्टी याग करच्याक मार्गदर्शन दिल्लेल्या प्रकार दशरथु सारायु नंय देगेर याग मांडता. यागाच्या आखेरिक मेळल्लो प्रसाद रुपाचो पिंड, दशरथु तीगां राणियांक तीन वांटे करुन, पयिल्लो वांटो आप्ली मोगाची निमाणी राणी कैकेक दिता. हें पळेयिल्ल्या देवतांक खंत लाग्ता. तांच्या विधी प्रकार पयिल्ल्या पिंडान कौसल्येक नारायणांशान राम जल्मोका. कैकेक पड्ल्लो पिंड मेळ्ळ्यार भरत माल्घडो जाव्न जल्माता. त्या खातीर गरुडाक धाडता. गरुड येव्न कैकेल्या हातांत्लो पिंड तळपु मारुन घेव्न धांव्ता. तो पिंड लंकेर व्हरुन घाल्ता. (लंकेर पिंड कैकसेक मेळ्ता. त्या पिंडान तिका विभीषणु जल्माता. ह्या कारणान विभीषणु रामाल्या पाळ्याक मेळोंक येताना राम ताका आप्लो भावच म्हण स्वीकार कर्ता म्हळ्ळी काणी मुकार आसा. दशरथाक मेळल्ल्या पिंडानच्च विभीषणु जल्मोंची कथा कुडमी रामायणांत मात्र मेळ्ता)

हांगा कौसल्या आंनी सुमित्रे आपापल्या वांट्याच्या पिंडांत्लो अर्धर्ध कैकेक दिता. त्या देकुन कौसल्येक राम, सुमित्रेक लक्ष्मण, कैकेक भरत–शत्रुघ्न जोळ्ळे पूत जल्माता. अशें कैकेक भरत, शत्रुघ्न जल्मोंचें कुडमी रामायणांत मात्र मेळ्ता. तें, हेर रामायणांक आनी कुडमी रामायणक आस्चे प्रमुख व्यत्यास. वाल्मीकी रामायणाच्या एका पाठा प्रकार दशरथु पिंड दोन वांटे कर्ता. ते कौसल्या आनी कैकेक दिता. मागिर आयिल्ली दुस्री राणी सुमित्रेक कौसल्या आनी कैकेयी तांच्यांत्लो अर्धर्ध वांटो दिता. ह्या कारणान कौसल्येक राम, कैकेक भरत आनी सुमित्रेक लक्ष्मण, श्त्रुघ्न जोळ्ळे पूत जल्माता. आनियेका पाठा प्रकार दशरथु पिंड कौसल्येक अर्द वांटो दिता. उरल्ल्या अर्धांत दोन वांटे करुन एक वांटो सुमित्रेक दीता. मागीर उरल्ल्या एका वांट्यांत दोन वांटे करून एक वांटो कैकेक आनियेक वांटो फाटीं सुमित्रेक दीता. हाच्या निमत्तीं सुमित्रेक लक्ष्मण, शत्रुघन जोळ्ळे पूत जल्माता.

## ताटकी संहार:

विश्वामित्र रुषी आपल्या यज्न समाप्तिक राक्षसां निम्तीं अड्ळ्ळ्यो आसल्ल्यान, त्या राक्शसांक वधोंवच्याक राम–लक्ष्मणांक मात्र साद्य म्हण सम्जोन, तांकां आपव्न वर्च्याक अयोध्याक येता. राम–लक्ष्मणांक आपव्न वर्ता. अशें ते वेताना विश्वामित्र तांकां ताटकिली खबर सांग्ता. मुकार मार्गार ताटकी मेळ्ता. ती, एक वोंट आगसाक, एक वोंट पाताळा तित्ल्याक तोंड रुंदाव्न तांकां गिळच्याक येता. राम, विश्वामित्रालो आशीर्वाद घेव्न एकाच बाणान ताटकिक संहार कर्ता.

## अहल्योद्दार:

ताटकिक संहार करून ते तेगी महामेरू म्हळळ्या पर्वतार पाव्ना. थंय गोपा बांधून विश्वामित्र यागाक बस्ना. रामलक्ष्मण याग संरक्षणाक रावना. यागाचो परमळ सुटोन, याग भ्रष्ट कर्च्याक आयिल्ल्या राक्शसांक रामलक्ष्मण संहार करून विश्वामित्रालो याग सम्पूर्ण कर्ता. थंयथाव्न ते मुकार वेनाना गौतम तीर्थ मेळ्ता. गौतम तीर्थ न्हाव्न एका शिळावयर चडताना रामा चरणां स्पर्श जल्लेंच शिळा अहल्या जाव्न रूप घेता. हाच्या फाटल्यान अहल्या शापाची कथा आस्सा. गौतम ऋषी येता. राम, गौतम अहल्याक परतून लग्न करून सोडता.

## सागर गर्व भंग:

अहल्या शाप विमोचना मागीर ते तेगी सागरा बव्लेक वेता. रामलक्ष्मण सागरांत खेळच्याक देंवा. अहंकारान भर्लेलो सागोर उचांवळ जाव्न रामलक्ष्मणांक बुडोंवच्याक पळयताना, राम रागान धोनुसाक बाण संधान कर्ता. हाच्या भियान सागोर ब्राह्मणा रूप धरून, माफ मागून शांत जाता. त्या नंतर रामलक्ष्मण बर्याथरान सागोर खेळता. हो प्रसंग हेर रामायणांनी मेळना.

## सीता जनन:

सीता जननाची कथा – कुडमी रामायणांत वेगिळच आस्सा. सातां सम्दिरांच तेर ऋषी सगळे मेळून होम कर्ता. ह्या होमाचे आरव्रेरिक पवित्र सुटच्याना ऋषीलें आंगुळ चिरोन रगत व्हाळना. होमाक रगत पडल्यार होम भ्रष्ट जाता देकून ऋषी तें रगत कमंडोळींत भर्ता. ती कमंडोळी चंदनाच्या पेटेभितर दवर्न, पेट बांध करुन सम्दिरांत सोडता.

बारा वरसांनी जाळ वोंळल्लो खार्वी एकलो त्या सम्दिरांत जाळ घाल्न मास्ळी धर्तालो. किल्लो वेळ जाल्यारी ताका एकच एक खोरा मच्च मेळाना. आरव्रेचें प्रयतन म्हण फार्टी घरा माय्र सर्च्या वेळार जाळ सारून वोडताना ताचेर ती पेट सांपडली. ताका जाय आस्सल्ली मास्ळी मात्र. पेट मेळ्ळेली रायाक पावंल्लो धर्म म्हण लेकून . ती पेट आप्लो राय जनका महारायाक पेटव्ली. जनका रायान ती पेट उगती करून पळयताना तांतूं एक सोभित चेडूं बाळ आस्सल्लें. जनका रायान आप्णाक देवानच्च दिल्ली कन्या म्हण भरी संतोसान 'सीता' म्हण नांव दवर्न तिका वाडय्ली. सीता जननाची ही कथा हेर रामायणांच्या कथाथाव्न वेगळी राव्ता.

## सीता स्वयंवर:

जनका महारायान सीतादेविक स्वयंवर मांडून पथ्विच्या सगळ्या रायांक आमंत्रण धाडलें. स्वयंवराक पण जाव्न आप्ल्या राव्रेरांत आस्सल्लो शिवालो 'धोसोगुरु' (वाल्मीकी रामायणांत ह्या धोनुसाचें नांव 'सुनाभ') धोनुसो पूजेल्ना. कोण त्या धोनुसाक बाण लाव्न संधान कर्तागी, त्या वीराक, सीताक लग्न करून दितां म्हळ्ळें शर्त. पथ्वी-वय्लो समस्त लोक, देवकुळी, सीतेच्या स्वयंवराक

आय्ल्या. खबर आय्कोन विश्वामित्र्, रामलक्ष्मण सय्त थंय पाव्ल्या. लंकेचो रावणयी स्वयंवराक पाव्ला. रावणान आप्ल्या संपूर्ण सक्तेन धोनुसो उभार्चें प्रयतन केलें. पुण ताच्यान उभार्च्याक जायनास्तां धोनुसो ताच्या इर्थ्यार पडून रगत व्हांव्लें. रावणाली ही अवस्था पळेव्न सीता हास्ली. रावणाक अपमान जालें.

तो धोनुसो उभार्चें कोणयी ना म्हण जाताना, विश्वामित्राल्या सूचना प्रकार, रामान लक्ष्मणाक आदेस दिलो. लक्ष्मणान तो धोनुस दाव्या पायाच्या यांगूळान उभार्लो. ताणें सोडल्लो बाण सुर्या मंडलाक वचोन त्या बाणान काकासुराक वधेय्लो. हांगा धोनुसो खंडखंड जाव्न पडताना स्वयंवराच्या शर्ता प्रकार सीता, माळा घेव्न लक्ष्मणा मुकार आय्ली. त्या वेळार लक्ष्मण सीताक तडसोन, हात जोडून म्हणता – 'थीर करुन रावगे माये जानकी सीता – म्हाजान व्हड बोंधव हायगे माये.' पुण सीता –'तुका ह्या जल्मांत लग्नंच नास्तां वचों' म्हण लक्ष्मणाक शाप दिता. ती माळा व्हरुन रामाक घालून सीता स्वयंवर जाता. ह्या स्वयंवराचें गुम्टां गीत सुंदर रितिन कुडम्यांनी विणल्लें तें ह्यापरीं आसा.

"सीता घेव्न याली स्वयंवराची माळा
ती माळा घेव्न याली लक्ष्मणा फुडां
थीर करुन रावगे माये जानके सीता
म्हाज्यान व्हड बोंधव हायगे माये
मागा शिरापु दिलो लक्ष्मणा फुडां
ती माळा घेव्न याली रामा फूडां
ती माळा घालली रामा गळ्या
इसावर न्हाव्लो देवू जनकापुरा
सीता घेव्न याले अयोध्या नगरा"

सीता स्वयंवराचो हो प्रसंग कुडम्यांनी तांचाच चिंतपा प्रमाणे तयार केला. जनका रायाकडेन आसल्लो शिव धोनुस सीते मात्र उभारुंक सक्ताली जाल्ल्यान स्वयंवराचें शर्त जाव्न तो धोनुस उभारल्याक सीतेक लग्न करुन दितां म्हण जनकरायान पण दवरल्लें. स्वयंवराच्या वेळार धोनोसो इरद्यार पडोन रावणाक अपमान जाताना सीता हासल्ली म्हळ्ळो द्वेष रावणाक आस्ता जाल्ल्यान मुकार सीतेक रावण चोरुन वर्च्याक हेंयी एक काराण जाता. धोनुसो रामाल्या आदेशा प्रकार लक्ष्मण उभार्ता. शर्ता प्रकार सीतान माळा लक्ष्मणाक घाल्का. पुण लक्ष्मण सीताक 'माये' म्हण संभोदन कर्ता आनी माळा रामाक घालूंक सांग्ता. सीतान दिल्ल्या शापान लक्ष्मण ह्या जल्मांत बहमाचारी जाव्नंच उर्ता. मुकार इंद्रजीता संहाराक हो शाप लक्ष्मणाक उप्काराक पडता. वाल्मीकी रामायणा प्रकार काकासुर वधा पंचवटींत रामा मुखांतर जाता. पुण कुडमी रामायणांत लक्ष्मण स्वयंवरा वेळार काकासुराक वधय्ता. ह्यो संगती कुडमी रामायणाचें विशेश म्हण्येत.

स्वयंवर जाव्न ते अयोध्याक फाटीं येताना वाटेर तांकां परशुराम भेटता.

क्षत्रीय कुळियेक नास केल्लो परशुराम, आपल्याच नांवाचो आनियेक क्षत्रीय वीर भेटताना उचांबळ जाता. रामाक आनी परशुरामाक भासाभास जाता. परशुरामाल्ला वैष्णव धोनुस, राम आप्ल्या दाव्या मुटींत धर्ताना, राम आप्लोच अवतार म्हण परशुरामाक कळ्ता. वैषणव धोनुस रामाक दील्न परशुराम तपस्साक चल्ला. राम लक्षमण अयोध्याक पाव्ता.

अयोध्यांत दशरथ् रामाक पाट बांदच्याक तयारय केल्ली खबर कैकेली चाकर्न मंथरेक कळ्ता. ती कैकेक दुर्भोदन करता. कैके फुडें दशरथाकडेन विचारूंक बाकी आसल्लो वर आतां विचार्ता. रामाक वनवासाक धाड्चा आनी आप्लो पूत भरताक पाट बांदका म्हण ती मागताना दशरथ् मत चुकोन पड्ता.

## वनवास:

पित्र वाक्य पालनाक राम वनवासाक भायर सर्ता. राजवट भरताक दील्न बारा वर्सांच्या वाय्दाक राम वनवासाक वेता. राम, लक्षमण, सीता वनवासाक वेची आव्दी कुडमी रामायणांत बारा वरसां. हेर थोडयां रामायणांनी वनवासाची आव्दी चव्दा वरसां. तीं तेगांय पंचवटीक पावोन, गोपा बांदून, थंय रावून खेळून संतोसान आस्ता.

## शंभासुर वधा:

एक दीस लक्षमण वनांल्लीं कंदमूळां हाडच्याक गेलो. त्या प्रदेशांत शूरपनखिलो पूत शंबासुर दयित सुर्यांहास खडगा खातिर तप कर्तालो. शंभासुरान लक्षमणा वय्र खडग प्रयोग केल्लें. तें खडग लक्षमणान दाव्या मुटींत धरून सुकार दिस्च्या कणकी पिंडाक मार्लें. कन्की पिंडांत तपाक बसल्ल्या शंबासुरालो रुड्ड कात्रोन मेलो. "कोण एकल्या रुषीक आप्णान वधर्ल्लें, त्या दोसा खातिर आग्नी प्रवेश कर्तां" म्हण लक्षमण तयार जालो. हांगा, पंचवटींत रामसीता पगडे खेळून आस्ताना सीताक अपशकुन जालें. वनफळां हाडूंक गेल्ल्या लक्षमणाक किरेंगी कष्ट आय्ल्या म्हण तिका संसोव जालो. तिणें लक्षमणाक सोदच्याक पर्ती रामाक धाडलो. राम येव्न, लक्षमणान वधेयील्लो रुषी न्हय, शंबासुर दयित म्हण समजय्लें, अग्नी प्रवेश कर्च्याक तयार जाल्ल्या लक्षमणाक राक्लें.

## खरदूषण त्रिशिरा वधा:

शूरपनखी, पूत शंबासुराक खाण घेव्न येताना रगताकोंड दिस्लें. तिका भारी संतोस जाव्न रगत घोटलें. कोण रुषीलें रगत गोड लागता म्हण ती चिंताना पूत शंबासुर मरोन पडल्लो दिस्ता. तिका आपूण पियेल्लें रगत आप्णाल्या पुताचेंच म्हण कळ्ळें. ताका मारल्लो कोणें म्हण पळेय्ताना थंय रामलक्षमण दिश्टिक पडले. ती बोब घेव्न वचून भाव खरदूषणा त्रिशिरां कडेन दूरां सांग्लीं. खरदूषणा त्रिशिर येव्न रामलक्षमणांकडेन यवुदां जालीं. रामान खरदूषणा त्रिशिरांक संहार केलो. लक्षमण वनफळां हाडूंक वेता थाव्न शंबासुराक संहार कर्ता पर्यांतची कथा जैन रामायणांत मेळ्ता. वालमीकी रामायणांत हो प्रसंग दिस्ताना.

## शूर्पनखी मानभंग

कशेंयी पुणी रामलक्ष्मणांक संहार कर्का म्हण शूर्पनखी बारा वर्सांच्या कन्याची रूप धरुन रामलक्ष्मणा मुकार येता. पुण, अशें येव्न पळेताना रामालें रूप पळेव्न ताच्या वय्र तिका मोग उब्जाता. शूर्पनखी रामाकडेन आप्णाक व्हार्डिक जाव्का म्हण माग्ता. राम, आपुण संसारी, सीता आप्णाली बाय्ल आसा, आपुण एकपत्नी वृतस्थ, लक्ष्मण अविवाहित, ताचेकडे विचार म्हण लक्ष्मणालागीं धाडता. शूर्पनखी वचोन लक्ष्मणालागीं व्हार्डीक जाव्च्याक माग्ता आनी आप्णाक रामानंच धाडल्लें म्हणयी सांग्ता. पुण लक्ष्मण, रामान सांगल्ल्याक साक्स हाड म्हण तीका रामालाग्गीं फाटीं धाडता. ती येव्न रामाकडे साक्स विचारता. राम, तिच्या फाटी वय्र बाणान बरय्ता. ती साक्स घेव्न ती पर्तून लक्ष्मण आसल्लेकडेन पाव्ताना लक्ष्मण नीद आयिल्ल्यापरीं नटन कर्ता. रामलक्ष्मण सतांच्यें पळेव्न निदेंत आस्च्या लक्ष्मणाक मार्च्याक शूर्पनखी खडग काडता. खडगाच्या सब्दाक जागो जाल्लो लक्ष्मण शूर्पनखी हातांत्लें खडग वोडून घेव्न रामान बरयिल्लें बरप वाच्ता. रामान, शूर्पनखीक अवमान कर म्हण बरयिल्लें वाचून, लक्ष्मण तिचें नाक, वोंट काप्ता. व्हांच्या रग्तासवें शूर्पनखी बोब घेव्न लंकेक धांव्ता आनी भाव रावणाकडेन सीतेक चोरुन हाडच्याक प्रचोदन कर्ता.

## माया मुर्गुं:

रावोण सीतेक चोरुन हाडच्याक योजन घाल्ता. माळ्ळो मारीचाक मायामुर्गुं जाव्न सीतेक फटंवचाक सांग्ता. विश्वामित्राल्या यागा वेळार रामाल्या बाणाची रूच खायिल्लो मारीचा ओप्वाना जाल्यारी, रावणाच्या भेष्टाव्णेन, रावणा हातांत मरच्याकी रामाबाणान मर्चें बरें म्हण चिंतून, सुवर्णा मुर्गुं जाव्न पंचवटीक येव्न सीते मुकार नाच्ता. मुर्गाक आशेल्ली सीता, ताच्या चामडयाची चोळी करच्या नेव्यान रामाक मुरुगा पाटल्यान धाडता. सीतेच्या राखणाक, लक्ष्मणाक नेमक करुन, राम मुरुगा फाटल्यान वेता. कितलें पय्स फाट धल्र्यारी रामाक मुर्गुं मेळाना जाताना राम बाण प्रयोग कर्ता. मुरुगुं मरोन पडताना रामाल्या स्वरान 'हा सीता, हा लक्ष्मणा' म्हण बोबेव्न मर्ता. हो सब्द आयकाल्ली सीता, राम अपायांत आसा म्हण लक्ष्मणाक वेच्याक वत्ताय कर्ता. लक्ष्मण आय्काना. सीता लक्ष्मणाक मोन दुकच्याबरी उलय्ता. तेन्ना लक्ष्मण पर्णाकुटी मुकार रक्षणाची रेखा घाल्न, खंयच्यायी काराणाक त्यो रेखा उत्रोन भाय्र येनाका म्हण सीतेक ताकीत दीव्न रामाक सोदच्याक भाय्र सर्ता. (ह्या रक्षा रेखेक लक्ष्मण रेखे म्हणच्च नांव आनी ते रेखा उत्रोन कोणाकच्च भितर वचोंक जाय्ना). लक्ष्मण रामाक भेटता. मुर्गुं मर्ताना मारीचा रूपार मर्ता म्हण हेर रामायणांत्ल्या पाठांनी आसा. पुण कुडमी रामायणांत मुर्गुं, मुर्गा रूपारच्च मर्ता. रामलाक्ष्मण ताचें चाम्डें काडून घेव्न येता.

## सीतापहरण:

गोपेंत राम लक्ष्मण दोगी नासल्ल्या वेळार रावण कपट जोगी रूपार येवन सीतेकडेन धर्म मागता. (हो प्रसंग गोंयची संशोधकी जयंती नायक हिच्या आमोणेचीं शिग्म्या गीतां पुस्तकांत प्रगटला आनी हांगाच्या कुडमी रामायणाक लागू पडता.) सीता – "आमी कंदमूळां, वनफळां मात्र खाता, धर्म कसो दिंवचो" म्हण विचारता. कपट जोगी, "तिंच कंदमूळां दान दी, नासल्यार शाप दितां" म्हण भिंव्डायता. लक्ष्मणान रक्षा घाल्ल्यान ताच्या भितर रावणाक वचांक असाध्य. आनी, खंयच्यायी परस्त्रींक कामाभिलाशान आपडल्यारी रावणाक मरण म्हण शाप आसा जाल्यान सीतेक धर्म घेवन भायर येवच्याक सांगता. रुशी शापाक भियेल्ली सीता धर्म घेवन रक्षा भायर येता. त्यावेळा रावण धर्तरी सयत सीतेक उबारून आपल्या रथार घालून चोरून व्हरता.

अशें, सीतेक रावण चोरून व्हरताना, सीता–रामलक्ष्मणांक आपयित रडान करता. हें रडान वनांतल्यो चानियो आयकोन, रावणा वयर आक्रमण करता. रावणाल्या कुयुक्तिन चानियांक रावण मारता. (हेर रामायणांनी चानियांलो प्रसंग सेतूबंध वेळार आसा. पूण कुडमी रामायणांत, रावण सीतेक चोरून व्हरताना पयिल्लें तडसूंचें चानियांनी. इल्ल्या शरीरमान रावणाक चानियो किते आडायत म्हण आम्कां दिसच्याक पुरो. एक हुंवळो चाक्ल्यार तडसूंच्या जायनातल्या सधभार, हुंवल्यांचो रासच्च आंगार पडल्यार कांटच करच्याक असाध्य करशेलो. तशेंच एक किर्कोळ चानी रावणा मुकार कांयच्च न्हय जाल्यारी, चानियेंचो हिंडुच्च येवन आंगार पडल्यार, रावणा तसलो शरीरमानयी एकफाटिच्याक घडबडत – हें कुडमी जानपद लोकालें चिंतप.) राम अन्लक्ष्मण येवन आप्पाक रावणान चोरून व्हेल्ली खबार सांग्ता म्हणासर जीवंत आस्चाक चानियांक सीता वर दीता.

## जठायु प्रसंग:

चानियांक मारुन सीते सयत रावण मुकार वेताना, सीतेलें रडान आयकाल्लो जठायु, रावणा वयर आक्रमण करता. जठायुक आनी रावणाक भीकर युद्ध जाता. पूण कोणी सल्वोंचें दिसाना. त्या वेळिं रावण युक्ती करून 'आप्पालें मरण हांव सांगतां, तुजें मरण तुवें सांगोका' म्हण जठायु वोप्वांच्यावरीं करता आनी आप्पालें मरण दाव्या पाया उंगुष्ठ वय म्हण सांग्ता. जठायु ताचें मरण ताच्या पाकाल्यां वय म्हण सतच्च सांग्ता. पयल्या सर्ती प्रकार जठायु रावणाल्या उंगुष्ठाक चोंच मारताना, रावणान उंगुष्ट चुकयलें. जठायून चोंच मारल्ल्या रभसाक चोंच धर्णी भितर रोंब्ली. तक्षण रावणान जठायुच्या फाटिर पायो दवर्न ताचे दोनी पाकाटे कातर्ले. जठायु धर्णीर पडलो. सीतेन जठायुकी रामलक्ष्मण येता म्हणासर जीवंत आस्च्याबरीं वर दिलो. ह्या संदर्भाची कथायी कुडम्यांनी तांच्याच चिंतपा प्रमाणें विण्ल्या म्हण्येत.

जठायुक मारुन रावण, सीतेक घेवन मुकार वेताना, सीते आप्पालीं आभरणां

काड्न पालव्या वुस्तुरांत गुटलाव्न रुषीमुकी पर्वतार घाल्ना. सागोर उत्रोन रावण लंकेक पाव्ता. सीतेक अशोके वनांत्ल्या चंदना काव्यार दवर्न राखणें नेमक कर्ता. सीता थंय रामध्यानाचें रुदान करित्त आस्ता.

## चानियांक वरः

हांगा पंचवटींत रामलक्षमण गोपेंत येव्न पळेय्ताना सीता दिसाना. ते सगळ्या वनांत सोध्च्याक सुरु कर्ता. वना मधें अर्ध प्राण धरुन आसल्यो चानियो मेळ्ना. चानियो, रावणान सीतेक चोरुन व्हेल्ली आनी आप्णांक मारुन घाल्ली खबर रामलक्षमणांक सांग्ता. चानियो रावण गेल्ली वाटयी दाकय्ता. चानियांलो साहस आनी सहायाक मेच्वाल्लो राम तांकां सुवर्णापाट दीतां म्हण सांग्ता. पुण चानियो –'सुवर्णा पाट दिल्यार सुवर्णा खातीर आपल्या पिळगेच्यांक गोर्वां राक्चे चेडे बडव्न मारीत, त्या देकून कांबळी पाट दी' म्हण माग्ता. राम चानियांच्या पाटी वय्र हात वोडताना कांबळी पाट उदेता. 'चानियांच्या पाटिर आस्चे पाट तेच्च' म्हण – हांगा कुडमी जानपद लोकालें मनोविश्लेशण विशेस रितिर घोळ्ळां. ह्या संधर्भाचें गीत सुंदर रितिर विण्लां तें अशें आसा:

"चानिये चानिये खंय्गे वाट
रावणान सीता व्हेल्या ईतगा वाट
तुका दीतां चानिये सुवर्णा पाट
नाका गा स्वामीया सुवरणा पाट
गोर्वां राक्णे जंगळे चेडे यवुदां काडीन
गोर्वां राक्णे जंग्ळे चेडे बडव्न मारीत
म्हाका दीगा स्वामिया कांबुळी पाट
तुकां दितां चानिये कांबुळी पाट
ईतगा स्वामिया लंकेर वाट"

चानियालें वरतमान आय्कोन राम लक्षमण मुकार वेताना रुदानान वळवळचो जठायु मेळ्ळो. जठायुन, रावणाक आप्णान तडिसल्लें, रावणान कपट रितिर आप्णाक मारल्लें, सीतेक चोरुन व्हर्लेलें, सीतेन आप्णाक वर दिल्लो विवर सांग्लो आनी प्राण सोडलो. रामान आप्ल्या तळ्ता वय्र सरन दाळून जठायुक दहन केलें. मुकार गेल्ल्या तांकां शबरि नार भेटली. तिणें वनांत्लीं वनफळां दीव्न राम लक्षमणांक सनमान केलो आनी तांकां पंपा सरोवरा तीरेक वाट दाकय्ली. पंपा तीरेक पावुल्लो राम सरोवरांत साळका फुलार सीतादेविलें मुखामळच्च देख्लो आनी मत चुक्लो. लक्षमणान ताका सांबाळ्न हाडून, दोगयी चंदना काटयार बस्ले.

## सुग्रीव सख्यः

पंपासरोवरा लागिंच्या रुषीमुकी पर्वतार लागून सुग्रीव वानोर रामलक्षमण बसल्लें हें दृश पळय्लो. ताणे रामलक्षमणांक आपव्न हाडच्याक हनुमंताक

धाडलें. हनुमंतु ब्रह्माचार वेस धरून येवून रामलक्ष्मणांक भेटलो. रामलक्ष्मणाविशीं समजोन घेवन, आपलें निजरूप दाखवन परिचया स्सांगलो आनी तांकां ऋषीमुकी पर्वतार आपवन व्हरून सुग्रीवाकडेन सख्य करयलें. सुग्रीवान, भाव वालिन आपाणाक धांवडायिल्ली, बायल स्सेक बंधनांत दवरल्ली सगत रामाक कळयली. स्सेक हाडून दील्यार, सीतेक सोदच्याक आपूण वानर कुळी सयत सहाय करतां म्हण सांगलें. रामान - स्सेक पाटीं हाडून दितां, वालीक संहार करतां म्हण सुग्रीवाक भास दिली. पूण सुग्रीवाक धय्र येना. वाली अपरिमित बळवंत आसल्लो, दुंदुभी दयित्यालो सांगाळो सदां उकल्लालो. तुवें तो उकलून सकत दाखयल्यार आप्णाक धय्र येता म्हण सुग्रीवान सांगलें. रामान दाव्या पायाच्या उंगुष्टान तो सांगाळो उंचाळून एक्कीस योजनां भायर उडयलो. एकाच्च बाणान सात ताडमाड कतरल्ली रामाली सकत पळेवन सुग्रीवाक संतोस जालो. ऋषीमुकी पर्वतार मेळल्ली सीतेल्या आभरणांची पोटली वानरांनी हाडून रामाक दाखयली. तांतूं चुडामणी मात्र दिसानातल्ली दड करून, सीता सोध्यो करच्याक निश्चय केलो.

## वाली वधा:

रामान धय्र दीवन दाडल्ल्या प्रकार सुग्रीव वचोन वालीक रणाक आपयलें. रागान पेटल्लो वाली येवन दोगांयकी युद्ध जालें. स्स्वाल्लो सुग्रीव वालील्ये पेट खावन ऋषीमुकी पर्वताक पाटीं येवन रामाक दुस्वासूंक लागलो. वाली कोण, सुग्रीव कोण म्हण कळानास्तनां आप्णान बाण संदान करूंक ना म्हण रामान सांगलें आनी दुसऱ्या पाव्टीं गुरुताक फुलां माळा घालून सुग्रीवाक वालीकडेन युद्धाक धाडून दीलो. कोपाक्रांध जाल्लो वाली, बायल तारादेविन आडाय्ल्यारी उटाउटीं सुग्रीवाडे युद्धाक आयलो. जैन रामायणा प्रकार तारादेवी सुग्रीवाली बायल. वाली सुग्रीवाक भीकर युद्ध जाताना रूका आड रावून रामान वालीक बाण सोडलो. वाली धरणिर पडलो आनी रामाक दुस्वासूंचाक लागलो. वालीक जियेंल्ची आशा आस्ल्यार बाण आपूण कांयिंच्च भाधकनास्तनां पाटी काडटां म्हण रामान सांगले. पुण वालीन मोक्ष मागलो आनी प्राण सोडलो. रामान सुग्रीवाक रायपाट आनी वाली पुत्र अंगदाक युवराजपाट बांदलो

## सीतान्वेषण:

राम लक्ष्मण, सुग्रीव, हनुमंत जांबव, वानरा सयनें मेळून सीते सोधेखातीर समालाचोन चलयलें. सीता सोधेक कोण शक्तिवंत म्हण पळेल्चाक रामान वीडो पूजेयलो. त्या सोभेंत्ल्या हनुमंतान उटून वीडो धर्लो आनी तागेल्यो सकत्यो प्रदर्शन केल्यो. हनुमंताली सकत पळेयिल्ल्या रामान आप्ली मुद्रकाची मुदी ताका दिली. मुदी घेतल्या हनुमंतान, नोवगिरी पर्वताथावन उडन मार्लें. अशें उडन मारल्लो हनुमंतु, सम्दिर उत्रोन लंकेच्या फाडला कुशिन वचोन पडलो.

त्या फाडला लंकेच्या एके तळये बगलेक एक्लो रूषी एक्लो मात्र तप करून

आसल्लो. हनुमंताक रावणाली लंका खंय्ची म्हण कळाना. रूषीक झगव्न विचार्यां म्हळ्यार तागेलो तपोभंग केल्याबरीं जाता. त्या खातीर तो एक उपाय कर्ता. दोन फात्रांची रांदण घडय्ता. रांदणी वय्र हांडी दवर्ना ती सकय्ल पडटा. हनुमंतु सीपें घेव्न तळ्यांतल्या उदकांत बुडव्न उदक हाडची प्रक्रिया चालय्ता. हनुमंताल्या ह्या व्यर्थ प्रयतनान रूषीक झागरण जाता. रूषी हनुमंताकडेन 'तूं कोण? कित्या खातिर हांगा आय्ला?' इत्यादी विचार्ता. हनुमंतु, आप्णाली परिचय सांगून, सीतें सोधेक आयिल्लो विवर ताका दीता. तो रूषी हनुमंताक सांग्ता – 'लंका पाटन फाटीं उर्लें. म्हाका उभार्न तूं फाटीं उडलो जाल्यार लंकापाटनाक पाव्ता' म्हण सांग्ता. त्या प्रकार हनुमंतु रुषीक उभारलल्या रभासाक, तो लंकापाटणार येव्न पडता.

तुळसीदास रामायणांत ह्या कथाक सरि जाल्लो एक प्रसंग आसा. मृतसंजीविनी हाडचाक गेल्ल्या हनुमंताक कालनेमी म्हळ्ळो राकोस, रुषी रूपार हनुमंताक फटंव्चें घडित ह्या कथाक ताळ पडता. पुण कथा संदर्ब आनी कार्याकारण मात्र वेग्ळेंच.

## हनुमंत – लंकादर्शन:

लंकेर पावुल्लो हनुमंतु आप्लें रूप बदलोन सान रूपार सीतेक सोधीत्त रावणाल्या अंतःपुराक वेता. थंय रावण, मंडोदरी सय्त पालंगार आस्ताना, मंडोदरी रावणाकडेन सीतेक फाटीं रामाक धाडून दिव्चाक उपदेस कर्चें पलय्ता पुण रावण आय्काना. तो कोपाविष्ट जाता.

रावण, सीतेक वशीकरण करच्याक अशोकवनाक वेताना ताच्या फाटल्यान अणुरूपी हनुमंतु गेलो. रावाण कित्ल्या थरान सीतेक वश कर्च्याक प्रयतन आय्ल्यारी सीता, राम राम म्हण संवरता शिवाय रावणाक कांयच्च जवाब दीना. तेन्ना रागान पेटल्लो रावण फाटीं राळ्ळेराक चल्ता – हें सग्ळें हनुमंतु रावणाच्या गमनाक येनास्तां पळेय्ता.

अशोकवनांत्ल्या सीता बसल्ल्या कडच्या चंदना रूकावय्र हनुमंतु बस्ला. सीता दुःखातप्त जाव्न रामस्मरण करुन आसा. त्या वेळार हनुमंतु साव्कास आप्णाल्या बालार रामान दिल्ली मुद्रकेची मुदी देंवव्न सीतेच्या हातांत पडाशें घाल्ता. सीते, आप्णाल्या भर्ताराली मुद्रका कोणे हाडली म्हण विज्मित पाव्ताना हनुमंतु राम राम संवरता आनी चंदना रूकावय्लो देंवोन सीतेच्या चरणांक पडून वंदन कर्ता. सीता, हनुमंताली परिचय विचार्न घेता आनी ताका आप्णाल्या सोधे खातिर रामानच्च धाडल्लो म्हण दृड करुन घेता. आप्णाली सोध्यो केल्ल्या हनुमंताकडेन, आप्णाक पळयिल्ल्याचो कुरुहु जाव्न चूडामणी दीव्न रामाक पावंव्चाक सांग्ता.

## अशोक वनध्वंस:

हनुमंतु, आपुण लंकेर आयिल्ली विषय रावणाक कळोव्चाक अपेक्षीता. त्या

खातीर, अशोकवनांतलीं वनफळां खाल्याक सीतादेविकडेन परवणगी विचारता. सीता – "रावण जेवण धाडता – तें तूं खा" म्हण हनुमंताक सांगता. 'रावणालें जेवण म्हाका उश्टें जाता. तें आग्निन खायिल्लें हांव खायना, म्हाजें खाण वनफळां – तीं खांव्याक आव्कास करून दी" म्हण मागता. सीता ओप्ता. हनुमंतु भागि संतोसान अशोकवनांत रिगता आनी वन निर्नाम कर्ता. ह्या प्रसंगांत – वानर उकडलेलें खायना, पकर्तींत स्वाभाविक जाव्न मेळचीं वनफळा खाच्चें माकडा कुळियेचो स्वभाव – हें यथोचित रितिन कथांत कुडम्यांनी उप्योग केलां म्हणयेत.

अशोकवन निर्दाळिल्लें पळेव्न वंधरखणें धांवून येता. हनुमंताक दांड्या गुंडयांनी मार्ल्यारी ताका कांयिंच जायना. धर्च्याकी मेळाना. हनुमंतुच्च मेळल्ल्या राकसांक मार्ता. हें पळेव्न वंधराखणे रावणालागीं दूरू व्हरता. हनुमंताक धर्च्याक, रावण, पूत इंद्रजीताक धाडता. इंद्रजीतु येव्न हनुमंता वय्र ब्रह्मास्त्र सोडता. ब्रह्मास्त्राक मान दिल्याक हनुमंतु ब्रह्मपासांत सांपडाता. इंद्रजित्, हनुमंताक बंधन करुन रावणा मुकार हाडता.

## लंकादहन:

रावणा मुकार हाडल्या हनुमंताकडेन रावण – "तुजें मरण सत्यें सांग" म्हण भेसयता. ताका हनुमंतु सांगता – "म्हाजें मरण सत्यें सांगतां म्हाज्या बालाक यांगोल्यो येडुका, तेल तूप वोत्का, बालाक हाग पेटोव्का आनी सागरांत लकव्का." हनुमंतालें उतर आयकोन लंकेर आसल्ल्यो सगळ्यो यांगोल्यो हाडून येडल्यारी, हनुमंतान बाल व्हाडयिल्ल्यान, बालाक यांगोल्यो पावाना, रवणाक खंत लागता. निर्वोगनास्तां आखेरिक सीतेल्यो यांगोल्यो हाडून बालाक येडच्याक सांगता. हें आयकोन हनुमंतु ठाण पडता. बाल व्हाडंच्चें रावयता. राकसांनी तेल तूप वोतून बालाक हाग लाय्लो. हाग लायिल्लेंच हनुमंतु रावणा बोंडार उडलो. ताचें खाडबोंड ल्हासल्लें. त्या उपरांत लंकवय्ल्या राळेरांक सगळ्यांकी हाग लाव्न ल्हासल्लें. विभीषणाले राळेर एक मात्र सोडलें.

लंका लासून हनुमंतु समुद्रा तीरिक गेलो. समुद्रांत बाल बुडव्न बालाचो हाग पाल्वाय्लो. ह्या वेळा बालाचें अरवें झडल्लें. तें अरवें मोरियें मास्ळेन गिळ्ळें. मुकार त्या मोरियें मास्ळेक गर्भ संभव्ता. त्या गर्भांत मकरध्वज जल्माता.

थंयथाव्न हनुमंतु फाटीं समुद्र उत्रोन वानरां सयत ऋषीमुकी पर्वताक आयलो. राम लक्ष्मणांक भेटलो. सीता सोध्यो केल्ली आनी आप्णान लंका ल्हासल्ली खबर तांकां सांग्ली. सीतेन दिल्ली चूडामणी रामाक पावित केली.

## अंगद संधान:

रामलक्ष्मण आनी वानरादळान समालोचन करून, रावणाकडेन संधानाक लंकेवय्र अंगदाक धाडलें. लंकेर रावणा आस्थानाक पावल्या अंगदाक कोणी मान दीना, बसोंकी सांगाना. अंगदा आप्ल्या बालानच्च सिंहासन बांधून रावणाच्याकी उभारायेर बस्लो. रावणाकडेन सीता देविक धाडून दिल्याक संधान केलें. पुण

रावण, कोपाक्रोध जाव्न आप्ल्या राकसां कर्ना, अंगदाक मार्च्याक लाय्लें. अंगदु रावणाल्या इर्ध्यार उडून, ताका मस्तून, थंयथाव्न चुकोव्न घेव्न फाटीं किष्कींदेक आय्लो.

## सेतु बंधन:

अंगदालें संधान विफल जाल्ल्यान, राम लक्ष्मण आनी वनरादळान लंकेवय्र तंबु मार्च्याक निश्चय केलो. त्या खातिर सागराक सेतु बांदचाक तयाराय केली. रामान नळाकपीक सेतु बांध्चाक नेमक केलो. वानरांक पर्वत हाडचाक धाडले. नळाकपी महेंद्र पर्वताच्यो किनार्यो व्हावंव्न हाडून सागरांत सेतु बांदचाक देंव्लो. सर्व वानारांनी व्हड व्हड गुडे दोंगोर हाडून नळाकपीकडेन दिले आनी नळाकपीन सेतु बांदलो. सुग्रीवान उदयाद्री, अस्ताद्री पर्वत शिखर हाडले. अंगदान कैलास पर्वताचो शिखर हाडलो. जांबवान हिमवत पर्वताचे चूवीस शिखर हाड्ले. हे सग्ळे परवत हाडून नळाकपीकडेन दिले. तांणी एकाच हातान घेव्न सेतु बांदलो. हो सेतु साठ योजनां जालो. आनिकी चाळीस योजनां बाकी उर्लो. पुण, वानर सग्ळे सल्वोन पडल्ले. हें हनुमंतान पळेय्लें. एक्च्च पाव्टीं उडोन गेल्लो हनुमंतु मेरु पर्वतार पाव्लो. आप्णालो बाल मेरु पर्वताक येडून हालय्ताना सग्ळे लोक धल्ले. सत्त्यालोकांत ब्रह्मादेव सिंहासनावय्लो सकय्ल पडलो. ब्रह्मादेव मेरु पर्वताक येव्न हनुमंताक समाधान सांग्ता. पुण हनुमंतु ब्रह्मादेवाकडेन यवुदांक राव्ता. ब्रह्मादेवान आप्णाल्या सक्तेन राम लक्ष्मणांक थंय हाडय्ले. रामान हनुमंताक – “हनुमंता, तुगेलो रौद्रावतार सोड. हो मेरु पर्वत सग्ळ्या लोकांक आधार. तुवेन हो पर्वत उंचाळिल्यार सग्ळे लोक नाश जाता. हाच्यो किनार्यो काडून हाड” म्हण भुद्धीवाद सांग्लें. हें आय्काल्लो हनुमंतु मेरु पर्वताचो किनार्यो काडून हाडून नळाकपीकडेन दिता. नाळाकपीन घेव्न उरल्लो चाळीस योजानां सेतु पूर्ती केलो. रामालें सयन्यें, सेतु उत्रोन लंकेक पाव्लें आनी सुवेलाद्री पर्वता तीरेर तंबु मार्लो.

## विभीषणा प्रसंग:

रामालें सयन्यें लंकेक पावुल्ली खबर विभीषणाक मेळ्ता. तो रावणाल्या सोभेक वचोन ‘एतवोन पाव्ले सूर्या–वीर, रामाचे सीतेक पाटून दिया, धर्म राज करया’ म्हण बंध्वा रावणाक बुधिवाद सांग्ता. रावण आय्काना. तो कोपाक्रोध जाव्न विभीषणाकच्च भाय्र घाल्ता.

विभीशणु आवय कैकसेलागीं वचोन रावणाक बुधिवाद सांग्च्याक धाडता. रावण कैकसेलें उतरयी आय्काना. विभीषणु लंके वय्लो भाय्र सर्ता आनी रामाल्या पाळयाक मेळचाक वेता. विभीषणु येताना राम तागेली परिचय विचार्ता. तेन्ना विभीषणु ‘फूडां कैकेक एक पिंड दिलो, तो पिंड गारेघोणिन हाडून लंकेर घाल्लो, तो कैकसेक मेळून त्या पिंडाक जल्माल्लो आपुण लंकेच्या रावणालो भाव विभीषणु’ म्हण सांग्ता. हें आय्काल्लो राम ताका आप्णालो आनीएक्लो भाव

म्हणच्च लेकून यांगळून घेना आनी आप्ल्या पाळयाक मेळय्ना. रामान विर्भीषणाक आप्लो भाव म्हण काण्घेल्चाक कैकेक दिल्ल्या पिंडाक विर्भीषणु जल्माल्ने कारण कुडम्यांनी रामायणाच्या कथांन गुंनल्नें एक विशाष घडिन म्हण्येन.

विर्भीषणा जल्माक संबंध जाल्नें गीत --

"एडां कैकेक दीवेलो एक पिंड
तळप मारीलां गारे घोणिन
तळप मारूनी पिंड घेवून गेला
पिंड घालीलो सुवर्णा लंकेर
पिंडा जलमोल्नो वांग विर्भीशणु"

## निखुंबिळा याग:

रावणा पुत्र इंद्रजित् युद्धांत जय्ना खातिर लंका लागींच्या निखुंबिळा म्हणच्या जाग्यार एक विशेष सर्कच्या यागाक बस्ना. ही खबर विर्भीषणाक मेळना. तो याग संपूर्ण जाल्यार इंद्रजिताक मल्वांच्याक कोणाच्यानयी असाध्य म्हण विर्भीषणाक कळीत आस्ना. विर्भीषणु ह्याविशीं रामाक जागय्ना. राम हनुमंताक धाडता. हनुमंतु येव्न इंद्रजितालो होम विध्वंस करता. थोडयां रामायणानीं इंद्रजितालो निखुंबिळा याग ध्वंस कर्चो लक्ष्मणान.

## मृत संजीविनी:

निखुंबिळा याग अर्ध्यांर सोडून इंद्रजित् युद्धाक येताना ताका आनी लक्ष्मणाक मुखामुखी जाता. इंद्रजित् लक्ष्मणावय्र ब्रह्मास्त्र प्रयोग करता. ब्रह्मास्त्रान लक्ष्मण मत चुकोन पडता. हे पळोयिल्लो विर्भीषणु रामाक जागय्ना. राम मृत संजीविनी वकट हाडचाक हनुमंताक संजीवन पर्वतावय्र धाडटा (थोडयां रामायणांत वकट हाडचाक हनुमंताक धाडूंक सांगचें जांबवान) संजीवना पर्वताक पावल्ल्या हनुमंताक वकदाची वळक आसाना जाल्ल्यान तो संजीवना पर्वतच्च उभारुन हाडता. त्या पर्वताव्लें वकट काडून, जरव्न लक्ष्मणाल्या सर्यांबुधांक पुसल्लेंच लक्ष्मणाक जीवदान जाताना सर्व सयन्यें संतोसान भर्ता.

## इंद्रजितु वधा:

इंद्रजिताक वधेंक्क बारा वर्सां अन्नाहार सोडून उप्वासार आसल्लो ब्रह्माचारी मात्र सक्ता. सीतेल्या शापानिम्ती हांगा लक्ष्मण ब्रह्माचारि आस्ता. आनी बारा वर्सां उप्वासारयी तो आसल्लो. दुस्या पार्टी इंद्रजिताक आनी लक्ष्मणाक भीकर यवुदां लाग्ता. लक्ष्मण, इंद्रजीतावय्र इंद्रास्त्र प्रयोग करता. इंद्रजितु ह्या इंद्रास्त्रान मरोन पडटाना ताचो शिर विंगड, बोंड्म विंगड जाता.

इंद्रजीताली बायल सुलोचनी बांव घालून धांवोन येता. तीका पुनर्जीविनाची विद्या कळित आसता. त्या तंत्रगारिके खातिर ती तीळ तांदूळ घेव्न येता आनी रामाकडेन आप्ल्या भर्तारालो शिर दी म्हण माग्ता. राम, तिका इंद्रजीतालो शिर दीता. शिर मेळल्लिच सुलोचनी -- "आनी हांव पळेव्न घेतां, तुज्यान किनें

जाता?' म्हण रामाक सवाल घाल्न हिण्सिता. हें आय्काल्ल्या तक्षण हनुमंतु घोणिचें रूप धरुन, सुलोचनी हातांत्लो शिर तळप मार्ता आनी शिर घेव्न धांवून, व्हरुन सात सम्दिरां भाय्र घाल्ता. अशें सुलोचनीक इंद्रजीतालो शिर मेळानाशें कर्ता जाल्ल्यान इंद्रजीतालें अंत्य जाता. (इंद्रजीता मरणा मागिर सुलोचनी प्रसंगाची कथा अपरूपान कुडमी रामायणांत मेळ्ता तें विशेष)

## कुंभकर्णा वधा:

रावणाचो भाव कुंबकर्णा महान शक्तिशाली. तो स महिन्ये निदल्यार स महिन्ये जाग्रणेर आस्ता. जाग्रण जाताना निदेंत आसल्या दिसांचेंयी तो खाता. निधेंत्लो मधें उठय्ल्यार ताका फुडो कर्च्याक भारी कष्ट. इंद्रजितु संहार जाल्लो पळोव्न, रावण, भाव कुंभकर्णाक उठय्ता. आनी रणरंगाक धाडता. रणरंगा वय्र ताका सुग्रीव भेटोन युधाक लाग्ता. कुंभकर्णा सुग्रीवाक आप्ल्या खांक्यांत आव्ळून धरुन लंकेच्या वाटेन चल्ता. अशें वेताना कुंभकर्णाल्या दोनी कानांक चाबून सुग्रीव चुकव्न घेव्न येता. कुंभकर्णा ताजी फाट धरुन येताना राम ताका तडिसता. कुंभकर्णाक आनी रामाक यवुदां जाव्न रामान सोडल्लो वैषणव बाण कुंभकर्णालो प्राण काडता. ताची बाय्ल ज्वाले बोब घेव्न धांवून येता.

## अहिरावण महिरावण वधा:

कुंभकर्णाकयी मरण पाव्ताना रावण पाताळा लोकांत्ले ईष्ट अहिरावण महिराणालो सहाय विचार्ता. अहिरावण महिरावण पाताळांत बारा वर्सां काळिकादेविलें आराधन कर्न, वर घेव्न अजेय जाव्न राज चलय्त आस्ता. रावणाल्या सहायाक लंकेर येता. ही विषय कळल्लो विभीषणु हनुमंताक जागय्ता आनी राम लक्षमणांक रक्षण कर्च्याक सांग्ता. हनुमंतु, आप्णाल्या बालानंच कोटें रचून, मधें राम लक्षमणांक दवर्न राखून बस्ता. अहिरावण, महिरावण राम लक्षमणांक सोध्ताना, तांकां बालाचें कोटें मात्र दिस्ता, राम लक्षमण मेळाना. तांणीं कित्लें बळप्रयोग केल्यारी कोटें हालाना. तांकां कोट्या वय्र बसल्लो हनुमंतु दिष्टीक पडता. सक्तेन जाय्नातल्लें युक्तेन कर्का म्हण, अहिरावण विभीषणालें रूप घेता आनी हनुमंताक भेटोन सांग्ता – "आय्कय हनुमंता, राम लक्षमणांक व्हर्च्याक अहिरावण महीरावण येतले, तूं हें कोटें सोड्न पय्सिल्यान राखून बस – ते येताना आक्रमण करुन तांकां संहार कर' म्हण सांग्ता. हो कपट विभीषणु म्हण हनुमंताक कळाना. ताणें सांगल्ल्या प्रमाणें बालाचें कोटें सोडटा आनी पय्स वचून राखून बस्ता. तक्षण अहिरावण महिरावण माया विद्यान निदेर आसल्या राम लक्षमणांक पलांग सय्त उभार्न पाताळाक व्हर्ता.

हांगा निज रूप विभीषण येताना बालाचें कोटेंयी दिसाना, राम लक्षमणयी दिसाना. विभीषणु हनुमंताक दुस्वासिता. हनुमंताक आनी विभीषणाक वाग्वाद जाता. हनुमंतु सांग्ता – "तुवेंच्च सांगल्लें बालाचें कोटें सोड्न पय्सिल्यान राखून बस्चाक आनी आतां आरोप कर्ताय' ताका विभीषणु म्हणता – "आपुण अहिरावणयी

जांव्क सक्तां, महिरावणयी जांव्क सक्तां. अहिरावणान म्हजें रूप धरून तुका माग्य करून, राम लक्ष्मणांक पाताळाक वेल्या. हें सगळें राकसां मायें" अशें विवरल्या.

हें आयकाल्या हनुमंतान पाताळा रज्याक धावंत धर्लें. पाताळाच्या वाटेर ताका दुर्धुंडी म्हळ्ळी काळीका भवनाल्ली चाकरेकार मेळ्ळी. थंयच्या काळिकालयांत राम लक्ष्मणांक बंधनांत दवरल्लें. पाताळा भवनाक गिरचें भारी कठीण आसल्लें. त्या भवनाक सात द्वार आसोन हरयेका द्वारारयी राखण दवरल्लें. हांगा हरयेका द्वाराराची तरास दवर्न तक कर्नच्य प्रवेशाक सोडटाले. पुण त्या भवनाची चाकर्न दुर्धुंडीक खंरचेयी निबंध नासल्ले. राखणाचें मुखेल्पण दुर्धुंडीचो पोस्को पूत मकरध्वजाक आसल्लें. ही सर्व विषय दुर्धुंडीथाल्न आयकाल्लो हनुमंतु तिची इषटारात कर्ता. आप्णालें रूप पल्लट करून हनुमंतु भोंवराचें रूप धर्ता. दुर्धुंडी काळिकालयाक तीर्थारिंडी व्हर्ताना त्या तीर्थारिंडियेंत बस्ता. द्वारांर तरस्सांनी तीर्थारिंडी तूक्ताना भोंवार रूपाचो हनुमंतु गिंडिये भितर उत्ता. अशें दुर्धुंडील्या सहकारान हनुमंतु काळिका दिव्ळाक पाव्ता. मकरध्वजाक कितेंरी संसोव जाव्न भितर पळयताना हनुमंतु दिस्ता. हनुमंताक आनी मकरध्वजाक युध्ध जाता. मकरध्वजाक आप्णालो बापय हनुमंतु म्हण कळित आस्ता आनी ताचें रूपयी अंदाज आस्ता. पुण आप्णाकडेन युध्ध करून आसल्लोच हनुमंतु म्हण ताका कळ्ळाना. त्या वेळार हनुमंतु आप्लें विराटरूप मकरध्वजाक दाखयता. हनुमताक वळकाल्लो मकरध्वज ताका शरण जाव्न काळिकालयाक प्रवेश दीता.

थंय राम लक्ष्मणांक काळिकालयाच्या मुकल्या गरज खांब्याक बांधून बंधनांत दवर्ला. अहिरावण महिरावण सगळ्यां राकसां सय्त येव्न राम लक्ष्मणांकडे - "रामा, आतां तुम्चें रक्षण कर्चे कोण आस्सा?" म्हण हिणिसता. राम म्हणता - "म्होजो भक्त हनुमंतु आसल्लो जाल्यार तुम्कां सर्वांक बुध्द शिकयतो"

वेष पल्लटान काळिकालयाक रिगल्लो हनुमंतु काळिका मूर्तीच्या आडोसाक बस्ता. आनी काळिकेल्या ताळ्यान "अयिकय दयिल्या राकसांदो, आज म्हाका भारी संतोस जाला. राम लक्ष्मणांक म्हाका हवार दिंव्च्याक जाय जाल्ल्यो वस्तु घेव्न येया." म्हण आदेश दिता. उलयिल्ली काळिकादेविच्च म्हण पात्येल्लें अहिरावण महिरावण राकसां सय्त जाव्का जाल्ल्यो वस्तु हाडचाक तांच्या गव्ळेराक वेता.

हो संधर्भ उपयोग करून हनुमंतु राम लक्ष्मणांक बंधन दवरल्ल्या गरज खांब्यार उड्लो. तेन्ना बंधनाच्यो सपळ्यो तुटोन राम लक्ष्मण बंध वीमोचन जाले. हनुमंतु बहदाकार जाव्न काळिकालयाच्या द्वारार रावलो. ताच्या पाया पंदल्यान राकस भितर रिगताना राम लक्ष्मणांनी राकसांक संहार केल्यें. ह्या युध्धांत महिरावण मरण पाव्लो. हें पळव्न अहिरावण युध्धाक रावलो. ताका रामान बाण मार्ताना, बाण लागोन ताचें रगत धर्णीर पडल्ल्याफरा हजारांनी अहिरावण जल्मोन

युध्धाक आय्ले. हें विज्मित पळव्न रामाक खंत लाग्ली. अहिरावणाक संहार कशें कर्चें म्हळ्ळेंच रामाक कळाना.

अहिरावणाली बाय्ल चंद्रसेने. रामालें देवत्व, शौर्य, धर्मनीत आय्काल्ली तिका रामा वय्र मोग उब्जाल्लो आनी रामालागीं व्हार्डिक जान्चाक आशेल्ली. राम लक्ष्मणांक अहिरावणान चोरुन हाडल्ल्याथाव्न कशेंयी पुणी रामाक भेटून आप्ली आशा कळोव्का म्हण रात्ताली. ही सिषय कळल्लो हनुमंतु अहिरावणाक संहार कर्ची वाट तिचेथाव्न कळव्न घेव्का म्हण निश्चय करुन गुपित रितिर तिका भेटलो. चंद्रसेनेन – "रामाक आप्ल्या अंता:पुराक आपव्न हाड्ल्यार पती अहिरावणाक संहार कर्ची वाट आपुण दाखय्तां" म्हण हनुमंताकडेन सांग्लें. हनुमंतु ओप्लो आनी "रामाक आपव्न हाडची जवाब्दारी म्हजी. राम येताना ताका अव्मान जाय्नाशें पळेंव्ची जवाब्दारी तुजी" म्हण चंद्रसेनेक ओप्पाय्लें. त्या वेळा – "अहिरावणाल्या हर्ध्यांत ब्रह्मदेवान अमृताकळस स्थापित केला, अमृता कळस आस्ता म्हणासर अहिरावणाक मरण ना, रामान तो कळश नास केल्यार अहिरावणाक मरण" म्हळ्ळी विषय चंद्रसेनेन हनुमंताक कळय्ली. हें, हनुमंतान रामाक सांगुन, रामान अहिरावणाल्या हर्ध्याक बाण सोडलो आनी ताचो अमृता कळस ध्वंस केलो. अहिरावणान प्राण सोडलो.

चंद्रसेनेक दिल्ल्या उत्रा प्रकार हनुमंतान राम लक्ष्मणांक तिच्या अंत:पुराक अपव्न हाडलें. चंद्रसेने भारी संतोसान तांकां स्वागत कर्च्या सम्भ्रमार आसल्ली. तिणें सुरुंगाराव्न दवरल्ल्या पालांग माच्याच्या पायांक वाळय लागल्ली हनुमंतान पळय्लें. हनुमंतान कोंब्या रूपार पालंगाच्या पायांक चोंच मार्ली. पालांग मोडून पडलो. त्याच वेळा बसोंक गेल्ल्या रामाक हें अव्मान जालें. ते थंयथाव्न फाटीं सर्च्याक तयार जाले. हें पळेयिल्ली चंद्रसेने रामाच्या पायांक पडून, आप्णाक व्हार्डिक जान्चाक माग्लें. रामान तिका – "आपुण ह्या जल्मांत एकपत्नी वृतस्थ. सीते विन: हेर स्त्रीयो आप्णाक आवय समान, मुक्ल्या जल्मांत हांव तुका व्हार्डिक जातां" म्हण समाधान सांग्लें. पाताळा राज्याचो पाट मकरध्वजाक बांधून ते लंकापाटनाक फाटीं आय्ले. (रामाल्या – मुक्ल्या कृष्णावतारांत, हिच्च चंद्रसेने सत्राजिताली धूव सत्यभामे जाव्न जल्मोन कृषणाली मोगाची राणी जाता म्हण कथा आसा).

ही अहिरावणा महिरावणाली कथा आनंद रामायणांत आसा. कर्नाटकांत, चड जाव्न उत्तर कर्नाटकांत दोड्डाट म्हळ्ळ्या यक्षगानीय काव्यांत हाचो प्रयोग पळव्येत. कुडम्यांनी आप्ल्या जानपद शय्लेन गुम्टां गीतांनी मिस्ळाव्न उप्योग केलां तें विशेष म्हण्येत.

## रावणावधा:

अहिरावण महिरावणाल्या मरणाची खबर आय्काल्लो रावण कोपाक्रोध जाव्न स्वत: रणरंगाक येता. रामा–रावणाक भयंकर युध्ध लाग्ता. रावणालें सयन्यें व्हड

संख्यान नास जाता. रावण, आप्णालो गुरु शुक्राचार्याकडेन अभिप्राय विचार्ता. शुक्राचार्या रावणाक पाताळा हूम कर्च्याक उपादेस दिता. आनी पाताळा हूम निर्विघ्न जाव्न केल्यार तुका मरणच्च येना म्हण रावणाक सांग्ता. हें आय्काल्लो रावण राताराथ एका धोलींत पाताळा हूमाक बस्ता. विभीषणाक ही संगत कळ्ता आनी तो रामाक सांग्ता. राम, रावणालो हूम भष्ट कर्चाक अंगदाक धाडता.

कित्ल्या प्रयतनान अंगदान अडकळी हाडल्यारी रावण हूमाक बसल्लो उठाना. आखेरिक अंगदु रावणाली बाय्ल मंडोदरिक वोडन हाडटा आनी तिचें मानभंग कर्चें प्रयतन कर्ता. हें पळेव्न वोगो राव्चाक जाय्नास्तां रागान हूम अर्ध्यार सोडून रावण मंडोदरिल्या रक्षणाक धांवून आय्लो. रामा–रावणाक भीकर युध्ध जालें. रामान सोडल्ल्या बाणांनी रावणालीं शिरां उसळ्यारी पर्त्यान तशेंच जोडण जांव्चें पळेव्न रामाक खंत लाग्ता. त्या वेळा विभीषणान रावणाल्या तक्ल्यांनी अमृत कळस आसल्ली संगत रामाक सांग्ली. रामान ब्रह्मास्त्र प्रयोग करुन ते अमृत कळस नास केले. रावण मरण पाव्लो.

मुकार रामान विभीषणाक लंका राजपाट बांदलो. सीता देविक अग्नी प्रवेश करव्न, सत्त्यें उत्राव्न ती पतिवृता म्हण लोकाक कळाशें केलें. तीका सर्व वानसदळ, विभीषणसय्त अयोध्याक फार्टी आपव्न हाडलें.

कुडमी, गीतां आनी नाचा सांगाता रामायणाची कला सादर कर्ताना त्या त्या घडितांचें रूपक दोळ्यां मुकार येता. रामालो भारसो, वनावासाक वेचें, वनफळां काडचीं, सीतापहरण, सुवर्णाचें मुरुगुं, हनुमंतु उडल्ल्याव्हिरीं, सेतु बांदचें, लंका ल्हासून सीतेक फार्टी हाडचें – असलीं गीतां गाय्ताना त्या त्या संदर्भा तेकिद नाचयी सादर जाता. कुडमी संप्रादाया प्रमाणें संव्सार पाडवोथाव्न तुळसी पूजा म्हणासर ह्या रामायणचीं गीतां गांव्क या नाच्पाक अव्कास ना. तुळसी पूजाथाव्न शिवरात्री पर्यांत सद्दां पारायण म्हळ्याबरीं अभ्यास कर्ता. हें रामायण लिखित रुपार ना. तोंडीसाहित्य जाव्न बापायथाव्न पुताक, नात्वाक येव्न, पिळ्गेन पिळ्गी शिकून परंपरा मुकार वेता. होळी पर्बेच्या अखैर दीस हाचें विधी विधान धार्मीक रिती रिवाजीं सवें संप्ता. होळी पर्बेच्या धार्मीक आचरणांत रामायणाचें क्रम कर्चें खड्डाय जाल्ल्यान, ही संस्कृती कुडम्यां मधें जिवी उर्ल्या म्हण्येत.

*(सूचन: ह्या लेखनांतली भास, उत्रांवळ, उत्रां जोडण, व्याकरण इत्यादी लेखकान दिल्लेपरिंच सांभाळ्ळया – संपादक)*

